

# हिमालयांत

रवीन्द्र केळेकार

# हिमालयांत

[ भोंवडे खबर ]

रवीन्द्र केळेकार



जाग प्रकाशन

जाग प्रकाशन : २०

शणै गोंयबाब जल्मशताब्दी वर्स प्रकाशन : ४

सप्टेंबर १९७६



मोल : आठ रुपया

अुजवाडावपी :

सुमन्त रामचन्द्र केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय
४०३ ४०४

छापपी :

य. गो. जोशी
आनंद मुद्रणालय
१५२३ सदाशिव,
पुणे ४११ ०३०

हिमालयाचे यात्रे इंतलेंच त्रासांच्या आनी कश्टांच्या
जिविताचे यात्रेंत आनंदान सांगात दीत आयिल्ल्या
गोडूक –

# म्हाम्नी

हिमालयाची भोंवडी हांवें १९५६ तल्या गिमांत केल्ली. दिल्लीच्यान भायर सल्लों तेन्ना खंय वचचें, सारकें खबर नाशिल्लें. काश्मिरापसून कामरुपा मेरेन हिमालय पातळ्ळा. तो एक फावट पांयांनी भोंवन पळोवंक जाय इतलेंच मनांत आशिल्लें. हृषीकेशाक कळ्ळें कि पुराय हिमालय एके फावटींत पळोवन जावपाचो ना. देखून हे खेपे फकत उत्तराखंड पळोवचो असो बेत केलो आनी थंयच्यान भायर सल्लों.

उपरांत पांय जे चलपाक लागले ते एका-सारके पंचे-चाळीस दीस चलत रावले. दिसाक धा-बारा, केन्ना केन्ना पंदरा-वीस मैल चलत चलत सुमार सशीं मैल पांयांनीं माड्डिले आनी जम्नोत्री, गंगोत्री, केदारनाथ आनी बद्रीनाथ हीं उत्तराखंडांतलीं चारूय मुखेल धामां पळेलीं. इतल्यांत पावसाळो सुरू जालो आनी हिमालयांतल्यो वाटो बंद जाल्यो.

वतना हांवें एक ल्हान-शी पटी बोल्सांत घाल्दुन व्हेल्ली. हिमालयांत सपूसप् कोण पावना; हांव पावलां तो मोटे अडचणींतल्यान वाट काडून पावलां; परतो पावन हाची आस्त ना; तेन्ना, जें कितें हे भोंवडेंत दिश्टी पडटा वा तें पळोवन मनांत जें कितें घोळटा, तें बरोवन दवरचें; मुखार केन्नाय हे भोंवडेंतले उगडास बरोवचे-शे दिसले जाल्यार, ही नोंद उपकारा पडटली, अशें येवजून हांवें सद्दां रातची, न्हिदचे पयलीं, त्या-त्या दिसाची खबर बरोवन दवरची. भोंवडेंतल्यान परतनाफुडें उगडास बरोवपाक बसतलों अशें मनांत आशिल्लें.

पुणून हिमालयांतल्यान परतलों आनी रोखडो कोंकणिच्या राजकर्णांत घुसपलों. उपरांतचीं म्हजीं इकरा वरसां ह्याच राजकर्णांत खर्चलीं म्हळ्यार

जाता. हाका लागून भोंवडेचे उगडास बरोवपाक जी सस्तताय आनी उसरषत जाय आशिल्ली ती मेळूंक पावली ना आनी 'बरोवंक जाय...बरोवंक जाय...' करीत इकरा वरसां बरयनासतना रावलों.

१९६७ च्या जानेरांत आमी 'ओपीनियन पोल' जिखलो. आनी इतलीं वरसां राजकर्णांत घुसपल्लें म्हजें मन अवचीत् मेकळें जाल्लेवरी दिसलें. आतां जिविताक एके वेगळे वाटेन व्हरचें अशें खोलायेन दिसपाक लागलें.

आनी म्हाका हिमालयाचो उगडास जालो. वांगडा व्हेल्ली ती 'उगडास पटी' सोदून काडली आनी हांव ती वाचपाक लागलों. अजाप म्हळ्यार, हांव कांयच विसरूंक पावूंक नाशिल्लों. इकरा वरसां आदले सगळे उगडास जिवे-तट्टटीत जावन दोळ्यां मुखार येवन उबे रावले. हांवें येवजिलें : 'आतां हे उगडास बरोवन काडचेच पडले...ना जाल्यार, कालः पीबति तद रसम्.'

आनी हांवें लिखणी हातांत घेतली. बरयतां बरयतां गंगोत्री मेरेन पावलों. म्हळ्यार, सगळ्यांत चड त्रासांचे आनी कश्टांचे भोंवडेचे उगडास बरोवन जाले. अजून पंचवीस दिसांचे आनी सुमार चार साडे-चार-शीं मैळांचे भोंवडेची खबर सांगपाची उरिल्ली.

इतल्यांत, जपानाक वचपाचो सुयेग जुळून आयलो.

आतां म्हळें, जपानच्या इतिहास-भूंयगोलांत भोवंक लागिल्लें मन घेवन हिमालयाची खबर सांगपाक लागलों जाल्यार, हिमालयाचेर अन्याय जातलो आनी हिमालयाक न्याय दिवंक गेलों जाल्यार, जपानाचेर अन्याय जातलो. हांवें गंगोत्री मेरेनची खबर बरोवन जातकूच म्हळें : 'हांगाच थांबिल्लें बरें...' आनी थांबलों.

हांव जाणां, वाचप्यांच्या फकत अर्धाच रिणांतल्यान हांव मेकळो जालां. अर्दें रीण अजून उल्लां. तें फारीग केलेबगर हिमालय म्हाका परतो

लागीं घेवपाचो ना. आनी म्हाका तर पुराय हिमालय अजून भोंवन पळो-वपाचो आसा. हांव काश्मिराक अजून पावंक ना. अमरनाथ हांवें अजून पळोवंक ना. नेपाळांत वचून येवपाचे बेत कितलेशेच खेपे आंखले. अजून सुयेग येना. सिक्कीम, भूतान केन्ना पळोवन येतलों, कोणाक खबर ! एक दीस कैलास–मानस लेगीत पळोवन येतलों म्हणटां. आयज आसूं कैलास–मानस चिनाच्या शेकातळा. पुणून म्हजें भारतीय मन म्हाका आड्डु-आड्डून सांगता : ‘ जिच्या फाटल्यान हजारांनीं वरसांची परंपरा आसा ते भोंवडेंत खड पडूंक फावना....’ तरी अजून म्हजें थंय वचप जायना. केदार–बदरिचे भोंवडेची खबर बरयले बगर घडये हिमालय म्हाका हीं उरिल्लीं थळां दाखोवपाचो ना.

उदकान खंय व्हांवत रावंक जाय आनी मनशान भोंवत रावंक जाय. हांव ह्या नेमाक तांकत तसो पाळो दीत आयलां. संद मेळ्ळ्या तेन्ना भायर सल्लां आनी चलूंक लागलां. जेन्ना दुसऱ्या वावरांनीं घुसपलां तेन्ना मनान भोंवपाक गेलां वा भोंवडेचे बेत आंखीत रावलां. सिंदबादाक जशीं दरयाचीं ल्हारां सपनांत येवन आपयतालीं तशीं म्हाकाय वेगळ्या एका दरयाचीं ल्हारां आपयत रावल्यांत.

एके कडेन वाचिल्लें :

> दुनिया की सैर कर गाफिल, जिंदगानी फिर कहाँ
> जिंदगी गर कुछ रही तो नवजवानी फिर कहाँ ....

म्हजी ‘ नवजवानी ’ अजून सरूंक ना. पुणून वरसान वर्स तांतलें एक एक वर्स सरत चल्लां; ना जायत चल्लां, हे हांव पळेतां. मागीर म्हाका एके तरेची ताकतीक-शी लागता. आनी हांव म्हाकाच सांगपाक लागतां : ‘ हें तरणेपण गेलें म्हणटकूच तें परतें येवपाचें ना आनी ताची सुवात म्हातारपणान घेतली म्हणटकूच मरसर तें वचपाचें ना...नज जावचे पयलींच जें कितें पळोवपाचें उल्लां तें पळोवन यो...’

खूब खूब पळोवपाचें मनांत आसा तें सगळें हांव पळोवंक पावतलों काय कितें, देवाक खबर ! इतलें खरें कि जांच्या हातांत हें पुस्तक पडटलें तांकां, म्हाका जाल्या तशे तरेची ताकतीक जावपाक लागली आनी ते देस पळोव-पाक, संवसार पांयांनी माड्डुपाक, जंय सपसप कोण पावना असल्या थळांनीं भोंवन येवपाक घरांतल्यान भायर सरपाची इत्सा जाली जाल्यार, म्हाका खूब खोस भोगतली. आनी 'हांव अजून कांयच पळोवंक पावूंक ना' म्हणपाची म्हाका जी खत भोगता ती ना जातली. म्हज्या ह्या पुस्तकाक इतलेंच येस मेळ्ळें जाल्यार खूब जालें अशें म्हाका दिसतलें.

एकल्यान म्हळां : 'गद्य कितलेंय निवळाय, निवळावणी सोंपून सोंपना....' म्हजेंय हेंच मत्त जालां.

१९६७ च्या गिमांत 'राष्ट्रमतां'त हिमालयांतले म्हजे भोंवडेची जी खबर आयिल्ली ती आतां णव-धा वरसां उपरांत तशीच कशी छापून येतली ? पोरण्या बरपांत बदल करप हो म्हजो सभाव. त्या भायर हक. हक सोडूं येत, पुणून सभाव कसो बदलतलो ? हांवें म्हज्या पोरण्या बरपांत खूब बदल केल्यात. म्हज्यान फकत इतलेंच सांगूं येता कि हांवें जरूय मूळ बरपांत बदल केल्ले आसले जाल्यारूय भोंवडेंत पळोवंक नाशिल्लें वा येवजूंक नाशिल्लें तांतूंत कितेंच येवंक दिवंक ना.

प्रियोळ : ११-९-७६ | रवीन्द्र केळेकार

हिमालयाची म्हाका खूब ओढ. वरसान वर्स हांवें थंय वचून येवपाचे बेत आंखचे. वरसान वर्स ' अंदू वतलोंच ' असो निश्चय करचो. भायर सरपाचो दीस थारावचो. तयारेक लागचें आनी आतां भायर सरतलों म्हणपाक ऐन वेळार कसलेंय आडमेळें येवचें आनी त्या वरसा वचपाचें उरचें.

अशें एका-सारकें आठ-धा वरसां घडत रावलें. अखेरेक एका वरसा हांवें सामकेंच थारायलें : ' अंदू वतलों म्हळ्यार, वतलोंच. ना जाल्यार, हिमालयाचें नांव लेगीत ना घेवंचों ... '

हो बेत केला त्या वरसा हांव वर्ध्याक आशिल्लों. थंय म्हगेले दोग इश्ट आशिल्ले. नवें कितेंय मनांत आयलें म्हणटकूच तांकां सांगप हो म्हजो नेम. हांवें तांकां म्हजो हिमालयांतले भोंवडेचो बेत सांगलो. तांचेय तकलेंत हिमालय घोळटालो दिसता. ते म्हणपाक लागले : ' आमच्याय मनांत वचपाचें आसा... '

' तशें जाल्यार, बरें जालें... आमी वांगडाच या... ' हांवें म्हळें.

आमी तयारी करपाक लागले. खंय वचचें, कशें वचचें, वांगडा कितें व्हरचें, सगळें थल्लें. भायर सरपाचो दिसूय थारायलो.

भायर सरपाक थोडेच दीस उल्ल्यात म्हणपाक कोण शिंकलो, कोणाक खबर ! म्हजे वाटेंत एक मोट्टें आडमेळें येवन उबें रावलें. यत्न केलो तें चुकोवपाक. पुणून कशेंच चुकोवंक येना जालें.

परिणाम : इश्ट गेले आनी हांव उल्लों.

निर्शेवन म्हळें : ' म्हज्या नशिबांतूच हिमालय ना दिसता. ना जाल्यार, अशें जावपाचें न्हय. '

आनी हांवें ताचें नांव लेगीत घेवपाचें सोडलें.

पुणून घडे भल्ले बगर खंय वडे पडनात. तसो, बेत सारको पिकले बगर खंय तो शार्ती पावना. वर्ध्याच्यान हांव दिल्लीक पावलों. पुस्तकांच्या संवसारांत वावुरतालों. बऱ्या बऱ्या लोकांच्यो वळखी जाताल्यो. सुमाराचें जोडटालों. खुशालभरीत आशिल्लों. अवचित् एक दीस म्हाका दिल्लीची उबगण आयली. हे ' मोगलाई ' जिणेंत कांय वरसां उल्लों जाल्यार बेगीन म्हातारो जातलों, जिवितांत कितेंच करूंक पावचों ना, पे-प्रोमोशन-पेन्शनाच्या जाळ्यांत घुसपतलों आनी फुकट वतलों असें कितें-शें खोलायेन दिसपाक लागलें. ' हें आयलां तें खिणयाळें वैराग्य बी न्हय मू ' ह्या दुबावान कांय दीस ओगी रावलों. आनी अखेरेक एक दीस कोणाकडेन कसलेंच किजील नासतना हांवें म्हज्या कामाची सोडचीट दिली.

दिल्ली सोडून खंय वचचें, कांयच थारावंक नाशिल्लें. कितें करचें, खबर नाशिल्लें. म्हजे सगळे बांदपास सुटिल्ले. नव्या बांदपासांनीं घुसपूंक नाशिल्लों. मन सामकें ल्हव जाल्लें.

अवचित् हिमालय येवजलो !

हांवें घरांत– गोदूक– विचाल्लें : ' हिमालयांत भोंवन येवंया ? ... '

लग्ना वेळार ' ॐ ऋतुभ्यः ' म्हुण आमी दोगांयनीं सोपून घेतिल्लो. ताणें जाप दिल्ली : ' या.... '

आठ-धा दिसां भितर सगळी तयारी केली. आनी एक दीस रातच्या धा-साडे-धांच्या अदमासाक मसुरी एक्स्प्रेसीन दिल्लीच्यान भायर सल्लों.

आमच्या दोगां भायर आमच्या वांगडा आनीक दोग जाण आशिल्ले एक, म्हजो धाकलो भाव देवेन्द्र. दुसरो, म्हजो इश्ट नरेश मंत्री.

त्यादिसा रामनम आशिल्ली. दिल्लींत मोटो उत्साव चलिल्लो.

गाडी येतनाच आकांताची भरून आयिल्ली. भितर कशें सरप, समज-नाशिल्लें. लोकांक धुकल्ले बगर, चिड्डिले-माड्डिले बगर भितर पावपाची आस्तूच नाशिल्ली. हमालान आमकां आमच्या सामाना वांगडा भितर धुकळून कशे घाले, ताकाच खबर! भितर पावतकूच सूः ऽ जालें. जावं, म्हळें, उबे रावंक मेळ्ळें हेंच नशीब आमचें. गाडी सुटूं दी. मागीर, दितलो आमकां कोणूय सुवातो करून बसपाक. नाय जाल्यार, स-सात वरांचीच वाट. फांत्या पारार हरिद्वार येवपाचें आसा. थंयच आमी देंवपाचें आसात. काडुंयेत तितलो वेळ उबो रावन. त्याभायर, भितर बशिल्ल्यांक सगळ्यांक हांव वळखतालों. अडचणींत रावन आयिल्लो लोक हो. दुसऱ्याची अडचण उणी करपाक आपले अडचणींत आपखोशयेन भर घालपी. तूं डब्यांत भितर सरता तेन्नाच तो तुज्या लागीं झगडटा. मागीर ना. मागीर तो तुजी वळख करून घेता. आपली वळख करून दिता. तूं परकी म्हणपाचें तो विसरता. तुका आपलो लेखता आनी केन्ना केन्ना आपल्या खिणयाळ्या सांगाताची सावळी तो तुज्या पुराय जिविताचेर पातळावन वता. सगळेकडेन म्हाका हो लोक मेळ्ळा.

गाडी सुटली आनी खऱ्यांनीच ह्या लोकांनी आमकां बसपाक सुवातो करून दिल्यो. गाडी धांवपाक लागली तशें म्हजें मनूय धांवपाक लागलें. 'हिमालयार वचून येवपाची म्हजी इत्सा कितल्या-श्याच वरसांनीं भागता' हें येवजून म्हाका परतें परतें भुल्लुसून आयिल्लेवरी जावपाक लागलें. हांवें म्हाकाच विचाल्लें: 'भुल्लुसून वचपासारकें हे भोंवडेंत कितें आसा?'

'करपाचें सगळें केलें, भोगपाचें सगळें भोगलें, आतां उरिल्ले दीस देव-देव करून सारचे' अशें दिसूंक लागतकूच खंय मनीस हिमालयांत वता. केन्ना केन्ना मनीस संवसाराचेर उबगता आनी 'पुरो जालें... आतां

या आमी हिमालयांत ' अशें म्हणून वता. ' करपाचें जायतें आशिल्लें, पुणून हातान कांय घडलें ना. भोगपाचें जायतें उरिल्लें, पुणून नशिबान भोगूंक दिलें ना ' अशेंय दिसतकूच खंय मनीस निर्शेता आनी मागीर ' आतां, हिमालयार या ' अशें म्हणपाक लागता. म्हज्या जिवितांत असलें कितेंच घडूंक नाशिल्लें. देव-देव करपाची इत्सा म्हाका आफडूंक पावूंक नाशिल्लीं. निर्शेणेच्या कुपांची सावळी मनाचेर पडूंक नाशिल्ली. पातकांचें ओजें तकलेर नाशिल्लें. देखून पुण्य जोडपाची वान्साय मनांत उदेवंक नाशिल्ली. वितरागाची, उबगणेची, तपाची, साधनेची कसलींच पिडा म्हाका बाबूंक नाशिल्ली. म्हजी पिराय ऐन उमेदिची. म्हाका ' हिमालयांत वचूंक जाय ' अशें दिसतालें तें वेगळयाच एका कारणाक लागून. थंयच्या रानांनीं भोंवंक जाय, थंयच्यो वाटो पांयांनी माड्डूंक जाय, थंयचे दोंगर चडूंक जाय, थंयच्या न्हंयां-कांठार बसून भोंवतणच्या सैमाची सुंदरकाय दोळे भरून तोखेवंक जाय, अशें म्हाका खोलायेन दिसतालें तेंय त्याच कारणाक लागून.पुणून तें खंयचें कारण जांवये हें म्हाका नितळ समजूंक नाशिल्लें. हिमालयाचे ओडिचो एक खोल संस्कार म्हज्यांत भुरगेपणा थावन पाळां-मुळां धरून बशिल्लो आसूंक जाय...

मदींच म्हाका दुबाव आयलो; ' हांव सपनांत बी ना मू ?... खऱ्यांनींच हांव हिमालयार वतां ?... ' हांवें म्हाका चिमटो काडलो. ना.. हांव सपनांत नाशिल्लों. जागो आशिल्लों.

केदो वेळ हांव येवजीत रावलों.

डब्यांत लोक कश्याय कसो बशिल्लो. हांव एक-एकल्याचें तोंड नियाळून पळोवपाक लागलों. हेरां गाडयांनीं दिसता तसलो ' कामा खातीर' भायर सरिल्लो लोक न्हय हो. हो तिर्थां करपाक भायर सल्ला. हांचें सामान पळे, समजता. ' म्हणटकूच, हे सगळे हरिद्वाराक देंवतले तर घडये ! हृषी-केशाकूय वतले. आमचे वरी हिमालयार वचपी हांच्यांत कोण आसत

व्हय ?...'

म्हजी गजाल वेगळी. म्हाका भोंवपाचें पिशें. देशाचे सेवेक जिवीत ओंपचें अशें थारायलें आनी व्हडल्या-व्हडल्या देस-भक्तांचीं उलोवपां आयकुपाक वचूं लागलों. सगळे एका ताळयान सांगताले : 'देशाची सेवा करतले जाल्यार, आदीं देशाक सारको वळखून घेयात.... देशाची वळख करून घेवपाक खूब भोंवात...' तरण्या-कंवळ्या मनाचेर ह्या उपदेशाचो परिणाम जालो. तेन्नाच्यान भोंवत आसां. थोडयोच सुवातो सोडीत जाल्यार ह्या देशांत सगळे कडेन पावलां. देशाची 'सेवा' म्हज्या हातान कितली घडली, देशाक खबर ! पुणून भोंवलों खूब आनी खूब भोंविल्ल्यान देशाचेर मोग करूंक शिकलों हातूंत दुबाव ना...

पुणून हो लोक कित्याक भोंवता काय ?...

म्हज्या मुखार एकली बायल मनीस बशिल्ली. पन्नासांचे पिरायेची आसूंक जाय ती. भेसा वयल्यान पंजाबीण दिसताली. म्हजी नदर परती-परती वचून तिचेर थारताली. तिचें तोंड पळेल्यार 'हिच्यो सगळ्यो ओडी सुटल्यात जावंक जाय' अशें दिसतालें. घोव गेलो जातलो बावडेचो. काय, तिचो एकलो-अपुर्बायेचो पूत बी गेलो ? बायल-मनशेच्या आयुश्यांतलीं सगळ्यांत व्हडलीं दुख्खां तीं हीं दोन. तींच हिच्या वांट्याक आयलीं काय ? आयुश्यांत हिणें कितें कितें भोगलां काय ? हिच्या तोंडार जी एके तरेची धादोसकाय उफेवन आयिल्ली दिसता ती हिणें दुख्खां भोगु-भोगून बी जोडूंक ना मू ?...जायत. दुख्खां येतात तीं तुका घडयतात. तुका वयर काडपाक तीं येतात. आपणाचेर एका-सारकीं संकश्टां धाडीत राव म्हुण कुन्तीन श्रीकृष्णालागीं बेश्टें मागूंक नाशिल्लें. संकश्टांचें आनी दुख्खांचें मोल तिका कळिल्लें.

नवें कितें जोडपा खातीर ही पंजाबीण यात्रा करता काय ?

येवजितां येवजितां म्हाका केन्ना दोळो लागलो, समजलेंच ना. मर्दीच

हांव लकलों आनी अवचित् बोवाळ कानार पडलो. सगळे आपापले सुवाते वयले उठिल्ले. फांतोड जाल्ली. गाडी हरिद्वाराक पाविल्ली. गाडयेंतलो अर्दो वयर लोक आमच्या वांगडा देंविल्लो.

भियेत भियेत गांवांत भितर सल्लों. कित्याक, काशी मथुरे इतलेंच हें थळ 'पवित्र' म्हणपाचें आयकल्लें. म्हणटकूच, काशी मथुरे भाशेन हांगाय, म्हळें, आमकां भिकारी, रोगी, मूस हांचो त्रास जातलो. घडये पंडे आनी साधूय आमकां बेजार करतले. म्हाका आनीक-एका संकश्टाची भिरांत दिशिल्ली. हांगा रावतलों खंय? धर्मसाळेंत? धर्मसाळ निवळ आसतली व्हय? आयज-वेर खंयचेच कडेन म्हाका निवळ धर्मसाळ पळोवंक मेळूंक ना. तिर्थां करपी आमच्या लोकाक वचत थंय घाण करून दवरपाची खोड. ज्या ज्या 'पवित्र' थळांत पावलां थंय-थंय म्हाका हे घाणिचो उपद्रव जाला. आनी मागीर म्हाका जिवार येवन हातांत सान्न घेवन भंग्याचें काम करचें पडलां. हें संकश्ट कशें चुकोवचें हें येवजीत टांग्यांत बसलों.

पुणून फोफसांनीं थंड– शितळ हवा गेली आनी मातसो दुबावांत पडलों. हांवें म्हाकाच विचाल्लें: 'भर गिमांत इतली सुंदर हवा?...' आनी हांवेंच म्हाका जाप दिली: 'हरिद्वार घडये हेर तिर्थां परस वेगळें आसुंये....'

टांगो एके धर्मसाळे मुखार येवन उबो रावलो. आमचे भितल्या एकल्यान वचून धर्मसाळेंत एकाद-दुकली रिकामी कूड आसा काय ना,

हाची वासपूस केली. चौगांक पाव-सारकी एक निवळ कुडूय आमकां मेळ्ळी. पुणून जें संकश्ट चुकोवंक सोदतालों तें मात चुकोवंक आयलें ना. आमकां हातांत सान्न घेवंचीच पडली. जावं, म्हळें, वर्ध्याक भंगी-कामाचें ट्रेनिंग घेतिल्लें तें हांगा उपकारा पडलें. हरशीं, आमचो लोक निवळ. अती निवळ म्हळ्यार जाता. न्हातलो दिसांतल्यान दोन खेपो, तीन खेपो. आयदनां घांसून घांसून चकचकीत करतलो. अन्न रांदता तें निवळ रांदतलो. कांय वरसां पयलीं तो कोणाच्याय हातचें खाय लेगीत नाशिल्लो. आतांय खूब कडेन इतलोच निवळ उल्ला. इतलेंय आसून— कितें म्हुण कोण जाणां, ताका आपल्या घरांतलें आंगण निवळ दवरूंक येना. ताच्या घरा मुखावयली वाट केन्नाच निवळ नासता. आंगा वयलीं लुगटां निवळ आसूंक जाय म्हणपाची देख ताका कोणेंच अजून दिवंक ना. मागीर, ताका पायखिळो निवळ दवरूंक जाय म्हुण कोण सांगतलो? कितल्या वरसां सावन हांव म्हणीत आयलां : साळेंत निवळसाण म्हुण एक खेरीत विशय भुरगेपणा सावन शिकयले बगर ह्या देशांतली घाण उणी जावपाची आस्त ना. गरज पडल्यार, निवळसाणेची एक वेंगळी ‘ मिनिस्ट्री ’ लेगीत आमी चलोवची ह्या मत्ताचो हांव. हरिद्वाराक पावना फुडें आमी सगळ्यांत पयलें भंगी काम केलें आनी हात-पांय धुवन थळ पळोवपाक भायर सल्लें.

हरिद्वारांत भिकारी आशिल्ले, रोगी आशिल्ले, साधूसंन्याशी आनी पंडे तर सुमारा भायर मेळ्ळे. पुणून मूस नाशिल्ले. मूस नाशिल्लें तीर्थ पळोवंक मेळप कठीण ह्या देशांत. दिसलें, हिमालय लागसार आशिल्ल्यान ताची पत राखल्या जातली, ह्या थळान. कोण म्हणपाक लागलो : ‘ साधूंक लागून हें तीर्थ निर्मळ उरूंक पावलां ’. जायत घडये. पुणून एक खरें. हांगासल्ली नगर-पालिका अदीक जागरूक आसूंक जाय. ह्याविशीं म्हाका दुबाव उल्लो ना. म्हाका हांगा एक वेगळेच तरेचें वाता

वरण मेळ्ळें. खंयच्याच हिन्दू तिथांत म्हाका तें आयजवेर मेळूंक नाशिल्लें. तिथांत जेवपा-खावपाच्यो व्हडल्यो-श्यो बऱ्यो सुवातो मेळ्ळ्यो नात जाल्यार उपकारता म्हाका. रावपा-करपा खातीर लेगीत बरी वेवस्ता नासल्यार जाता. पुणून तीर्थ म्हळें म्हणटकूच तें निवळ आसूंक जाय अशें म्हजें मत्त. आमच्या चित्ताक ताज्या सदच्या जंवजाळांतल्यान कडेक काडपी एक वेगळें वातावरण थंय आसूंक जाय. हरिद्वार म्हाका हे तरेचें एक निवळ तीर्थ दिसलें. सैमाचे नदरेन एके सुंदर सुवातेर तें वसलां.

हिमालया मुखार शिवालिक वा शिवलिंग पर्वतांची एक रांग आसा. हिमालयांतल्यान देंवपी न्हंयांक ह्याच पर्वतांनी वाटो करून दिल्यात. हिमालयाचे व्हडविकेन दिपून गेल्लो मनीस जायत्यो खेपो शिवलिंग पर्वतांक विसरता. इतलेंच न्हय, तर तांकां हिमालय मानून तांचेर थोडो भोव अन्यायूय करता. हिमालयाकडेन बरफाची गिरेस्तकाय आसत. पुणून शिवलिंग पर्वतांकडेन कुचकुचीत रानांची गिरेस्तकाय भल्या. तोला-मोलान ती ल्हाना-समानांतली न्हय. हिमालय उंचायेन शिवलिंगां परस व्हडलो आसत. पुणून पिरायेन कालचो पयरचो पोर तो ! शिवलिंग ताचे परस खूब जाणटो. कोटींनीं वरसां आदीं धर्तरेचे फाटीर पयल्या-वयल्या जिवांचो जो इतिहास सुरू जालो ताच्यो कितल्यो-श्योच खबरी शिवलिंग पर्वतांकडल्यानूच आयकूंक मेळटात. हिमालय आनी शिवलिंग, दोगांयच्यो बांदावळी लेगीत वेगळ्यो.

ह्या शिवलिंग पर्वतांचे सायेंत हरिद्वार वसलां.

आमी तांबयो-तुवालो बी घेवनूच भायर सरिल्ले. धर्मसाळेंतल्यान चलत चलत मुखार वतकूच आमकां एक पायण मेळ्ळी. हे पायणींत दोशीं वशिंनीं तरेतरेचे मांड आशिल्ले. पिडडुको, कुकूम, आयदनां, लुगटां, पुस्तकां, पांयजेलां—सगळें हांगा मेळटा. चलत चलत मुखार गेले आनी अवचित उजव्या हाताक एक उकती सुवात मेळ्ळी.

आनी दोन फांट्यांनीं वेगान धांवपी गंगा आमकां दिश्टी पडली.

तिगेल्या दोनूय फांटयांक वेगळावपी काश्मिर-पाशाणाचो प्लॅटफॉर्मा-सारको थंय एक घाट आसा. घाटार मदीं एक ऊंच खांबो आसा. ताचेर विजेन चलपी एक घडयाळ आसा. घाटा आलतडीं कांय देवळां आसात. देवळां लागसार घाटार वचपी एक सांकोव आसा. हरिद्वारांतलें पळोवपा सारकें मुखेल थळ तें हें. ' हरिकी पैडी ' नांव ताचें.

आमी सपणां देंवन सांकवा वयल्यान घाटार गेले. आनी चोंय वशिंनीं नदर भोंवडावन थळाची सोबा नियाळपाक लागले. नदर उत्तरे दिकेन धांवली. न्हंयेच्या दोनूय तडीं वयले शिवलिंग पर्वत ताचे आदींच घांवत वचून मुखार तिश्टत बशिल्ले. मळबाच्या निळ्या आवाठांत भरसून गेल्लीं शिवलिंग पर्वतांचीं तेमकां पळेलीं आनी हरिद्वाराक गंगाद्वार कित्याक म्हणटात तें म्हाका समजलें. म्हा-देवाच्या जटां वरी आळखे-विळखे आशिल्ल्या हिमालयांतल्या लाखांनीं पर्वतां मदीं घुसपल्ली गंगा वाट काडीत सकल देंवता तेन्ना तिका पयलें मेकळें मळ मेळटा तें हांगाच. पुराणांत गंगावतरणाचें जें वर्णन वाचिल्लें तें हांगासल्ल्या भूंयगोलाक चिप्प लागू जातालें.

देवळा म्हऱ्यांतल्यान गंगेचो जो फांटो व्हांवता ताका ' ब्रह्मकुंड ' म्हणटात. जायते जाण ह्या कुंडांत न्हावपाक देंविल्ले. आमीय देंवले. उदकाक आकांताचो वेग आशिल्लो. तरी बरें, घाटाक लोखणाच्यो कांय सरपळ्यो लायल्यात म्हुण. ह्या सरपळ्यांक धरून न्हंयेंत देंविल्ल्यान माणसुकी उल्ली. ना जाल्यार, व्हांवन वचपाचे. एक-दोन बुचकळ्यो मारिनाफुडें रातच्या जागरणाचो सगळो शीण खिणांत ना जालो. थंड किरांव उदक आंग सुखावंक लागलें. नुसत्यांनीं आमच्या आंगावयलो कोयर काडलो. हांव हांगासल्ले हवेचेर आदींच भाळिल्लों. आतां उदकाचेरूय भाळ्ळों.

कुंडांत दादले-बायलो, तरणे-जाणटे सगळे एकठांय न्हाताले. कोणाकूच कसलीच भीड मुरवत दिसनाशिल्ली. कोणूच आंगां लिपोवपाचो वा धांपपाचो यत्न करिनाशिल्लो. तरणेपणाची लज हांगा नाशिल्ली. कोणूच कोणाच्या आंगाकडेन वांकडे नदरेन पळेनाशिल्लो. ब्रह्मकुंडांत आमच्यो कुडीच फकत न्हाताल्यो अशें न्हय, आमचीं मनांय न्हातालीं. उदकाक सादें उदक मानपी फातराळ संस्कारा पेल्यान सगळे गेल्ले आनी एके तरेचे भक्तीन ते हें उदक आंगार घेताले. ह्या उदकाकडेन आमच्या मनांचोय योग जुळिल्लो. देखून आमच्या मनांतलो म्हेळूय हांगा आमच्या कुडिच्या म्हेळा वांगडा धुवन वतालो. दोळ्यांक दिश्टी पडना असलें एक चैतन्य हो अख्खो संवसार आसपावन रावलां. ताणें आमच्या चित्ताक हांगा आपले मायेचो हात लायिल्लो. देव जोडपाक चित्त खंय निर्मळ आसूंक जाय. तशें जाल्यार, हांवें म्हळें, चित्त निर्मळ करपाक हे तरेचें न्हाण जाय ....

न्हावन वयर सल्लों तेन्ना म्हजें मन लेगीत तरतरीत जाल्लें. घडयाळिच्या खांब्या लागसार एक बरी सुवात वेंचून काडली आनी थंय वचून बसलों. दोळे धांपून ध्यान करपाच्या ‘ मुडां ’त आयिल्लों. पुणून दोळे धांपना जाले. ब्रह्मकुंडांत न्हातल्या लोकांकडेन ते पळेत रावले.

हांव चिंतूंक लागलों :

आमचे पूर्वज केदे व्हडले समाज-शास्त्री आशिल्ले ! तांणीं हो देस पुराय भोंवन पळेल्लो आसूंक जाय. तांकां हांगा धवे कातिचे आनी निळया दोळ्यांचे लोक दिश्टी पडले तशे काळे कातिचे आनी मुदयाळ्या

साचे, त्या भायर, चिनी-जपानी लोकांवरी दिसपीय लोक दिश्टी पडले जावंक जाय. संवसारांतल्यो सगळ्यो मनीस-कुळयो तांणीं हांगा पळेल्यो तश्यो संवसारांतल्यो सगळ्यो संस्कृतायोय हांगा येवन राविल्ल्यो पळेल्यो. देवान आपली अपरुपांची भौ-रुपाय हांगा कित्या खातीर निर्माण केल्या काय, असो प्रस्न तांकां पडलो जावंक जाय. ' असलो भौ-वंशी, भौ-धर्मी देस संवसारांत दुसरे कडेन आसा काय ' ह्या प्रस्नाची जाप तांकां ' ना ' म्हुण मेळ्ळी आसतली आनीं मागीर तांकां ह्या देशाकडल्यान देव कसलेंय तरी व्हडलें कार्य करून घेवंक सोदता अशें खोलायेन दिसलें जातलें. तांणीं थारायलें जावंक जाय : ह्या देशाची भौ-रुपाय सांबाळून ताका एक दवरूंक जाय. सगळ्यांच्या आगळेपणाक मान्यताय आनी पोसवण दिवन सगळ्यांच्या काळजांक एका-मेकांचो पीळ पडूंक जाय. कितें करुंया? तांणीं एक समाज-धर्म रचलो आनी ह्या देशांत रावतल्या सगळ्यांक एक नेम घाल्न दिलो :

' चलत रावात. म्हणटकूच तुमचें भाग्यूय चलतलें. आनी तुमच्या वांगडा तुमच्या देशाचेंय भाग्य चलतलें. बसून रावशात जाल्यार, तुमचें भाग्यूय बसून रावतलें. '

तांणीं म्हळें : ' उदकाक पळेलां मू? तें व्हांवत रावता देखून निर्मळ उरता. तें व्हांवपाचें सोडून दीत जाल्यार, कुसतलें. तातूंत किडे पडटले. उदकान व्हांवत रावंक जाय तशें मनशान चलत रावंक जाय. '

ह्या नेमाक धरून आदले मुस्तींत लोक शिकपाक लेगीत आपलो गांव सोडून पयस वताले. अयोध्येंत वसिष्टा सारको रुशी आशिल्लो. पुणून दशरथान रामाक पयस विश्वामित्रागेर शिकपाक धाडिल्लो. कृष्ण मथुरा सोडून उज्जयनींतल्या सांदीपनिच्या आस्रमांत शिकपाक रावलो. पाटलीपुत्रांच्या राजकुंवरांक नालंदा लागीं. पुणून ते पंजाबचे शिमे वयले तक्षशिलेंत वचून शिकले. हे भाशेन, पयस वचून शिकचें आनी शिकप

सोंपतकूच घरा परतुचे; पयलीं ऊराय देशांत भोंवचें, वेगळ्या वेगळ्य थळांनीं वचचें, थंयच्या संस्कृतायेच्या केंद्रांनीं वचून रावचें. सत्पुरसांच्य सांगातांत रावन जिविताच्या प्रस्नांचेर येवजुचें.

उपरांतूच तांकां लग्न जावंक मेळटालें.

लग्न जाल्ल्या मनशाक लेगीत वेगळ्यो यात्रा सांगिल्ल्यो. तो संद मेळनाफुडें उरूटालो. भायर सरतालो. केन्ना ‘ त्रिस्थलि ’ची यात्रा करतालो. प्रयाग, काशी आनी गया ह्या तीन थळांनीं भोंवन येतालो. केन्ना ‘ चार धामां ’ची यात्रा करतालो. काशीक वतालो. थंयचें गंगेचें उदक चेंबवांत भरून घेतालो. तें रामेश्वराक व्हरून समुद्राक ओंततालो. थंयची रेंव घेतालो. हरिद्वाराक हाडून ती गंगेक ओंततालो. अस्तंते दिकेक द्वारका. उदेंतेक जगन्नाथपुरी. उत्तरेक ज्योतिर्मठ आनी बद्रीकाश्रम आनी दक्षिणेक रामेश्वर– हे भाशेन, भारत-देशाच्या चारूय तोंकांनी तो भोंवन येतालो. दीसपट्टया जिवितांतलीं तींच तींच तोंडां पळोवन, तींच तींच कामां करून उबगल्लें ताचें मन यात्रेक भायर सल्लें म्हणटकूच नवे नवे अणभव घेवपाक कंवळें जातालें. वेगळ्यो वेगळ्यो सुवातो पळेल्यो, वेगळ्यो वेगळ्यो भासो आयकल्यो, वेगळ्यो वेगळ्यो चालि-रिती पळेल्यो म्हणटकूच तो मनान उदार आनी कुडीन सोंशीक जावंक पावतालो. त्रास काडपाची आनी कश्ट सोंसपाची ताका संवय जाताली. ताच्यो खोडी ना जातात्यो.

यात्रेची आनीक एक तरा आशिल्ली. तिका ‘ परिक्रमा ’ म्हणटाले. म्हळ्यार, मनीस एक मोटी न्हंय वेंचून काडटालो. तिच्या मुखा कडेन येतालो. न्हंयेक उजव्या हाताक घालतालो आनी चलत चलत तिच्या मुळा मेरेन वतालो. मुळा कडेन पावतकूच तिका परतीय उजव्या हाताक घालतालो आनी आशिल्लो तसो तिच्या मुखाकडेन येतालो. चड-शी यात्रा ताणें पांयांनींच करची.

हे तरेच्या नेमांक लागून हो देस संस्कृतायेचे नदरेन एक जावंक पावलो.

ह्या नेमांक अजुनूय लोक पाळो दितात. देखून ह्या देशाची संस्कृताय अजून मेरेन एक उल्ल्या.

हांव घांटार बसून ह्या पोरण्या नेमाक नवें रूप कशें दिवचें हें येवजूंक लागलों. मत्सरी राजकर्णाक लागून विस्कळ जाल्ली आनी दुबळी पडिल्ली आमची राष्ट्रींक जीण पर्थून एका धाग्यांत कशी गुथून काडची हाचेर उपाय सोदूंक लागलों. म्हज्या दोळ्यां मुखार कांय देखाव उबे रावले : गोंय पुर्तुगेजांच्या शेकातळांतलें मेकळें-शें जालां आनी गोंयच्या तरण्या-धाकटया हिन्दू, क्रिरिस्तांव, मोयर भुरग्यांक घेवन हांव भारताचे भोंवडेक-सोभायर सल्लां... आमचे भुरगे कॉलेजांतलें शिकप सोंपना फुडें एका वरसाची-शी मेकळीक घेतात आनी देशांत सगळे कडेन-शे भोंवतात.... असलें कितें कितें म्हाका दिश्टी पडपाक लागलें.

आमचे मजगतच्या एकल्यान म्हाका उलो मारूंक नाशिल्लो जाल्यार घडये ह्या दिसा-सपनांनीं थंय आनिकूय थोडो वेळ बसून रावतलों आशिल्लों.

आमी धर्मसाळेंत परतले. जमखानां पातळावन तांचेर आड पडले. कुडिचें जनेल उकतें दवल्लेलें. जनेलांतल्यान एक दोंगर 'यो...यो... करून आपोवपाक लागलो. दोंगराक नांव आशिल्लें नीलपर्वत. दोंगरावयर एक देवूळ आशिल्लें : मनसा नांवाचे एके देवतेचें. नरेश मंत्रीन म्हळें: 'वेळ आसा...अशें हांगा आड पडून रावचे परस देवतेची भेट घेवन येवंया...' आमी धर्मसाळेंतल्यान भायर सल्ले. दोंगर चडपाक लागले. चडूटें वोत आशिल्लें. मैलभर चडपाक सारकें वर लागलें. वयर देवतेची भेट घेवन देवळांतल्यान भायर आयले. मुखार पळे, जाल्यार सगळेकडेन सैमाचें पांचवें राज्य पातळ्ळेलें दिश्टी पडलें. म्हजे दोळे हरिद्वारांतल्या वाऱ्यावरी हेवाटेन-तेवाटेन धांवपाक लागले. अवचित् गंगा दिश्टी पडली. कानांत वारो वतकूच जशें गायचें पाडूक धांवूंक लागता तशी गंगा खोशयेच्या उमाळ्यांनीं उडयो मारीत धांवताली. हिमालयांत घुसपल्ली ती

निकतीच मेकळ्या मळार पाविल्ली. आपले वरीच हिमालयांत घुसपल्ले आपले भयणिचें- यमुनेचें- कितें जालें हें जाणा जावपाक, तिका आपल्यो खबरी सांगपाक आनी तिची कथा आयकुपाक तीं प्रयागचे दिकेन ताकति-केन धांवत सुटिल्ली...

कांय थळांनीं पळोवपा सारकें कांय नासता. पुणून आदल्या काळार थंय कितेंय घडिल्लें आसता. ताका लागून त्या थळांक व्हडपण येता. ह्या व्हडपणाचे ओडीन आमी थंय वतात आनी मागीर दोळे थळ पळेत रावले तरूय मन तांच्या वांगडा थंय नासता. तें आदल्या काळांत भोंवंक वता.

मथुरेक हांव जायते खेपो पावलां. पाविल्ले खेपे श्रीकृष्णाचेंच जिवीत म्हज्या दोळ्यां मुखार उबें रावलां. दुसरें म्हाका कितेंच दिश्टी पडूंक ना.

हरिद्वाराकूय असली एक सुवात म्हाका मेळ्ळी. कनखल नांवाची. मोडक्या वणटिंचें एक पोरणें देवूळ; पिंपळ, बेल, रूमड असले कांय रूख. हांच्या पेल्यान थंय कितेंच नाशिल्लें. पुणून दनपारच्या कडार थंय पावलों तेन्ना म्हज्या दोळ्यांमुखार सत्य-युगांतलो दक्ष प्रजापतीउबो रावलो.

दक्षाच्या हातांत सत्या आयिल्ली. तिका लागून तो मदांध जाल्लो. ताणें एक याग केलो. यागाक ताणें सगळ्या देवांक आपापल्या बायलां सयत आपयले. आपयलो ना फकत म्हादेवाक. म्हादेव ताचो जांवंय. पुणून तो ताका माननाशिल्लो. कित्याक, म्हादेव गरीब आशिल्लो.

यागाची खबर सतीक कळ्ळी. सती दक्षाची धूव. तिणें घोवाक—म्हादेवाक-सांगलें: 'येदो व्हडलो याग चल्ला थंय. आमी वचनासतना रावप समा न्हय!'

म्हादेव म्हणूंक लागलो : ‘ आपयनासतना कशें वचप ?…ताणें सगळ्यांक आपयल्यात. फकत आमकां आपोवंक नात….’ सतीन म्हळें : ‘ जायते खेपो लागिच्यांक मनीन विसरता. तशें जालां जातलें. ’ तिणें घोवाक जायतो समजायलो. पुणून बायलांच्या मनांतली कुळारची ओड ताका कळूं नाका ? सती एकलीच आपयनासतना वचपाक भायर सल्ली. घोवान सांगलें : ‘ पळे, तुजो थंय अवमान जालो जाल्यार, हांव ओगी रावपाचों ना…आं ! ’

सती कुळारा पाव जाल्यार, येवकार दिवपाक फकत आवय मुखार. बापायन तिचो, तिच्या घोवाचो, घोवाच्या इश्टांचो, सांगात्यांचो, सगळ्यांचो कित्याय कितें उलोवन अवमान केलो. सती खंती जाली अवमान सोंसना जावन रडली. घोव आतां तापतलो. तो भोळो जावं, पुणून तापत जाल्यार कितें करीत सांगूं नज हें येवजून ती भियेली. आनी कुळारचें नाशें आपल्या दोळ्यांनीं पळोवचें न्हय अशें येवजून तिणें यागांत उडी घेतली.

सतीन यागांत उडी घेवन जीव दिलो म्हणपाची खबर म्हादेवाक कळ्ळ्या मात् , ताच्या रागान पेट घेतलो. म्हादेवाचो राग तो. सगळें नानपश्चात् करून उडोवपी. ताणें वीरभद्राक उलो माल्लो आनी दक्षागेर वचून ताच्या यागाचीं दानाधिस्पट करून उडयलीं.

म्हज्या दोळ्यांमुखार म्हादेवा नाचाचो देखाव उबो रावलो. आनी म्हाका थरथरो भल्लो. म्हाका सदांच एक प्रस्न पडला. तो परतोय हांगा पडलो. म्हळें, म्हादेव म्हळ्यार ‘ शिव ’ बरें करपी. कल्याण करपी. मागीर तो इतलो रागीट कसो ? तो संव्हार कित्याक करता ? नवें कितेंय रचतलो जाल्यार, पोरणें खूब-शें मोडूंक जाय खरें. पुणून कल्याण करपा-कूय संव्हार जाय ? जिवितांत हांवें पळेलां : जातूंत लुसकान जाल्लेवरी म्हाका दिसलां आनी देखून हांव खंती जालां, दुख्खी जालां, तें निमाणें म्हज्या बऱ्याक पडलां. ताणें म्हजें कल्याणूच केलां. ह्याच अणभवाक

कवींनीं शिवाचें रूप दिलां काय ?

कनखलाक कितले-शेच साधू दिश्टी पडले. दक्षाच्या यागाची दाना-धिस्पट करपा खातीर वीरभद्रा वांगडा आयिल्ले म्हादेवाचे गण अजुनूय हांगा उल्ल्यात काय कितें, असो एक दुबाव म्हजे तकलेंत आयलो. हांव मातसो काचाबुळ्य जालों.

कनखलच्यान गुरुकुलाक आयले. स्वामी श्रद्धानंदाचें थळ हें. आर्य-समाजा:फाटल्यान दयानंदापसून श्रद्धानन्दा मेरेनच्या कितल्याश्याच तेजिश्ट लोकांच्या बलिदानाची एक पाथावळ आसा. देखून तांगेल्यो संस्थाय सदांच प्राणवान संस्था उल्ल्यात. जो काळजांत भितर पेटिल्लो आसता ताच्याच जिवितांत दुसऱ्याक वाट दाखोवपी उजवाड दिश्टी पडटा. आर्य-समाजा कडल्यान ह्या देशाक एके तरेचो उजवाड मेळ्ळा.

पुणून ह्या लोकांक ‘ वादांत दुसऱ्याक उडोवप सोंपें, पुणून वाद जिखप कठीण ’ हें केन्नाच सारकें समजलें ना. ते कुस्ती खेळूंक उबे राविल्लेवरी वादाक उबे रावतात. ‘ हें म्हजें म्हणणें... एक तर मोन्यांनीं मानून घे. नाजाल्यार, तें खोडून काड ’ असो हट्ट घेतात. दुसऱ्याक अक्कल ना अशें धरतात, ताका तिडायतात. दुखयतात. आनी गरज नासतना एक नवो दुस्मान निर्माण करून दवरतात. ‘ आपुण हट्टान वादाक पेटलों जाल्यार दुसरोय आपलो हट्ट सोडचो ना ’ हें हांचे तकलेंत केन्ना रिगच ना. तें रिगिल्लें जाल्यार ते आपलें म्हणणें दुसऱ्याक विसकावन सांगतले आशिल्ले आनी आपणें सगळें बारकायेन समजावन सांगलें अशें दिसनाफुडें वाद बंद करतले आशिल्ले. खरें म्हळ्यार, वादा उपरांत मनशाक एकान्त मेळटा तेन्नाच तो दुसऱ्याचें म्हणणें समजून घेवपाचो यत्न करता. आमकां फकत आमचें म्हणणें समजावन सांगपाची संद मेळटकूच जाली. जाका आमी आमचें म्हणणें ‘ पटोवन दिवप ’ म्हणटात तें वाद सोंपल्या उपरांत मनीस जेन्ना एकलो, एकसुरो उरता आनी आपणा लागीं—

आपल्या आत्म्याकडेन उलोवंक लागता तेन्नाच घडून येता. आर्यसमाजी लोकांक इतलें हें समजल्लें जाल्यार, तांचे हस्तुकीं ह्या देशांत केदे व्हडले बदल घडून येतले आशिल्ले, केदी क्रांती ते करूंक पावतले आशिल्ले अशें म्हाका हांगा दिसपाक लागलें आनी तशें अजून जावंक पावूंक हें येवजून मातसो विरुस जालों.

गुरुकूल पळेतां पळेतां तीन-सांज जाली. आमकां ‘ हरिकी पैडी ’र वचपाची ताकतींक लागली. जायत्या जाणांनीं आमकां सांगिल्लें : ‘ कितेंय करात, पुणून हरिकी पैडी वयल्यो तीन-सांजच्यो आरत्यो मात् चुकोवं नाकात. ’ आमी ताकतिकेन आमचो टांगो धांवडावंक लायलो.

‘ आमोरेचो वेळ. उजवाड सोंपला. काळोख अजून सुरू जावंक ना. घाटा वयलें वातावरण सामकें बदललां. सगळे कडेन फुलां आनी तुळशिचीं पानां शिंपडल्यांत. देवळांतले सारको घमघम पुराय घाटार पातळ्ळा. हजारांनीं लोक जमला. जण एकल्याच्या हातांत फुलांचो एक एक दोणो आसा आनी जण एकल्याच्या दोण्यांत एक ल्हान-शी वात. इतल्यांत, टींग-टांग....टींग-टांग करून देवळांतल्यो घांटी वाजपाक लागतात. देवळां मुखावेल्या घाटार तीन-चौग पुरयत येवन उबे रावतात आनी पन्नास–पन्नास काय पाऊणशीं–पाऊणशीं वातिंच्यो आरती हातांत घेवन त्यो गंगेक दाखोवपाक लागतात. मनशाच्या हातान घडयल्ली मुर्त न्हय अश्या सैमाच्या एका रुपाक हिन्दू आरती दाखयता ती, म्हाका दिसता, फकत हांगाच. टींग-टांग, टींग-टांग घांटी वाजूंक लागतात आनी हे वाटेन घाटा-वयलो लोक आपापल्या दोण्यांतल्यो वाती पेटोवन दोणे गंगेक ओंपतात.

घांटिंच्या तालार हे दोणे नाचत नाचत मुखार वतात. आनी त्या वेळार—

“ जय जगदीश हरे ।

भक्त जनोंका संकट छिन में दूर करे । जय जगदीश हरे ।...”

अशे सगळ्यांच्या ताळ्यांतल्यान आर्त सूर भायर सरतात. कोणाक सारकें म्हणूंक येना. कोणाक ताळो ना. पुणून हें भजन फकत ताळ्यांतल्यान न्हय, काळजांतल्यान येता. जण एकल्याक पुराय खातरी : तो ‘ जगदीश ’ आपलीं सगळीं अरिश्टां खिणांत पयस करतलो म्हणपाची. देखून जण एकलो ‘ जगदीश हरे ’क आपणाल्या सुख-दुख्खांच्या स्वास-उस्वासां-वांगडा उलो मारता. कोणाचो पूत गेला. कोणाचो घोव गेला. कोणाक घोवान सोडल्या. कोणाचो व्यापार बुडला. कोणालो कोण हातुळणार पडला; उबोच राविना...कोण संवसाराचेरूच उबगला. जण एकल्याच्या जिवितांत संकश्टां आयल्यांत. त्या संकश्टांनीं ताका नाका-पुरो जाला. पुणून तो जाणां. तो जगदीश हीं संकश्टां ना करतलो. खिणांत पयस करतलो. तो गंगेंत जगदीशाक पळेता आनी तिका आपलीं सगळीं दुख्खां सांगता. तिचे कडल्यान धिराचें उतर मेळटलें म्हुण गायता. तिका होरायता, आळयता.

भुग्यान येवन आवयक कितें कितें घडलें तें सगळें सांगचें तसो कितें-सो हो देखाव दिसता. आमच्या शिरंत्रांनीं एक लेगीत थेंब हिन्दू रगताचो घोळटा जायत जाल्यार, हो देखाव पळोवन आमकां पांच हजार वरसांच्या आमच्या दायजाचो हांगा उगडास जावंकूच जाय आनी आमचें काळीज भक्तीन उचांबळून येवंकूच जाय.

हांव जाणां : हेर तिर्थांनी चलतात तशीं हरिद्वारांतूय सगळे तरेचीं फटिंगपणां चलतात. सगळ्यांत चड फटिंगपणां हिन्दुधर्माचो मक्तो घेवन बशिल्ले भटूच करतात. पंडे-बामणूच करतात. भावार्तान आमी हांगा येतात आनी ‘ असो कितें टूरिस्ट कसो भोंवतालों ?...करुंया कसलेय

एक विधी ' अशें आमकां दिसपाक लागता. आमी श्राद्ध जावं पुजा, सुफल वा असलेंच कितेंय करपाक भायर सरतात आनी जिस्त फटिंगांच्या दावकुळांत पडटात. चड-शे पंडे अन्नाडी आसतात. कांय पंडे उरफाटया काळजाचेय आसतात. ते आमकां सारको नाडटात. खंयचो आपुण हांच्या पासांत घुसपलों अशें आमकां जाता आनी आमी भितल्ले भितर जळटात, फणफणटात.

म्हाका जायते खेपे दिसलां : ' हिन्दू धर्म असल्यांच्याच हातांत उरपाचो आसत जाल्यार तो जाता तितले बेगीन ना जाल्लो बरो...' केन्ना केन्ना जाल्यार ' होच हिन्दू धर्म आसत जाल्यार सगळ्या हिन्दूंक बाटोवन मुसलमान वा किरिस्तांव करूंक जाय ' अशीय तिडक म्हाका माल्ल्या.

पुणून त्या दिसा हरिद्वाराक तीन-सांजची आरत पळेल्या उपरांत हिन्दू धर्माकडेन पळोवपाची म्हजी नदरूच बदल्ली. सपनांत लेगीत येवजूंक नाशिल्ल्यो गजाली त्या दिसा अकस्मात येवजूंक लागल्यो. हांव पिश्यावरी म्हज्या म्हाकाच म्हणपाक लागलों : फॅर्रांद लुगटां मनशान कित्याक न्हेसूंक जाय? हांव फायच्यान सादें पुडवें न्हेसतलें. वयर खोमीस-जुदी कित्याक जाय? हांव फायच्यान सादो वालोच पांगुरतलों. जोतें कित्याक जाय? पांयांनींच भोंवतलों. हांव नुसतें सोडपाचें येवजूंक लागलों. हांगासल्लें वारेंच तसलें. हांगा कोण कोणाक वळखना. पुणून आरत्यां वेळार सगळे अनवळखी एकामेकांचे वळखिचे जातात. बिहारी, पंजाबी, आसामी, मल्याळी, बंगाली, गुजराती—कसलेच वेगळेचार आमचे मजगतीं उरनात. सगळे एका घरांतले जाल्लेवरी एका-मेकां वांगडा चलपाक लागतात. आमचे मजगतचे सगळे पड्डे पयस जातात. तें कित्याक, म्हाका जाल्यार सगळ्यांचे सुख-दुख्खांचे उस्वास म्हजेच करो दिसपाक लागले. आनी हांवूय टींग-टांग, टींग-टांग घांटिच्या ताळार घोळूंक लागलों. म्हज्याय काळजांतल्यान एक आर्त सूर वयर सल्लो. आनी हेरांच्या सुरांत सूर

मेळोवन हांव म्हणपाक लागलों : दीन-बंधु दुख हरता, ठाकुर तुम मेरे। अपने हाथ उठाओ, द्वार परो तेरे। जय जगदीश हरे। .... '

हांवें गंगेक पळेली. तीय आमच्या वांगडा गायताली. अचळय नदर मळबार गेली—

नखेत्रां चक्कासूर जावन हो देखाव पळेतालीं आनी आमच्या सुरांत आपलोय सूर भरसून गायतालीं.

हरिद्वाराच्या तीन आंगांचेर हांव भाळ्ळों. एक, थंयची हवा. दुसरें, उदक आनी तिसरें, तीन-सांजच्या आरत्यां वेळा वयलें वातावरण.

ताचें चवथेंय एक भाळोवपी आंग आसा म्हणटात. ब्राह्म्म्हुर्तार खंय हरिकी पैडीर वचून बसचें. वेगळेच तरेचे भक्त खंय त्या वेळार थंय ध्यानाक येवन बशिल्ले पळोवंक मेळटात. हांची मोनी भेट घेतले बगर आमचें पावल मुखार कशें पडटलें आशिल्लें ?

पुणून नरेश मंत्री म्हणपाक लागलो : ' असो तूं वाटेरूच घुसपून उल्लो जाल्यार हिमालयार केन्ना पावतलो ?... तूं म्हणटा तसले भक्त आमकां हिमालयांतूय पळोवंक मेळटले... एका दिसा वयर रावप ना आमी हांगा... '

हांव ओगी रावलों. मनांत म्हळें : ' खरें तुजें. ' आनी हांवें थारायलें : ' ह्या मुखार दिल्लीक पावतलों तितलेय खेपो हरिद्वाराक फावट मारून येतलों. आनी दर खेपे हांगासल्ल्या वाय-उदकान कूड आनी वातावरणान मन निर्मळ करून घेतल्या उपरांतूच गोंयां परततलों... ब्राह्म-म्हुर्ता-

वयल्या भक्तांची भेट त्याच वेळार घेवंया... ’

आमी हरिद्वाराक एकूच दीस रावन हृषीकेशाक वचपाक भायर सल्ले. हरिद्वारा साकून हृषीकेश तेरा चवदा मैलांचे वाटेर आसा. पणजे-आगशी वाटे वरी हरिद्वारच्यान हृषीकेशाक ‘ सवाऱ्यो ’ घेवन टॅक्स्यो धांवतात.

हरिद्वाराचे उत्तरे दिकेक शाल-रुखांच्या एका सुंदर रानांतल्यान एक नाग-मोडी वाट वता. ती आमकां हृषीकेशाक अर्द-पाऊणवरांत व्हरून पाववयता. शाल-रुखांची सोबा हांवें पयली हांगाच बळेली. ते शेकानशेक ऊंच वाडटात तेन्ना मळबाक तेंकतले काय कितें अशे दिसतात. तांच्या पानांचो रंग पांचवो आनी हळडुवो हांचे मदलो. सुर्यांचीं किरणां पानांचेर पडलीं म्हणटकूच रुखाक जी कान्त मारता ती बद्द राजासारकी. असले शेंकड्यांनी रूख एकाच वांगडा उबे हांगा पळोवंक मेळ्ळे.

एका काळार हांगा वाटूच नाशिल्ली. हें सगळें निखटें रानूच आशिल्लें. वाग-शिंवां भायर हांगा कोण राविनाशिल्ले. सगळ्यांत पयलीं ह्या रानांतल्यान वाट काडली कंद-मुळांचेर जियेवपी साधूंनी. तांकां तपा खातीर मनीस नाशिल्लें थळ जाय आशिल्लें. तांकां हृषीकेश मानवलें. ते हांगा येवन ल्हान ल्हान खोंपी बांदून रावले. तांकां लागून ह्या थळाची नामना वाडली. तांच्या फाटल्यान लोकिकाचो हावेस आशिल्ले साधू येवन रावले. तांचे भोंवतणी कांय शिश्य एकठांय जाले. शिश्यांचो आंकडो वाडटकूच तांच्या राबित्या खातीर धर्मसाळो वयर सरपाक लागल्यो. भुरावळ वाडली. देखून बाजार आयलो. उपरांत इंग्लेजांनीं आगगाडी हाडली. आतां, स्वराज्यांत कांय

कारखानेय चलपाक लागल्यात. हृषीकेशाक आतां इल्ली इल्ली शाराची स्य
मारपाक लागल्या.

तरी आसतना अजून हांगा ' कलियुग ' चलूंक लागूंक ना. हृषीकेशाच्य
वातावरणांत अजुनूय ताचे आदले व्हडविकेचें खूबरें उल्लां. वेदांताचे
अभ्यास करतले जाल्यार, हांगा जितली वेवस्ता आसा तितली, म्हाक
दिसता, काशी सोडून आनी खंयच आसची ना. गंगेच्या किनाऱ्या
कितल्यो-श्योच ल्हान ल्हान खोंपी दिश्टी पडटात. तातूंत कसले कसं
आनी केदे केदे व्हडले साधू रावतात जातले, सांगूं नज.

श्रीरामकृष्ण परमहंसांच्या निर्वाणा उपरांत स्वामी विवेकानन्द उत्त
भारताचे भोंवडेर गेल्ले. वाटेर एक दीस ते गाझीपूर नांवाच्या एका गांवां
पावले. थंय तांकां पव्हारीबाबा नांवाच्या एका संताची खबर कळ्ळी. एक
भुंयारांत रावन ते तप करतात, कांय खायनात, फकत वारोच खावन रावता
( ' पवन-आहारी ' देखून ' पव्हारी ' ) असल्यो जायत्यो खबरी विवेकानन्दांन
आयकल्ल्यो आनी ते पव्हारी-बाबांचे भेटेक गेले. खासा विवेकानन्दांनी
सांगलां : आपणाचेर श्रीरामकृष्णां उपरांत कोणाचोय परिणाम जाल्लो आस
जाल्यार, तो पव्हारी बाबांचो म्हुण...

एक दीस ह्या पव्हारीबाबांच्या भुंयारांत एक चोर आयलो. ताणें जें कि
मेळ्ळें तें सगळें एकठांय करून ताची पोटली बांदली आनी आतां पोटल
खांदाक मारून तो पळटलो म्हणपाक – पव्हारीबाबांचेर ताची नदर पडल

चोराक थरथरो भल्लो आनी तो खिणाचोय कळाव लायनासतना पोटल
थंयच उडोवन पळ्ळो.

पव्हारीबाबांनीय कळाव लायलो ना. चोराची पोटली काडली, खांदा
माल्ली आनी तांणींय चोरा फाटल्यान धांव माल्ली. दोन कोंसांचे वा
चोराक धल्लो. उपरांत ? पोटली चोरा मुखार दवरून ते ताका पांयां पड
आनी सद्‌गतीत जावन म्हणपाक लागले : ' भावा रे, चूक जाली म्ह

तुजे जोडी आड आयलों हांव. अशें जावंक फावनाशिल्लें... आतां, उपकार कर आनी ही पोटली व्हर. ती तुजी... '

कांय काळान विवेकानन्द भोंवत भोंवत हृषीकेशाक पावले. गंगेच्या तिरार एका साधू बांगडा तांची वळख जाली. तो 'जीवनमुक्तां'वरी दिसतालो. विवेकानन्द ताच्या सांगातांत कांय दीस रावले. एक दीस खबरी करतां करतां पव्हारीबाबांच्यो खबरी आयल्यो. विवेकानन्दांच्या तोंडांतल्यान पव्हारीबाबांचें नांव भायर सरनाफुडें साधुचे दोळे भक्तिच्या उमाळ्यांनी भरून आयले. ताणें विवेकानन्दांक विचाल्लें : 'तुमी पव्हारीबाबांक मेळ्ळ्यात ?... '

'हय... '

'तांच्यो जायत्यो खबरी आसात...' अशें म्हणून त्या साधून विवेकानन्दांक पव्हारीबाबांगेर आयिल्ल्या त्या चोराची खबर सांगपाक सुरवात केली.

'हांवें आयकल्या ही खबर....' विवेकानन्दांनीं म्हळें.

'आयकल्या ?...' साधुच्या दोळ्यांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हांवपाक लागल्यो. आनी ताणें सद्गतीत ताळ्यान विवेकानन्दांक सांगलें: 'तो चोर हो हांगा तुमच्या मुखार बसला... '

हांव जाणां, कांय भिकारी साधू जातात. कांय चोरूय साधुंच्या मेसांत भोंवतात. कळांतराक पयशे लावन सावकारी करपीय साधू हांवें पळेल्यात. ह्या आळशी, मोंदू, उपकरनाशिल्ल्या साधूंक कामाक लावंक जाय अशें म्हाका केन्ना केन्ना दिसलां. पुणून काम करून जोडपाची इत्सा आशिल्ल्यांकूय जो समाज काम दिवंक पावना तो साधूंक कामाक कितें लायतलो, कपळ ? खंयचें काम दितलो ? हांवें कांय देश-भक्त साधूय पळेल्यात. तुकडोजी म्हाराजां सारक्या साधुंच्या सांगातांत कांय दीस रावनूय आयलां. पुणून विवेकानंदांच्या जिवितांतलो हो अणभव आयकल्या उपरांत साधूं कडेन पळोवपाची म्हजी नदर साप्प बदल्ली. हांव हृषीकेशाक पावलां त्या

आदीं म्हजे नदरेंत सामकोच बदल घडून आयिल्लो...

लोकवस्तिचे नदरेन पळेल्यार हृषीकेशाक साधुंचेंच थळ म्हणूंक जा
हांगा शंबरांत साठ जाण साधूच मेळटले. तेय, सगळ्या पंथांचे. आडना
वेगळीं वेगळीं आसलीं जाल्यारूय आजोळा पावतकूच सगळीं नातरां ज
एकाच घरांतलींशीं दिसतात तशे सगळ्या पंथांचे साधू हांगा पावतकू
एक दिसतात, एक जातात.

हृषीकेशाक गंगेच्या किनाऱ्यार ज्यो ल्हान ल्हान खोंपी दिश्टी पडटा
त्यो खासा साधूच आपणा खातीर बांदतात. खोंपी भायर साधुच्यो खडा
आसतकूच जाल्यो वा भितर सुकत घाल्ली ताची काश्टी आसतकूच जाल
कोण ते खोंपींत सरचो ना. पुणून समज, खोंप बांदिल्ल्या साधूक जम्नोत्र
गंगोत्रीक वचचें-शें दिसलें आनी तो गेलो जाल्यार, खोंपीचेर ताचो ह
उरचो ना. दुसरो येतलो, खोंप रिकामी आसा-शी पळेतलो आनी भित
वचून रावतलो. उपरांत खोंप जाणें बांदिल्ली तो साधू परतो आयत
जाल्यार, तो आपले खोंपींत वचून रावचो ना. तो पळेतलो : भित
कोणाची काश्टी सुकता व्हय ? सुकता जायत जाल्यार, तो आपणाखाती
दुसरी सुवात वेंचून काडटलो आनी नवी खोंप बांदून रावतलो. 'हां
बांदिल्ली खोंप ही...हे खोंपींत रावपाचो हक म्हजो...' ही भास तुमची
आमची. साधुंची न्हय. तांचो संवसार वेगळो आनी ह्या संवसाराचे ने
वेगळे हृषीकेश आतां शार जावपाक लागलां. तरूय तांतलो हो संवसार न
जावंक ना. ही परंपरा भंगूंक ना...

आमी काली-कमलीवाल्याचे नवे धर्मसाळेंत एक कूड घेतली आन
सामान भितर दवरून रोखडेच लक्ष्मण-झुल्याक वचपाक भायर सल्ले.

उत्तर उदेंत दिकेन सुमार तीन मैलांची वाट कातरपाची आशिल्ली. स्टँडार कितल्यो–श्योच सायकल-रिक्षा दिश्टी पडल्यो. ‘ मनशान मनशाक ओडप हें मनीसपणांत बसना ’ अशें म्हणून आमी टांगे उबे आशिल्ले ते वाटेन पावलां घालपाक सुरवात केली. सायकल-रिक्षाकारांक चुकयले. अवचित् कितें जालें कोणाक खबर, गोदुचे तकलेंत एक नवोच प्रस्न उपरासलो. हरशीं, आमी सदां टांग्यानींच भोंवल्यांत. पुणून हांगा ताका दिसपाक लागलें : “ जाका आपणाक दुख्ख भोगता काय ना हें सारकें सांगूंक लेंगीत येना त्या घोड्याच्या टांग्यांत बसप मनीसपणांत बसता व्हय ?... ” जाप दिवप सोंपें नाशिल्लें. निर्णय घेवप तर ताच्याकूय कठीण आशिल्लें. आमी पांयांनींच चलत लक्ष्मणझुल्याक गेले.

अशें म्हणटात कि रावणाक मारून लक्ष्मण घरा परतलो तेन्ना प्रायश्चित घेवपाक तो हांगा येवन राविल्लो.

पुणून लक्ष्मणझुल्याची व्हडवीक पटोवपाक हे कथेची गरजूच ना. सांगाहल्ले ऊंच धिप्पाड दोंगर पळेले. तांच्या आंगा खांदावयली कुचकुचीत रुखावळ नियाळ्ळी आनी दोंगरांच्या पोटांतल्यान वाट काडून वेगान व्हांवपी गंगेचो घऽस घऽस आवाज आयकलो म्हणटकूच आमी पळेतात ती सुवात ध्यानाक आनी तपाक फावसारकीच आसा म्हणपाचें आमकां दिसूंक लागता.

आदले मुस्तींतले लोक हिमालयाचे भोंवडेक हेच वाटेन वताले. पांडवांक आपलें अवतार कार्य सोंपलेंशें दिसलें आनी तांणीं सर्गार वचचें अशें थारायलें तेन्ना खंय ते हेच वाटेन गेल्ले. ते मुस्तींत हांगा शिंक्यांचो एक पूल आशिल्लो. न्हंयेंतल्यान पलतडीं वचप सोंपें नाशिल्लें.

न्हंयेचो वेग कोणाकूच आटापा येवचो नाशिल्लो. देखून दोशीं वसल्या दोंगरांच्या हड्ड्या वयल्या घट रुखांक एक घट राजू बांदून, तातूंत कांय शिंकीं हुमकळावन, ते मुस्तींतल्या इजनेरांनी एक पूल तयार केल्लो. कुळागारांनीं सुपारी पाडपा वेळार पाडेली जसो एके माडये वयल्यान दुसरे माडयेर उडी मारता, तशें ते मुस्तींतले यात्रीक ह्या राजवा पुलांतल्या एका शिंक्यांत उबे रावताले, तें धोलयताले आनी दुसऱ्या शिंक्यांत उडी मारून ल्हवू ल्हवू पलतडीं वताले. गंगा खूब सकल–सामकी पाताळांत व्हांविल्लेवरी पयस दिसता. तरी आसतना तिचो वेग पुळावयल्या मनशाक घुंवळ हाडटा. ते मुस्तिंतलो यात्रीक केन्ना केन्ना एका शिंक्यांतल्यान दुसऱ्या शिंक्यांत उडी मारता आसतना गंगेचो वेग पळोवन घुंवळून पडटालो आनी तडक सर्गार पावतालो. आमच्या भावार्तीं यात्रिकांक हेंवूय एक भाग्य कशें दिसतालें. ते मुस्तींत हिमालयाचे भोंवडेक वतल्या मनशाक हे तरेच्या जायत्या दिव्यां तल्यान वचचें पडटालें. देखून तो यात्रेक भायर सरतालो तेन्ना आपल्या सगळ्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक मेळून येतालो आनी तेय मागीर ‘ हो घडये आमकां परतो दिश्टी पडचो ना ’ अशें मानून रडून रडून आकांत करून ताका पावोवपाक वताले.

आयज त्या हिसपान हिमालयाची भोंवडी सोंपी जाल्या. लक्ष्मण-झुल्याक आयज कोणाकूच कसलेंच दिव्य करचें पडना. आयज हांगां शिंक्यांचो पूल ना. लोखणाचो पूल आयला. ताका सकल खांब्यांचो आधार ना. पाताळांतल्यान सर्गा मेरेन खांबे बांदप सोंपें न्हय. खांब्यां बदला लोखणाचे राजू आयल्यात. लोखणा राजवाच्या पुळार उबे रावल्यार पूल मातसो हालता. मदीं मदीं गंगेचो वेग पळोवन मनशाक घुंवळ आयिल्ले वरीय जाता. पुणून घुंवळून पडपाचो भंय आयज हांगा ना. आयज हांगा येवप कठीण न्हय. देखून आयचे यात्रेंत पुण्य उरूंक ना अशें जाय जाल्यार म्हणचें. तरी आसतना हांगासल्लें सैम पळेतकूच लक्ष्मण-झुलो पळोवंक पावूंक

नाशिल्लों जाल्यार जिवितांतलें एक सुंदर थळ म्हाका चुकतलें आशिल्लें अशें दिसले बगर रावलें ना.

हांगासल्ल्या झाडां-पेडांक लेगीत रुशिंचीं सया मारता.

पूल काडून पलतडीं गेलो म्हणटकूच 'स्वर्गाश्रम' मेळटा. हे सुवातेक तपोवनाची सया आयज लेगीत मारता. हांगा कांय ऊंच पांवड्याचे तपस्वी रावतात खंय. स्वर्गाश्रमांतल्यान मैलभर चलत मुखार वचचें. दोशीं वसल्यान भिकारी बशिल्ले दिश्टी पडटले. कोणाचें नाख गळ्ळां. कोणाचे कान गळ्ळ्यात. कोणाचीं बोटां कुसल्यांत. हीं विदरुपां पळेतकूच 'ते तपस्वी हांगा (आसात म्हणटात ते) कितें करतात ?' असो प्रस्न तकलेंत उपरासता आनी तांचो राग मारता. भिकाऱ्यांचो कळवळो येता. भिकाऱ्यांत चड-श्यो बायलो. चडश्यो बंगाली. ह्यो भिकेक कश्यो लागल्यो, कित्याक लागल्यो, असले नाका नाका जाल्ले प्रस्न म्हजे तकलेंत उपरासपाक लागले. ह्या 'आर्य' देशांत खंयचे बायलेचेर कसलो प्रसंग येत, सांगूं नज. तिका घरदार ना जावन पडपाक ह्या देशांत कारणूच लागना. म्हाका एकलेची काकुळट दिसली आनी हांवें तिका एक पयसो घालो. तिच्या तोंडांतल्यान आशिर्वादाचें उतर फुटपाक तिच्या म्हऱ्यांतलो कोड जाल्लो भिकारी म्हजेर उसळ्ळो : 'हांवें तुजो कसलो पोटलो खाला ?... म्हाका कित्याक घालिना ?...' अशें विचारून आपुणूच म्हणपाक लागलो : 'सकाळच्यान पळेतां, कोणूच म्हाका कांय घालिना... कित्याक ?...म्हजें नशीब अशें कित्याक ?...' ताणें आपलें आयदन

जमनीर आपटिलें. फोडलें आनी तो मोटया–मोटयान रडूंक लागलो. म्हाका ताणें परतें विचाल्लें : ‘ म्हजें नशीब फुटकें कित्याक ?...सांग, म्हाका कित्याक तुवें पयसो घालो ना ?...’ बेगी–बेगीन ताकाय एक पयसो घालून हांव तुरतुरीत चलूंक लागलों. म्हाका गोर्किचे एके कथेचो उगडास जालो. एकलो भिकारी आसता. एका दारांत उबो रावता. बल्कांवार एकली बायलमनीस आपणाल्या भुरग्याक दूद दीत बशिल्ली ताका दिश्टी पडटा. ‘ बाय...घाल गे कितेंय म्हाका ’ म्हुण तो मागता. ती ‘ मुखार वच...’ म्हणटा. भिकारी उसळटा : ‘म्हाका मुखार वच म्हणटा ? सकाळपसून हांव उपाशीं आसां. तूं जेवन खावन मातल्या. तुजें दूद सुकून वचूं. तुजें भुरगें वळवळून मरूं ’ ती भियेता. धांवत भितर वता आनी एक उंडो हाडून भिकाऱ्याक घालता.

म्हाका दिसलें, नशीब म्हजें, म्हुण हाणें म्हाका गाळी संवल्यो नात. पुणून सांगूं येता ? संवतूय बी. हांव थंय रावलों ना. झपझप पावलां घालीत वचपाक लागलों. तो तडक ‘ परमार्थ-निकेतन ’ नांवाच्या एका आस्रमांत पावलों. ह्या आस्रमांत हांवें एक भगवद्-गीता घेतिल्ल्याचो म्हाका उगडास आसा. सदांच पुस्तकांच्या सांगातांत रावून आयिल्लों हांव, हिमालयाचे भोंवडेंत फकत हेंच एक पुस्तक वाचतालों. गीता सोडून दुसरें खंयचेंच पुस्तक वांगडा व्हरचें न्हय अशें हांवें थारायल्लें. गीतेन जायत्या जाणांक जायतें दिलां. म्हाकाय दिलां. पोसो भरुभरून दिलां. पुणून ही खबर मुखावयली. आतांच सांगूंक लागल्यार कशें जायत ?

हरिद्वाराचें वारें हिन्दू, जाल्यार, हृषीकेशाचें वेदांती. दीस पडचे पयलींच

आमी धर्मसाळेंत परतले आनी रोखडेच तुवालो-तांबयो घेवन गंगेचे तडीर न्हावपाक गेले. न्हातकूच जीव तरतरीत जालो. अवचित् म्हाका प्रार्थनेची भूक लागली. पांच-स वरसां जायत आयिल्लीं, नित्यनेमान प्रार्थना करूंक लागल्यार. म्हजी ती जेवणा-खाणा वा न्हिदे न्हाणा इतलीच गरज जावन पडल्या. हांवें नरेशाक म्हळें : 'आमोरेचो वेळ जाला... हांगा गंगेच्या तिरार प्रार्थना करुंया...' ताणें सुरेल आवाजांत म्हणपाक सुरवात केली. प्रार्थनेचे श्लोक हवेंत विरिल्ले मात्— म्हाका नवोच अणभव आयलो. खोलायेन दिसपाक लागलें :

'आमकां कोणाक सारकें मागुंकूच येना...'

कोणाकडेन मागप ? आनी कितें मागप ?

खूब— शे जाण मागतात : 'म्हाका धन दी, सत्या दी, हें दी, तें दी...' देव तांकां हें सगळें दिता काय ना, म्हाका खबर ना. घडये दिता जातलो. पुणून एक खरें— हें सगळें ताणें हांकां दिलें जाल्यारूय तांची तान केन्ना भागना. ते अदीक मागतात. आनिकूय मागतात. तांचें मागप केन्ना सोपऽच ना...

हाका 'मागप' म्हणूं येत व्हय ?

दुसरे कांय जाण आसतात. जिस्त हांचें उरफाटे. ते संवसाराचेर उबगल्ले आसतात. तांकां केन्ना काय ह्या संवसाराच्या जाळांतल्यान आनी जंवजाळांतल्यान आपुण मेकळे जाल्यार पुरो अशें जाल्लें आसता. ते मागतात : 'देवा, म्हाका हांतलो सोडय...'

एक मागप आसक्त पुणून भिकाड्डें. दुसरें विरक्त आनी दळदिरें. दोनूय 'मिथ्या.'

मागीर, खरें मागप खंयचें ? म्हाका काकासायबांचो आवाज आयकूंक आयिल्ले वरी दिसलें :

संस्कृत भाशेंत इन्द्रियांक एक उतर आसा—'करण'. मनशाक सैमान

करण्यो करपाचीं कांय इन्द्रियां दिल्यांत. कांय गिन्यानाचीं. ह्या सगळ्या इन्द्रियांचेर–‘ करणां’चेर शेक चलोवपी आनीक एक ‘ करण ’ आसा. ताचें नांव ‘ अंतःकरण ’ वा अंतस्कर्ण. ह्या अंतस्कर्णाच्या अंतस्कर्णांत आनीक एकलो बशिल्लो आसा. तो ‘ अंतरतर’ वा ‘ अंतर्यामी ’. जिविताचें जिवीत. ‘ ताचे ’ कडेन मागूंक जाय. कितें ? ताचे लागीं आसा तें. ताचे लागीं एकूच आसाः मोग. कसलो ? तुज्या अंतस्कर्णाक धुवन-पुसून निवळ करपी. घांसून पुसून चकचकीत करपी. तुजें जिवीत सुंदर करपी. हो मोग आपणाक दी म्हुण माग. तुका तो मेळटलो...

जाका हो मोग मेळ्ळा ताच्या करण्यांचो ताल आनी छंद ‘ ताचो ’ जाला.

म्हाका आनीक एक गजाल आयकूंक आयली :

उदका-वाफ मेकळी सोड. ती कांयच करूंक पावना. ती हवेंत विरत विरत कुपांकडेन भरसून वतली. पुणून तिका बॉयलरांत कोंडून दवर. मागीर पळे, कितलीं आकांताचीं कामां करून दाखयता ती. हवाय तशीच. मेकळे हवेक गावंक येना. पुणून तिका एके सादे कोंड्याचे पिल्लुकेंत कोंडून दवर आनीं इल्ली इल्ली सोड. पळे मागीर कितलें सुंदर संगीत गावन दाखयता ती.

‘ ता ’चेंय अशेंच. तो अ-रूप. ताका कूड ना, काया ना. पुणून तो तुज्यांतल्यान आपणाक उक्तावन दाखयता, ताचे इत्सेचो आनी तुजे करणेचो मेळ घडोवन हाड. ताच्या नेमान तुज्यो करण्यो जावं दी. तुज्या करण्यांच्या छंदांत आनी तालांत तूं पळेतलोः तुज्यांत जें कितें सुंदर आनी गोड दिसता, परमळीत आनी सुरेल दिश्टी पडटा ताका ताचो हात लागला. तातूंतल्यान तोच दिश्टी पडटा...

म्हाका ‘ गीतांजलि ’तले एके कवितेचो उगडास जालो :

आपणाल्या सगळ्या आंगांक ‘ ता ’चो हात लागला म्हणपाचो कवीक

अणभव आयला आनी कवी निश्चय करता : ' हांव आतां म्हजीं सगळीं आंगां निवळ दवरतलों '. आपणाल्या मनांतूय ' तो ' येवन बसला म्हणपाचें कवीक दिसता. कवी थारायता : ' हांव म्हज्या विचारांत आतां फटीक रिगुंकूच दिवचो ना. ' आपणाल्या काळजांत ' ता 'णे येवन सासणाचें बसचें म्हुण कवी काळजांतलो सगळो कोयर काडून भायर उडोवपाचो, काळजाचें आसन निर्मळ करपाचो आनी आपणाल्या करण्या उदेशी ' ता 'च्योच करण्यो उकतावन दाखवपाचो, निमाणें, सोपूत घेता...

आनी हें सगळें कवी ' जिविताच्या जिविता 'क सांगता.

' मागप ' हाकाच म्हणटात.

हांव आमची सदची प्रार्थना सोडून ' जिविताच्या जिविता ' कडेन अशेंच मागपाक लागलों. त्या दिसाची प्रार्थना म्हज्या अंतस्कर्णांतल्या अंतस्कर्णाक आफडून गेली. हिमालयांत अजून पावूंक नाशिल्लों. लागसार पाविल्लों. तितलेंच पुरो आशिल्लें : हिमालय म्हजेर परिणाम करूंक लागिल्लो.

हांगा पावसर हिमालयांत वचप म्हळ्यार खंय वचप हें आमकां खबर नाशिल्लें. आमी आतां हांगा ही वासपूस घेवपाक सुरवात केली.

ह्षीकेशाक पशुलोक नांवाची एक संस्था आसा. गांधीजींली एकली इंग्लेज शिष्या मीराबेन हिणें ती सुरू केल्या. पारनेरकर म्हुण एकले ती चलयताले. पारनेरकरांची आनी आमची वर्ष्यांक वळख जाल्ली. हिमालया संबंदान तांचेकडेन घडये कितेंय कळुंये अशें धरून आमी तांकां सोदीत

पशुलोकाक गेले. तांचे कडल्यान इतलेंच कळ्ळें कि पुराय हिमालय दोन हजार मैल लांब आनी दोनशीं मैल रूंद येदो व्हडलो आशिल्ल्यान तो एके फावटींत पळोवन जावपाचो ना.

म्हणटकूच ?

'हे खेपे फकत उत्तराखंड पळोवन येयात'...आमकां जाप मेळ्ळी.

आमी आनीक वासपूस केली तेन्ना कळ्ळें. हिन्दू मन जेन्ना जेन्ना हिमालया संबंदान येवजिता तेन्ना तेन्ना ताच्या मुखार उत्तराखंडूच आसता. हिन्दू मनान उत्तराखंडाकूच हिमालय मानला. उत्तराखंडांतल्या पर्वतांची जितली पुजा हिन्दू मन करता तितली हिमालयांतल्या हेर खंयच्याच पर्वतांची करिना. बरफाचे नदरेन गिरेस्त आनी उंचायेन व्हड अश्या हिमालयांतल्याच धवलगिरिचीय करिना, कांचनजंघेचीय करिना, गौरीशिखराचीय करिना. कित्या खातीर ? जाप एकूच आसा : उत्तराखंड हें गंगेचें कुळार. आनी गंगा ह्या देशाचे संस्कृतायेची आवय. फाटल्या धा हजार वरसांच्या इतिहासांत आमच्या देशांत जितलेय संत-म्हात्मे जावन गेले ते सगळे गंगेच्या कुळारा येवन गेल्यात. हांगासल्लेच एके शिळेचेर बसून तांणीं ध्यान केलां, तप केलां. ह्या देशाचे संस्कृतायेक रूप उत्तराखंडानूच हाडलां.

जल्मा येता त्या खिणाक मनशाक जे संस्कार मेळटात तेच खंय अखेर मेरेन तिगून उरतात. तशें एके-एके संस्कृतायेचें लेगीत आसता जावंक जाय.

आमचे संस्कृतायेन आरंबाकूच 'हांव कोण' ह्या प्रस्नाची जाप सोदपाक सुरवात केली आनी तिका 'आत्म्या' चो सोद लागलो. होच आत्मो पुराय संवसारांत भल्ला म्हणपाचें तिका दिसून आयलें आनी ती गावपाक लागली :
'आयकात, संवसारांतल्या लोकांनो... आयकात, अमृताच्या पुतांनो...
'तो' कोण तो हांव जाणां. हांवें ताका पळेला... सुर्यावरी तेजिश्ट तो काळखा पेल्यान आसा...' इतलेंच न्हय, तर ती सांगपाक लागली : 'तो

कोण तो जाणां जायात... '

तेन्नापसून आमचे संस्कृतायेन एक रूप घेतलें. तिचें 'मिशन' थल्लें. आतां ती पुरुशार्तांचीं प्रस्थानां कितलीय बदल्लं, भौन भौन ती आपणाले मूळ प्रेरणेकडेनूच येतली.

जे सुवातेन आमचे संस्कृतायेक हें रूप दिलें तीच सुवात हे खेपे पळोवची अशें आमी थारायलें.

म्हणटा म्हणसर एक अडचण उबी रावली :

हृषीकेशाक रामनगर म्हुण एक सुवात आसा. थंय आमचे वळखिचे दोग संन्याशी रावताले. तांकां मेळपाक गेले. तांणीं उत्तराखंडाचेय दोन वांटे आसात म्हणपाचें सांगलें. एका वांठ्यांत जम्नोत्री आनी गंगोत्री हीं दोन थळां येतात आनी दुसऱ्यांत केदार आनी बद्री हीं दोन येतात. हांतली जम्नोत्री–गंगोत्रिची भोंवडी खुबूच त्रासांची. आमी ती करची न्हय अशें तांचें म्हणणें पडलें. कित्याक, तर खंय हांगा वाटो नात. झाडां–झुडपांतल्यान मनशाक वाटो सोदून काडच्यो पडटात. कांय कांय कडेन पर्वतांच्या भयांक्रूत कड्यां वयल्यान चलचें पडटा. तातूंत मनीस केन्ना केन्ना निसरता आनी गडगडत पांच–सात हजार फूट सकल पडटा. कांय कांय कडेन न्हंयो घोग्यां भाशेन आडव्यो पडिल्ल्यो आसतात. त्यो हुंपतना सट्ट करून मनीस पडलो जाल्यार ताच्या हाडांचो सामको पिठो जावन तो खिणांत ना जावन वता. कांय कडेन चलपाक निखटे पांय पावनात. हातांचोय उपेग पांयां सारको करून चलचें पडटा.

त्या भायर, शियां दिसांनीं थंय बर्फ पडिल्लें तें अजून विरगळूंक ना म्हणपाचेंय तांणीं सांगलें...

शारांत वाडिल्ले लोक इतल्या त्रासांची भोंवडी कशी करतले, असोय एक दुबाव तांणीं उक्तावन दाखयलो. गोदूकडेन पळोवन तांणीं विचाल्लें : 'हीय वतली वांगडा ?...'

आमी हय म्हळें.

‘ तशें जाल्यार, तुमकां कण्डी करची पडटली...’

‘ कण्डी ’ म्हळ्यार कितें ? तर बेता सारक्या तणाचें एक पोकळ कदेल. ताच्या पोटांत सामान घालप आनी त्या सामानाचेर मनशान बसप. आनी मागीर नेपाळी मानायान ताका फाटीर उबारून भोंवंक व्हरप....

आमकां कितें करचें, कांयच समजना जालें. नज म्हणून परते वचचें ? मनांत आयलें ‘ हे खेपे फकत केदार बद्रिचीच भोंवडी करून येवंचें...’ पुणून तकलेंत हें येना फुडें म्हाका म्हज्या वर्मार हात पडिल्ले भाशेन दिसलें. अखेरेक गोळून निर्णय दिलो : ‘ हे पिरायेर जम्नोत्री–गंगोत्रिची भोंवडी जमली ना जाल्यार, ती मुखार आमकां केन्नाच जमपाची ना.... कितलेय त्रास पडूं...या आमी...’

‘ कण्डीचें कितें ? ... ती करप काय ना ? ...’ नरेशान विचाल्लें.

‘ ती आनी अप्रतिष्ठा नाका...’ जाप मेळ्ळी.

खिणाचोय कळाव लायनासतना आमी तयारेक लागले.

हिमालयांत कैसानीक रावपी स्वामी आनंद आमकां दिल्लीक मेळिल्ले. तांकां आमचो हिमालयाचे भोंवडेचो बेत सांगलो तेन्ना तांणीं कांय सुचोवण्यो केल्यो. तांणीं म्हळ्ळें :

“ हिमालय म्हळ्यार बरफाचें घर. चढून चढून आंग कितलेंय हून जालें जाल्यारूय थंय शीं खातलेंच. चड करून रातचें. तेन्ना शाल, स्वेटर, मफलर बी व्हरूंक जाय...

"तुमी थंय पांयांक कितें घालतले? चामड्याचें जोतें? ... आमी चामड्याचीं जोतीं घालतात तीं सामान्यतायेन तीन-शीं मैल चलपाक उपकारतात. हिमालयांत उणे-पुरे स-शीं मैल चलचें पडटलें. म्हणटकूच जोत्याचो आनीक एक जोड तुमी वांगडा व्हरचो पडटलो. ना जाल्यार तुमी वाटेर त्रासांत पडटले.

"पुणून जोत्यान पांय उकते उरतात. आनी तुमकां खबर ना. हिमालयांत जळवो खूब. त्यो पांयांक दसल्यो जाल्यार तुमचें रगत चोखून काडीसर त्यो दसल्यात म्हणपाचेंय तुमकां कळपाचें ना. त्या भायर, हिमालयांत एक ल्हान मूस मेळटा. जळारा येदो. रंगान निळो. तो चाबता थंय रगताचो एक बारीक थेंब येता. तो सुकलो म्हणटकूच कुतकुतूंक लागता. खरपितकूच थंय एक फोड येता. तो बेगीन पेखना. हे त्रास चुकयतले जाल्यार तुमी जोत्या बदला कॅनव्हासचे बूट घेतिल्ले बरे. ताचोय एक जोड अदीक घेवन तो सामना वांगडा व्हरचो."

स्वामिंनीं मुखार सांगलें: "हिमालयाची भोंवडी सगळी पांयांनींच करची पडटा आनी हिमालय म्हळ्यार, दोंगरांचो सागर. थंय एकासारकें चडचें पडटा वा देंवचें पडटा. ह्या चडपा-देंवपाक लागून पांयांत गुळे येतात. हे गुळे येवन पांय दुखचे न्हयत म्हूण सोल्दाद जशे पांयांक पटे बांदतात तसले पटे बांदूंक जाय. खंयच्याय मिलिटरी स्टोअरांत तुमकां ते मेळटले... मिलिटरी स्टोअरांत ताडपत्र्यो मेळटात. एक ताडपत्रीय घेयात. ताडपत्रेंत हांतुळण गुटलायलें म्हणटकूच वाटेर खंयूय पावस पडलो जाल्यार हांतुळण भिजपाचो भय ना...हिमालयांत गिमांत लेगीत मदीं मदीं केन्नाय पावस पडटा..."

तांणीं फुडें सांगलें: "हिमालयांत रातचें बर्फ पडटा. ह्या बरफाक लागून वाटो निसट्ट्यो जातात. निसट्टे वाटेन निखट्या पांयांच्या भरवंशार चलप समा न्हय. एक बडी हातांत आशिल्ली बरी. पोंदा लोखणाचें तोंक आशिल्ली

एक बरी बडी घेवची. बरफाचे जमनीर रोमूंक ती उपकारतली. ”

स्वामिंनीं जायत्यो बारीक बारीक सुचोवण्यो केल्ल्यो : “ हात
मेकळे दवरचे. जंय मैलांचे मैल एकासारकें चलचें पडटा थंय हातांतल
सो चेम्बू लेगीत कितल्या-श्याच मणांच्या ओज्यावरी जड लागता
खातीर, हातांत कांय आसचें न्हय. ताच्या वांटयाची एक पोती ग
हुमकळावची. बाकिचें सगळें सामान मानाया सुवादीन करचें. हृषीकेश
नेपाळी मानाय मेळटले.... ”

कॅनवासचे बूट, पांयांचे पटे, ताडपत्र्यो बी कांय गजाली आमी दिह
घेतिल्ल्यो. हृषीकेशाक लोखणाच्या तोंकाच्यो बडयो घेतल्यो. रांदपा ज
उपकारा पडचीं म्हुण आलुमीनचीं थोडीं आयदनांय घेतलीं.

आनी फाल्यांच भायर सरचें अशें आमी थारायलें.

हृषीकेशा साकून धरासू मेरेन बस वता म्हणपाचें कळ्ळें. आमी
बसिच्यो तिकेटी काडून दवल्ल्यो. बस सकाळच्या सातांक सु
आशिल्ली. पुणून जीव कितलो भुरकुटून आयिल्लो !... हांव
तिनांकूच जागो जालों. इतलेंच न्हय, तर बाकिच्यांकूय उठयले. ह
कवळूंक लायलीं. गोदू विचारपाक लागलें : ‘ येदे बेगीन तीन
जातलीं ? निकतींच तर न्हिदिल्लीं. ’ घडयाळ पळेली. प
रातचीं सवाय बाराच जाल्यांत ! हांतुळणां परतीं सोडयलीं.
न्हीद पडूं नाका ! हिमालयांत वतलों हे खोशयेन म्हजो
लागलो ना. पांच जायसर ‘ हिमालय कसो दिसता काय ?...

येवजीत लोळत रावलों. तकलेंत तरे-तरेचीं चित्रां हांवें रंगयल्लीं.

संक स्टॅण्डार आयले.

बस सुटली. शिवलिंग पर्वतांच्या फाटीं वयल्या एका-फुडल्या एक आकांताळ्या मोडणां वयल्यान ती नरेन्द्रनगरा दिकेन धांवपाक लागली. एक–एका मोडणार सैमाचें एक-एक रूप दिसपाक लागलें. पुणून वाट सामकी अशीर. इतली अशीर कि खिणा खिणाक आमकां दिसचें : 'आः बस लंवडता दिसता...' मात चुकल्यार लंवडून ती गडगडून खंय पावत, सांगू नज आशिल्लें. जीव सामको सकल–वयर जालो. कांय जाणांक धुंवळ आयली. तांणीं दोळे धांपून 'हरे राम.... हरे राम...' म्हणपाक सुरवात केली.

खंयचो बसीन भायर सल्लों काय-शें जालें म्हाका. कितें तटिल्लें? पांयांनीं वचूं येतालें. लागतीत आशिल्ले घरासूक पावपाक तीन चार दीस. दिसांची भीक कांय आमकां लागूंक नाशिल्ली. मागीर, बसीन–शें बचपाचें येवजलें? बरें, बस पुराय हिमालयांत तरी वता व्हय? ना; घरासू मेरेनूच वतली. मुखावयली सगळी भोंवडी पांयांनीच करची पडटली. मागीर, हीय पांयांनीं करूं नज आशिल्ली! हांव आमचेर तापलों : 'इतले अन्नाडी आमी कशे जाले?... भोंवडेंत सगळ्यांत बरी पांयांनीं केल्ली भोंवडी हें आमी जाणांत. पांयांनीं भायर सल्ल्यार भोंवप थोडें जायत. पुणून पळोवप आदल्या काळार जेन्ना बसी-बिशी कांय नाशिल्ल्यो तेन्ना लोक कितलें पळोवंक पावताले! तांकां कितल्यो-श्योच गजाली बारीक-बारीक दिश्टी पडटाल्यो. नवे नवे लोक पळोवंक मेळटाले. ते नवे इश्ट जोडूंक पावताले. नवीं घरां जोडटाले. इतलेंय हें जाणां जावनूय आमी बसीन वचपाक कशे भायर सल्ले?'

काल्लच आमकां एकल्यान विचाल्लेंलें : 'पांयांनीं वतले काय बसीन?' तेन्ना, बस हिमालयांत वता हें आयकुनूच पयलीं म्हाका राग मारिल्लो.

हांवें म्हळ्ळें : ' बस व्हेली मू ?....जालें आतां. आतां थंय बाजार पावतलो. बाजारा फाटोफाट फटींगपणां आनी बोवाळ हीं ' सभ्यताये 'चीं आंगां थंय पावले बगर रावतात !...हिमालयाचें आगळेपण मागीर खंय उर्लें ? धर्तरेचे फाटीर एके कडेन तरी खंयूय मनशान सैमाचें थंड आनी किण्ण रूप राखून दवरूंक जाय...हिमालयांत बस व्हरपी लोक पाडे बुद्दिचे आसूंक जाय...'

आनी तरी आमी ' बसीनूच वतले...' म्हुण जाप दिल्ली. म्हाका दिसता, हिमालयार चल्ले हे खोशयेन आमी इतले भुरकुटून गेल्ले कि ' केन्ना काय थंय पावल्यार पुरो ' अशें आमकां जाल्लें.

म्हाका आतां पच्छत्ताप जावपाक लागलो. हांव म्हजो राग बसीचेर काडपाक लागलों : ' पाड पडलें हिचें ', म्हळें: ' एका सारकी धांवता. कितेंच सारकें पळोवंक दिना. पार्सलां जाल्लेवरी आमकां ती व्हरता...हिणें आमची भोंवडी पयल्याच दिसा सामकी अळणी करून उडयली...'

म्हाका बसींतल्या लोकाचोय राग आयिल्लो. हांवें तांचीं तोंडां पळेलीं... सगळे पन्नासां वयले पिरायेचे. ' हे हिमालयांत कित्याक ?... हिमालयांत म्हत्त्व आसा तें वाटेक. देवळांक न्हय. देवळां खंय नात ? हे वाटेर तरण्या-बांड भुरग्यांनी भोंवंक जाय आशिल्लें. ते खंय गेले ? काय, आमच्या देशां-तले तरणे सगळे म्हातारे जाले ? म्हणटकूच, ह्या म्हाताऱ्यां वांगडा आमी आतां हिमालय पळेतले तर ! हिमालय पळोवपाक भायर सरिल्ले हे लोक पळोवपा सारकें भायर खूब पातळ्ळेंलें आसतना दोळे धांपून देवाचो धांवो करतात तें पळोवन म्हाका एकएकल्याची अशी तिडक माल्ली कि धरचो एकएकल्याक आनी मोखून सकल मारचो अशें दिसलें.

मनांत म्हळें : ' ओगीच आयज भायर सल्ले. बरो सांगात पळोवन भायर सरपाचें... ' आनी म्हाका परतेंय दिसलें. बसी बदला पायांनी भायर सरिल्ले जाल्यार ह्या यात्रिकांचो तरी सांगात चुकतलो आशिल्लो.

नरेन्द्रनगरा मेरेन वाटेर जे देखाव दिश्टी पडले ते सगळे पळोवपा सारके आशिल्ले. पुणून म्हाका ते पळेल्ले वरी दिसपाक लागले... ' हाचे पयलीं हांव हांगा पावलां... हें सगळें हांवें पळेलां.... हांव हांगा रावन गेलां... ' अशें दिसपाक लागलें. हांव म्हाकाच विचारपाक लागलों : हांगा केन्ना पाविल्लों काय हांव ?... ' भुरगेपणांत आवय–बापाय वांगडा ' त्रिस्थळि 'ची यात्रा केल्ली. त्या वेळार हृषीकेशाक पाविल्लों. म्हजी पिराय तेन्ना आठ-णव वरसांची. म्हाका ते भोंवडेची याद आसा. हरिद्वाराकसून हृषीकेशाक आमी एके धाकटे आनी उकते मोटारीन गेल्ले. आमचे मोटारीक वाटेर उजो लागिल्लो. तरी बरें, वेळार जागे जाले. ना जाल्यार, आमी सगळे मरपाचें. आवयक आमी हरिद्वाराक दवरून गेल्ले. हृषीकेशा साकून परततकूच तिका बाबान मोटारीक उजो लागिल्ल्याची खबर सांगली तेन्ना तिचें जें तोंड जाल्लें तें आयजूय म्हाका येवजता आनी काळीज आकुळ-विकूळ जावन येता. म्हाका ते मुस्तींतले भोंवडेंतले कितले-शेच उगडास आसात. पुणून ते भोंवडेंत आमी लक्ष्मण–झुल्या पेल्यान पावूंक नाशिल्ले. ' मागीर, ही सुवात हांवें केन्ना पळेल्ली ?... '

म्हाका दुबाव आयलो आनी मनांतल्या मनांत हांवें म्हळें : ' पूर्व-जल्मांत बी हांव हांगा पावूंक नाशिल्लों मू ?...' हांव पुनर्जल्म मानपी. कर्माचो सिद्धांत जो मानता ताका पुनर्जल्म मानचोच पडटा. हिन्दू मानता. जैन मानता. बौद्ध जो देव, आत्मो कांय मानिना तोय पुनर्जल्म मानता. इब्राहिमा आदीं आपुण आशिल्लों म्हुण खिस्तूय सांगता. इस्लामचें नकळ. पुणून सूफी पुनर्जल्म मानतात. मनीस–कुळयेचो एक खोल अणभव तो. एक प्रतीती ती. deep conviction तें. ' मागीर, म्हाका आदल्या जल्मांचो उगडास कित्याक जायना तर ? ' ह्या दुबावाक कांय अर्थ ना. ' तुका ह्याच जल्मांतल्यो सगळ्यो यादी खंय आसात ? भुरगेपणांतल्यो कितल्यो-श्योच गजाली तूं विसल्लो. तें कित्याक, तुजी मातशी उतार पिराय जावंदी.

मागीर कालचें आयज विसरतलो. सकाळचें सांजवेळा विसरतलो....' पुनर्जल्म आसा काय ना हें असल्या गजालीं वयल्यान दाखोवन दिवंक येना. व्हडलें-शें जाल्यार, इतलेंच म्हणूं येत कि तो आसा म्हुण सांगप जितलें कठीण ताच्याकूय चड कठीण तो ना म्हुण सांगप ...

हांव आदल्या जल्मांत हांगा पाविल्लों जावंक जाय अशें म्हणपाक वतालों. इतल्यांत म्हाका उगडास जालो आनी हांवें म्हळें : ' बेळगांवच्यान गोंयां वतना अनमोड घाटा वयल्यान जो देखाव दिश्टी पडटा तोच हो....' म्हाका आमचो वाडयेचो आंबोली घाट येवजलो आनी हांवें म्हळें : 'जिस्त तो देखाव हो ' अनमोड घाटार कितले-शाच खेपो पावलां पुणून थंय रावूंक ना. आंबोलीक रावलां. पयलेच खेपे थंय गेल्लों तेन्ना वतना वाचपाक हांवें विटमनचें ' लीव्हस् ऑफ ग्रास ' व्हेल्लें. तांतल्या काव्यांत पेंवतालों. पुणून आंबोलीक सैमाचें काव्य चोंयदिकांनीं पातळ्ळेलें पळेलें तेन्ना कवितेचें पुस्तक मोखून भायर उडोवचें-शें म्हाका दिशिल्लें.

आंबोलीच्या उगडासान मन खोशी जालें. पुणून वांगडाच म्हाका अशेंय दिसपाक लागलें : ' आंबोली सारकोच देखाव पळोवपा खातीर इतले पयस हांगा हिमालयांत येवंक जाय ? '

हांवें नरेशाक विचाल्लें : ' हिमालय ... हिमालय म्हणटात तो होच रे ?...'

तो म्हज्या तोंडाकडेन पळोवन फकत हांसलो. तो भायलो देखाव पळोवन ' मस्त ' जाल्लो : ' मन मस्त हुआ तब क्यों बोले ?...' हांवें मनांत म्हळें : ' हिमालयाचीं वर्णनां जांणीं बरयल्यांत ते गोंयां पावूंक नात. गोंय सुन्दरकायेंत हाच्याकूय उणें व्हय ?...हिमालया वरी लोकांनीं गोंयचींय वर्णनां बरोवंक जाय आशिल्लीं... फकत हिमालयाक सुन्दर म्हणपी लोक अतिताय करतात जावंक जाय...'

पुणून बसीन नरेन्द्रनगर मात् सोडिल्लें...म्हाका मत बदलचें पडलें.

आमी शेंकड्यांनीं पर्वतांक प्रदक्षिणा घाल्यो. आठ मैल चडले, सात मैल देंवले; परते आठ मैल चडले. बारा मैल देंवले. हिमालयाच्या काळजांत रिगूंक लागले. तशें तशें जें दिश्टी पडटा तें पळोवपाक दोन दोळे पावनात अशें दिसपाक लागलें. हांव अनमोड विसल्लों. आयज मेरेन जे भव्य देखाव पळेल्ले तितलेय विसल्लों. आंबोली विसल्लों. आनी जें दिश्टी पडटा तें चकासूर जावन पळोवपाक लागलों.

अस्तमे दिकेन निळ्या पांचव्या दोंगरांच्यो हारी, तांच्या मुळसां मेरेन पातळ्ळेलीं भगव्या रंगाचीं गंवाचीं शेतां, वयर निळें नितळ मळब आनी ताचेर तरे तरेचीं चित्रां चित्रावपी धवीं फुल्ल कुपां...हांवें म्हळें : ' स्वर्ग आनीक खंय आसतलो ? ...तो हांगाच आसूंक जाय...हांगाच आसूंक जाय ... '

वोत ओततालें. ताच्याकूय चड म्हजें काळीज खोशयेन भरु-भरून ओततालें.

सांजच्या सुमार पांचांक आमी धरासूक पावले.

धरासूक गंगेच्या कांठार एक ' चट्टी ' आसा. चट्टी म्हळ्यार, एके तरेची धर्मसाळ. येतल्या-वेतल्या यात्रिकांक आस्रय दिवपी सुवात. गोयांत गामच्या कांय घरां बगलेक मातयेचीं ' लॉजां ' नासतात ? तसली हांकां म्हया मारता. उत्तराखंडांत जम्नोत्री-गंगोत्रिचे वाटेर हे तरेच्यो चट्टयो पांच-पांच, सात-सात मैलांच्या अंतरार मेळटात. तांतल्यो चड-श्यो चट्टयो काली-कमलीवाल्याचे मालकिच्यो. ताणें बांदून घेतिल्लयो.

शंबर सवायशीं वरसां आदीं काली–कमलीवाला म्हुण एकलो साधू जावन गेलो. काळी कामळ पांगुरतालो म्हुण ताका लोक 'काली–कमली-वाला' म्हणटाले. हृषीकेशाक आसतालो. ताचे थंय एक दीस एक मारवाडी पावलो. मारवाडयाचो व्यापार बुडिल्लो. जिवाक उबगल्लो. मनाची थंडाय जोडपा खातीर भोंवत भोंवत तो हृषीकेशाक पाविल्लो. थंय ताणें ह्या काळी कामळ पांगुरतल्या साधुची खबर आयकली आनी तो ताचे भेटेक गेलो. साधून ताका कितें सांगलें, कोणाक खबर ! घडये सांगलें जातलें हेय दीस वतले म्हुण. घडये 'जें घडटा तें बऱ्या खातिरूच घडटा' अशेंय कितें सांगलें जातलें. पुणून एक खरें. तो मारवाडी थंयच्यान घरा गेलो तो नवो मनीस जावन गेलो. उमेदीन परतो व्यापार करपाक लागलो. आनी म्हणटा म्हणसर आशिल्लो ताच्याकूय अदीक गिरेस्त जालो. जिवितांत जें कितें घडटा तें आमच्या बऱ्या खातिरूच देव घडोवन हाडटा हाचो ताका खोलायेन अणभव आयिल्लो. आपणाक हे जे बरे दीस पळोवंक मेळ्ळे ते ह्या काळी कामळ पांगुरतल्या बाबाचे कृपेन आयल्यात अशें ताका दिसपाक लागलें आनी तो परतो भावार्तान बाबाचे भेटेक हृषीकेशाक आयलो. बाबाचे आपणाचेर जे उपकार जाल्यात ते कितलेंय केल्यार फारीक जावपाचे नात अशें दिसून ताणें बाबाक सांगलें : 'फूल न्हय, पाकळी ह्या नेमान हांव कितेंय दिवंक सोदतां...कितें दिवं ?...'

बाबा कितें मागतलो ? आपले ल्हान-शे कोठये-कुडीर उदक सोडून देवाचें पुराय कोठार आपलें केल्लो साधू तो. तागेर कसलें उणें ? ताणें म्हळें : म्हाका कांय नाका...पुणून तुका संतोस भोगपा खातीर एक सुचो-वणी करतां : हिमाळयाचे भोंवडेक जे यात्रीक वतात तांकां वाटेर रावपाक घरां–बिरां मेळनात. तूं पयशे खर्चितलो जाल्यार, जम्नोत्री, गंगोत्री, केदार आनी बद्री हे वाटेर पांच–पांच, सात–सात मैलांच्या अंतरार एक–एक चट्टी बांदून घे...'

मारवाड्यान खोशयेन चट्टयो बांदल्यो. तांची वेवस्ता पळोवपाची जापसालदारकी काळी कामळ पांगुरतल्या ह्या साधून आपल्या आंगार घेतली. तेन्ना सावन 'काली कमलीवाला' म्हुण एक मोटो 'ट्रस्ट' हृषीकेशाक चलता. ह्या ट्रस्टाचे गुजारतीन हिमालयांत वचपी यात्रिकांक रावपा खातीर चट्टयो चलतात, तशी पत आशिल्ल्या साधू यात्रिकांक जेवंक खावंक दिवपी कांय अन्नछत्रांय चलतात.

आमी चट्टिच्या 'चौकीदारा' क सोदून काडलो. ताचे कडल्यान एक कूड घेतली. कुडींत सामान दवल्लें आनी चौकीदाराच्याच पसऱ्या वयल्यान तांदूळ, दाळ, बटटां, बी थोडे जिनस घेतले. आयदनां आमी वांगडा व्हेल्लीं. फकत एक रांदन जाय आशिल्ली. देवेन्द्रान खंयच्यान तरी तीन फातर हाडले आनी आंगणांत उकत्यार एक रांदन घालून दिली. थोडो जळोव चौकीदारानूच विकतो दिलो. रांदनीर खिचडी उडयली. आनी गंगेर न्हावपाक गेले. न्हावन येवन रांदून जेवतासर न्हिदेन आपले मांडयेर आमकां केन्ना घेतलें, समजलें लेगीत ना.

फांत्या परार जाग आयली. हांव 'उठ जाग मुसाफिर, भोर भई, अब रैन कहाँ जो सोवत है?' हें भजन घोळयत कुडींतल्यान भायर आयलों. मंद-म्होंवी हवा व्हांवताली. मळब न्हावन-धुवन आयिल्लेवरी दिसलें. नाखांत हिमालयांतले मातयेचो गंध गेलो आनी कानार शेवण्यांच्या गितांचे आलाप पडले. हांवें चोंय वशिंनीं नदर भोंवडावन पळेलें. म्हाका आयचो दीस 'आतां फुलतलो, आतां फुलतलो...' करपी कळये सारको दिसलो.

हरशींय जाल्यार, उदेल्लो दीस नवो ताल्ल आसता. पुणून हिमालयांतलो म्हजो पयलोच दीस हो. शाल पांगरून भायर आयलों आनी गंगेच्या कांठार एका खडपार बसून वाडटया उजवाडाचे ‘ मूड ’ नियाळीत रावलों. शेवण्यांच्या गितांक गंगेन ताल धरिल्लो.

मनांत ‘ उठ जाग मुसाफिर ’ भजन घोळटालें. हांवें पळेलें : आतां तें ‘ यह प्रीत करनकी रीत नहीं; रब जागत है, तू सोवत है ’ ह्या कडव्या भोंवतणी घुंव-घुंव-घुंवत रावलां.

म्हाका दिसलें : ह्या ‘ जगता ’ फाटलो ‘ जगदीश ’ म्हाका कुरवांनी खुणावंक लागला...आनी म्हाका त्या कुरवांचो अर्थूय समजूंक लागला. खातकुतल्यो जाल्लेवरी दिसपाक लागलें, चाळयल्लेवरी जावपाक लागलें. म्हाका आनिकूय दिसलें : ताचे वयल्या म्हज्या मोगा परस म्हजे वयलो ताचो मोग व्हड. म्हाका आपलो करपाचे ताचे जे यत्न चल्ल्यात, ते म्हज्या यत्नांपरस खोल. आमी आवयचेर करतात ताच्याकूय चड आवय आमचेर मोग करता. तोच नेम हो.

केदो वेळ ह्याच ‘ मुडां ’त उल्लों. दीस वयर सरतकूच चट्टेर परतलों.

चट्टेर पळे जाल्यार, एकली उतार पिरायेची बायल-मनीस जमनीर कपळां आपटु-आपटून रडटा. कांय जाण तिचे भोंवतणी उबे रावन ‘ कितें जालें ?... कित्याक रडटा ?... ’ म्हुण विचारतात. कोणें सांगलें : ‘ काल ती बसीन आयिल्ली... ( हय, हांवें तिका बसींत पळेल्ली ). ती न्हिदिल्ले कडेन आसतना तिचे सांगाती तिका सोडून गेले. ’ म्हाका पयलीं अर्थूच सारको समजना जालो. तिचे सांगाती तिचे कोण ? ते तिका सोडून कित्याक गेले ? मागीर, तिका हांगा मेरेन् घेवन तरी ते कित्याक आयले ? आनी ही असल्यांच्या सांगातान हांगा कित्याक आयली ? ल्हवू-ल्हवू सगळें निवळ जावपाक लागलें : ही बिहारी. पूत जम्नोत्री-गंगोत्रिचे यात्रेक भायर सरिल्लो. हीय ताच्या वांगडा यात्रेक भायर सल्ली. पुताक हांगा पावतकूच

दिसलें : हिचे आनी आपले गतिचो मेळ बसपाची आस्त ना. ' हिका आपले गतीन येवं दी. आपूण मुखार वतां ' अशें येवजून तो तिका सोडून गेलो...

म्हाका भिरभिरी माल्ली. इतले पयस एका अनवळखी गांवांत– गांवांत खंयच्या, रानांत– आवयक एकलीच सोडून वचपी पूत कसलो आस-तलो ? आनी हो मनीसपण नाशिल्लो मनीस हांगा हिमालयांत कितें करपा खातीर आयला ? पातकां धुवपा खातीर ? काय, नवीं करपा खातीर ? आवयक सोडून वचपी मनशाक मनीस तरी म्हणूं येत व्हय ? काय, तो बायले सुवादीन जाला ? आवयक हांगा ती मरची म्हुण सोडून गेला काय ? म्हज्या दोळयां मुखार म्हजी आवय उबी रावली.

हांव जल्माक आयलां तेन्ना ह्या संवसाराक मात् लेगीत वळख-नाशिल्लों. खंय आयलां, हांगा म्हाका येवकार कसो मेळटलो, कांयच नकळ आशिल्लों. असल्या ह्या सामक्या अनवळखी संवसारांत दोळयांत तेल घालून म्हजी वाट पळेत म्हजी आवय बशिल्ली. म्हाका तिणें पळोवंक नाशिल्लो. पुणून हांव येतलों म्हुण ती जाणां आशिल्ली. येना फुडें तिच्या तोंडार हांसो फुलिल्लो. मोगान तिचें काळीज भरून ओतूंक लागिल्लें. म्हज्या खातीर जीव लेगीत ओंपपाक ती तयार आशिल्ली. ह्या संवसाराचे वतीन म्हाका सगळ्यांत पयलो येवकार तिणें दिल्लो आनी तिणेंच म्हाका ह्या संवसारांत म्हजी सुवात खंयची आनी म्हजें मोल केदें हाची जाणवीक करून दिल्ली. तेन्ना पसून हांव तिच्यांत संवसाराचे आदी-मायेक पळेत आयलां...

हांवें मनांत म्हळें : ' आवयचें मोल नकळ आशिल्ले पूत जल्माकूच येवंक जायनात. ' म्हजें काळीज कळवळून आयलें. म्हाका हांवेंच कस-लोय तरी गुन्यांव केल्लेवरी दिसपाक लागलें. मनांत आयलें, तिका सांगचें : ' तूं भियेवं नाका... हांव आसां. हांव तुका सगळे कडेन भोंवडावन हाडटां... '

मदीच म्हज्यांतल्या वेव्हारी मनशाक जाग आयली. ताणें येवजि
'हिची काकुळट करूंक गेलों जाल्यार फस्तीक पडटलों...' हावें मन कि
केलें. तरी निमाणें हावें तिका म्हळें : 'तूं भियेवं नाका. आमी अ
तुज्या सांगाताक...'

पुणून तिणें आयकूं नाका ? ती कपलां फोडून रडली. अवचित् ि
कितें येवजलें कोणाक खबर ! ती ओगी पडली. सगळें विसल्ली. प
उबाल्ली, खांदार माल्ली आनी एकलीच भायर सल्ली.

'खंय चल्ली गे ?' कोणें विचाल्लें.

'जम्नोत्रीक.' तिणें जाप दिली.

हावें ह्या आदींच सांगलां . हांव संवसाराचेर उबगून हिमालयांत
नाशिल्लों. ध्यान-चिंतन वा साधना करपा खातिरूय येवंक नाशि
हांव आयिल्लों सुन्दरकायेचो एक भोगी ह्या नात्यान. सैमाचो एक
ह्या नात्यान. कोणेंच पळोवंक ना तें पळेतलों, कोण पावूंक नात थंय
येतलों हे उमेदीन. रगत तरणें. त्रासांची आनी कश्टांची पर्वा नाशि
Aesthetic journey हेच पिरायेर करपाची आसता म्हुण भायर सरि

पुणून हिमालयांतलें वारेंच अध्यात्माचें ताका हांव कितें करूं
मनाचेर परिणाम केले बगर रावता व्हय ? तुजी बुद्द कितलीय फा
आसूं, हांगासल्ले अपरुपांचे देखाव पळोवन ती मातशी मोव पडूंकूच
तिका ह्या संवसारा फाटल्यान 'संवसार-रचतलो' आसा म्हणपाचें दि
जाय. ती हे भाशेन हांगा मोव पडटा. मोव पडली म्हणटकूच हि

तिका दिक आनी काल हांच्या पेल्यान भोंवडावन हाडटा आनी तिका 'सनातन' तत्त्वांची वळख करून दिता. आत्मो आसा काय ना, ह्या विशीं तुज्या मनांत दुबाव आसूं, हिमालय तुका दाखोवन दिता : संवसारांत केन्नाच ना जायना असलें कितेंय आसा जायत जाल्यार तें एकूच–आत्मतत्त्व. जो संवसार तूं चोंयवशिनीं पातळ्ळेलो पळेता तो ताची सावळी, ताचें भायलें रूप. तुज्या अंतस्कर्णांतल्या अंतस्कर्णांत तेंच आसा आनी भायर हें जें सगळें दिसता तातुंतूय तेंच आसा. इतलेंच न्हय, तर हिमालय तुका सांगता : तूं आनी तें एकूच. तें आनी हें सगळें एकूच. तूं आनी हें सगळें एक ...

रुशींक हिमालयांतूच उपनिषदां येवजलीं जावंक जाय. ते हांगा आयले. ध्यानाक बसले. दोळ्यांमुखार तांणीं हांगासल्ले ऊंच पर्वत दवल्ले आनी तांच्याच आधारान जिविताचीं उंचांतलीं ऊंच तत्त्वां सोदून काडलीं. छांदोग्य-उपनिषदांत नारद आनी सनत्कुमार हांचे मदलो संवाद आयला. नारद म्हळ्यार, ते मुस्तितलो मोटयांतलो मोटो बुदवंत. तो सनत्कुमारा सरीं वता आनी म्हणटा : 'तुजे कडेन सांगपा सारकें आसा तें सांग....' सनत्कुमार विचारता : 'तूं कितें जाणां तें पयलीं सांग.' आनी नारद ताका आपूण अमकें जाणां, तमकें जाणां म्हुण एक मोटी वळेरीच सांगता. आनी मागीर म्हणटा : 'गोडशें कशें लागता हाचीं वर्णनां हांवें वाचल्यांत. गोडशें अजून चाखून पळोवंक ना. हांव अजून आत्मवित् जावंक ना... ' सनत्कुमार ताका सांगता : 'तूं जें जाणां तांतलें अमकें अमक्या परस ऊंच. ताच्याकूच अमकें ऊंच. पुणून तें सगळें 'अल्प.' तातूंत सुख ना. 'नाल्पे सुखम् अस्ति.' मागीर सुख कित्यांत आसा ? 'यो वै भूमा तत् सुखम्....' जें 'भूमा' म्हळ्यार व्हड...व्हडांत व्हड ...ताच्याकूय जें व्हड, तातूंत सुख आसा. 'यो वै भूमा तद् अमृतम्... जें व्हड तातूंत अमृत आसा. तें तुका कळूंक जाय. मागीर तूं आत्मवित्

जातलो... मन ल्हान आसता तेन्नाच तें पातकांत पडटा. मन व्हड क
तें पातकांतल्यान वाटावतलें. मन व्हड करपाक 'भूमा' दोळयां मुख
दवर आनी 'भूमा'ची वळख जावपाक हिमालयांत यो'.

सनत्कुमाराक 'भूमा'ची वळख हिमालयांतूच जाल्ली आसूंक जाय

सकाळचीं घा जाल्लीं. हांव न्हावपाक गंगेर गेलों. सुर्य बरोच वय
आयिल्लो. उदक थंड आसलें तरूय आंगार घेवं येतालें. बरोच वेळ न्हाल
आनी मागीर सावळी सोदून एका खडपार वचून बसलों. चोंयवरिंचे दों
उबे रावन म्हाका पळेताले. आनी हांव तांच्या आंगां वयली रुखाव
नियाळटालों. एक रूख आमचे भिण्णी सारको ऊंच, कारवारच्या वाऱ्याच
झाडांच्या नात्यांतलो दिसलो. हांवें म्हळेंः 'हाचें तोंड वळखिचें—शें दिसत
पुणून हाचे पयलीं हांवें हाका खंयच पळोवंक ना.' कोणें ताचें नांव, गां
जात, कुळी सगळें सांगलें : 'हाका चीड म्हणटात...हो पांच हजार फुटांप
ऊंच सुवातेर रावपी...हाचो दुसरो भाव देवदार, तो तुका मुखार मेळटलं
तो हाच्याकूय ऊंच सुवातेर रावपी...'

वळख जायसर आमकां एका-मेकांची मुरवत दिसली. मागीर ना. माग
ताची आनी म्हजी दाटी जाली. ताच्या आंगातल्यान तिंबिटीन तेल्लय ये
आनी सरसा सारको दसोवपी एक दिखूय भायर सरता. ताचें लाकूड घ
कूय उपकारता...बी जायत्यो खबरी मागीर कळ्ळयो.

घरासूक खरी सोब ह्या रुखांनीं हाडल्या.

म्हजी नदर आतां गंगेक पळोवंक लागली. निकतीच वयांत आयि
आंकवारीं सारकी ती दिसताली. आपूण वयांत आयल्या म्हणपाचें ति
भान लेगीत नाशिल्लें. ती मेकळेपणान नाचताली. कांय फातर मदींच ति
वाट आडायताले आनी ती हुशारीन तांकां सगळयांक चुकोवन मुख
वताली. त्या वेळार ती हांसताली. पळोवपा सारकी दिसताली.

हांव कुशीक बसून हो सगळो देखाव पळोवंक लागलों. न्हय, 'पियेवं

ागलों.' एका–एका घोंटा वांगडा मनान घोळूंक लागलों. आनी ' जडां 'तलें
तन्य सोदपाक लागलों. ईश–उपनिषद म्हाका पाठ आशिल्लें. तें
नांतल्या मनांत म्हणपाक सुरवात केली. शान्ति–पाठ म्हणून जातकूच
ईशावास्यम् इदम् सर्वम् यत् किंच जगत्यां जगत् ' ह्या पयल्या श्लोका-
डेन पावलों आनी हांवें पळेलें : तोंडांतल्यान मुखावयले श्लोकूच भायर
रनात. ह्याच एका श्लोकाचेर चित्त दसलां. आनी हांव म्हाका सांगपाक
ागलां : ' हें जें मुखार कितें दिश्टी पडटा ( वा आसा ) तें हें सगळें
ागत्यां जगत्. म्हळ्यार चलपी, वचपी. ना जावपी. थीर न्हय. तें जल्मा
ता, बदलता, मरता. ताका थीर अश्या ' ईश ' तत्त्वान भर...
चैतन्यान भर.'

एक खेपे एकूल्यान म्होंवांत उंडो घाल्लो आनी सवनूरात तसोच दव-
ल्लेलो. दुसऱ्या दिसा पळे जाल्यार म्होंव सगळें उंडयाच्या कणा–कणांत
ल्लां....

म्हाका उपनिषद् सांगपाक लागलें : ' तुका ही जी सृश्ट दिश्टी पडटा
ी ना जावपी आसूं, ती चैतन्यान भर. आनी मागीर पळे. तुका वेगळोच
ाणभव येतलो. जिवितांत तुका एक आगळोच आनंद भरिल्लो पळोवंक
ोळटलो...

स्पर्शाचो एक आनंद आसता. गंधाचो दुसरो आनंद आसता. तसो
ाणभवाचोय म्हुण एक आगळो आनंद आसता.

एका मोन्याक खय एक खेपे एक सपन पडलें. त्या सपनान तो सुखा-
ालो. दुसऱ्याक तें सांगचेशें ताका दिसलें. पुणून कशें सांगतालो ? ' गूंगेको
ापन भयो. समुझ समुझ पछताय...' तशी म्हजी गत्त जाल्ली...

एका प्रस्नाची जाप हांगाच दिल्ली बरी...

हिमालय पळोवन येवपाची उमळशीक म्हाका केन्ना जाली, कशी आनी कित्याक लागून जाली?

गोंयकार संवसाराचे फाटीर खंयूय वचून रावूं, तो गोयांक केन्ना विसरना. कांयच न्हय जाल्यार, मरचे आदीं तरी तो गोंयां येता आनी आपली कूड गोंयचे मातयेंत भरसुची म्हुण आंवडेता; तशें खय जाच्या शिरंत्रांनीं आर्य रगत घोळटा ताका हिमालया संबंदान दिसता. तो हिमालयाक केन्ना विसरना. काकासायब म्हणटात : इतिहास कितेंय सांगूं, संस्कारांची खोलाय पळेल्यार ' आर्य मूळचे हिमालयांतले आसूंक जाय. ना जाल्यार, हिमालयाची जी अंतपार नाशिल्ली ओड आमकां दिसता तिचो सारको अर्थ लागना. ' ' आयुश्यांत एक खेपे तरी हिमालय पळोवन येवंक जाय ' अशें आमकां दिसप ही एके तरेची ' हीम–सिकनेस ' आसूंक जाय. नाजाल्यार ' हरशीं पावले नात; आतां म्हातारपण आयलें, कूड लटलटूंक लागल्या, आंगां धील जाल्यांत, आतां आनी परकेकडेन कितें रावतालो ?... जीव व्हरून घरा घाल्लो बरो... ' अशें आमकां कित्याक दिसतलें आशिल्लें ? महाभारताच्या काळा पयलीं सावन आमकां अशें दिसत आयलां. हजारांनी वरसां जालीं, वरसान वर्स कितले–शेच भारतीय हिमालयाचे भोंवडेक ह्याच संस्कारांक लागून वचत आसात.

म्हज्यांतूय हो संस्कार आसूंक जाय. पुणून धरासूक पावऽसर ' म्हाका हिमालयांत वचून येवपाची प्रेरणा काकासायबां कडल्यान मेळ्ळया ' अशें हांव मानीत आयिल्लों. तांगेलें हिमालयांतले भोंवडेचें पुस्तक हांवें मोटे रुचीन वाचिल्लें. हिमालयाचेर आयजवेर जितलींय पुस्तकां आयल्यांत तांतलें सगळ्यांत बरें पुस्तक तें हेंच. गुजराथ,

म्हाराष्ट्रांतल्या कितल्याश्याच लोकांक हिमालय पळोवन येवपाची प्रेरणा आनी हिमालयाकडेन पळोवपाची नदर ह्या पुस्तकान दिल्या. म्हजेर जसो काकासायबांच्या सांगाताचो परिणाम जालो तसो तांगेल्या ह्या पुस्तकाचोय जालो.

पुणून घरासूक येतना वाटेर टिहरी गांव लागलो आनी अवचित् म्हज्या मनांतलें एक जनेल उकतें जालें.

आनी हांवें त्या जनेलांतल्यान पळेलें कि काकासायबांचें नांव लेगीत आयकूंक नाशिल्लें असले पिरायेर हिमालय पळोवन येवपाची उमेद म्हाका जाल्ली. हांव तेन्ना सतरा-अठरा वरसांचो आशिल्लों. विवेकानन्दाच्या पुस्तकांनीं म्हाका भारताचो ध्येयवाद समजून घेवपाचो ध्यास लायिल्लो. त्यावेळार स्वामी रामतीर्थांचींय पुस्तकां हातांत आयिल्लीं. तातूंत हिमालयाचीं वर्णनां वाचिल्लीं. हिमालयांत अशें कितें अजापांचें आसा कि जें पळेतकूच आंगार कांटो फूल्लन येता अशें म्हाका त्या वेळार दिशिल्लें आनीं 'तें पळोवन येवंकूच जाय' अशें हांवें तेन्नाच थारायल्लें.

नव्यो नव्यो सुवातो पळोवपाची, त्रासांची, धाडसांची भोंवडी करून नवे नवे अणभव घेवपाची उमेद तरण्या काळजाक आसता. तातूंत भुरगेपणांत आवय- बापाय वांगडा केल्ले उत्तर हिन्दुस्तानांतले भोंवडेन काळजाशेत खणून काडलें. रामतीर्थान तातूंत बीं रोयलें आनी काकासायबांच्या पुस्तकान आनी सांगातान उदक-सारें घालें.

बरे जमनींत रोयिल्ल्या बियाक उदक-सारें बरें पडटकूच जशें जाता तशें हिमालयाचे बाबतींत म्हाका जाल्लें.

पांय आतां चलपाक लागिल्ले....

आमी धरासूक एकूच दीस रावले आनी दुसऱ्या दिसा गंगेक ‘ येतां ’ म्हुण सांगून भायर सल्ले. सकाळचीं सुमार पांच जाल्लीं. रातिचो काळोख अजून सोंपूंक नाशिल्लो. उजवाड सुरू जावपाक अजून कळाव आशिल्लो. एक लेगीत शेवणें जागें जावंक नाशिल्लें. फकत थोडीं नखेत्रां काळोख कातरून चकचकतालीं आनी थोड्या वेळान दीस उदेतलो म्हणपाची आस्त उकतावन दाखयतालीं. एके वाटेन म्हाका दुगदुग दिसतालो : पांयांनी चलप जातलें मू ?...जम्नोत्रीक पावतले मू?...’ दुसरे वाटेन उर्बेन काळीज भरून आयिल्लें आनी हांव म्हणटालों : ‘ कोण आमकां आडायतलो ?... कोण फाटल्यान ओडटलो ?...फाटल्यान ओडपी सगळे भंय-भाडे फाटल्यान सोडून आमी चल्ले...’

पांच-सात मिणटां चल्लया उपरांत एक दोंगर लागलो. ह्या दोंगरा वयल्यान एक पांयवाट जम्नोत्रीक वताली. फर्लांगभर हे वाटेन चल्लया उपरांत दोन वाटो फुटिल्लयो दिश्टी पडल्यो. आतां हांतली जम्नोत्रीक वचपी वाट खंयची, हें कोण सांगतलों ? कोंणाकूय विचारून खातरी करून घेतले बगर पावल मुखार घालप ना अशें येवजून हांव थंयच उबो रावलों. जो वेंताक चुकता तो हरशींय जाल्यार वांवाक चुकता. आनी हांगां हिमालयांत जाल्यार जो वेंताक चुकता तो सगळ्या आनंदाक चुकता...खंयचे खंय पावता. नरेश म्हजेच वरी खीणभर उबो रावलो आनी म्हणटा म्हणसर दावे कडली वाट खरी अशें थारावन चलपाक लागलो.

हांव ‘ कितें करचें ’ ह्या बुचकळ्यांत थंयच उबो आशिल्लों. इतल्यांत, म्हाका एकलो जाणटो मनीस दिश्टी पडलो. तो म्हऱ्यांत पावतकूच हांवें ताका विचाल्लें :

‘ भाई, जम्नोत्रीका रास्ता कौनसा है ?...’

ताणें नरेश गेल्लो ते वाटेकडेन बोट दाखोवन म्हळें :

‘ यही जम्नोत्रीका रास्ता है....?’

हांव येवजूंक पडलों. म्हळें, हाका कशें समजलें ? हो कांय हांगासल्लो दिसना. हाच्या हातांतली बडी आनी फाटी वयली पोटली पळेल्यार होय आमचे सारकोच एक यात्रीक दिसता. मागीर, हो इतल्या आत्म-विस्वासान जाप कशी दिता ? नरेश हे वाटेन गेला तो पळोवन ‘ हीच वाट आसतली ’ अशें बी हाणें थारायलें काय कितें ? काय, हो हाचे पयलीं हांगा येवन गेला ? हांवें ताका अजापान विचाल्लें : ‘ आपको कैसे मालूम हुआ कि यही जम्नोत्रीका रास्ता है ?’

यात्रेक भायर सरतात तांचें सवें इंद्रीय जागें जाता जावंक जाय. कांय गजाली तांकां आपशींच समजतात. हो मनीस म्हजो प्रस्न आयकून म्हाका समजावपाक-लागलो: ‘जम्नोत्रिची वाट यमुनेचे तडी वयल्यान वचूंक जाय. यमुनेची तड दोंगरा सकळ आसतली....उजवे वाटेन गेल्यार, दोंगरा वयर पावतले...’ आनी ताणें म्हळें : ‘ सादें गणीत हें...’

म्हाका हें गणीत पटलें. हांवें नरेशाक उलो मारून म्हळें : ‘ नरेश, हाच जम्नोत्रीचा मार्ग आहे...’

म्हज्या तोंडांतल्यान भायर सरिल्लीं मराठी उतरां आयकनाफुडें त्या जाणटेल्यानूय मराठींत म्हळें :, ‘ हो हाच मार्ग आहे. ’

आमीं दोगांयनी एकामेकांच्या तोंडाकडेन पळेलें. आमची नदरेक नदर लागली आनी कितें म्हुण कोण जाणां, आमी दोगूय एकामेकांक वळ-खले. म्हाका जाल्यार, ह्या अनवळखी रानांत पयल्याच दिसा लागिंचो कोणूय सोयरो मेळिल्ल्याची खोस जाली. ताणें म्हाका विचाल्लें : ‘ आपण महाराष्ट्रीय का ? ’

कितें जाप दिवं ? न्हय म्हणूं ? कितलीं वरसां जालीं, गोंयकार

म्हा-राष्ट्री न्हय, मराठी न्हय अशें म्हणीत आयलां. मराठी आनी गुजराथी वेगळे, पंजाबी आनी काश्मिरी वेगळे, बिहारी आनी बंगाली वेगळे तशे कोंकणी आनी मराठी वेगळे अशें मानीत आयलां. न्हय, मोट्यामोट्यान सांगीत आयलां. झगडत आयलां. हांव जाणां—आमी मराठींत बरयतात, वाचतात, शिकतात; मराठी भजनां म्हणटात, नाटकां करतात. आनी तरी आसतना हांव म्हणपी : आमी वेगळे. चार शेंकडे आमी पुर्तुगेजांच्या राजकी शेकातळा उल्ले म्हुण जशे आमी पुर्तुगेज जाले नात; तशे चार शेंकड्यांच्याकूय चड वरसां मराठी संस्कृतायेच्या शेकातळा आमी आसात म्हुण आमी मराठी जायनात. वसणूकवाद फकत राजकीच आसता न्हय ? संस्कृतायेच्या मळारूय एक वसणूकवाद चलता. राजकी वसणूकवाद कुडीक बंदेपणांत दवरता. संस्कृतायेच्या मळावयलो वसणूकवाद आत्म्याक हाणटा. आमची राजकी अस्मिताय निकतीच जागी जाल्या. संस्कृतायेच्या मळा-वयली अस्मिताय जागी करूंक जाय अशें हांव मानपी, म्हणपी आनी संस्कृतायेच्या मळावयली आमची अस्मिताय जागोवपाक वावुरपी...

म्हाका उगडास जालो. हांव श्रीअरविंदांचे भेटेक पॉंडिचेरींक वतालों. वाटेर काटपाडी स्टेशनार फुडले गाडयेची वाट पळेत उबो आशिल्लों. तमीळ मातूय समजना. इंग्लीशूय व्हडली-शी येनाशिल्ली. अवचित् म्हाका थंय एकलो गुजराथी मनीस दिश्टी पडलो. हांवें म्हज्यांत वचून विचाल्लें : 'आप गूजराती छो के ?...'

आमकां दोगांकूय, पळे, आनंद जालो, सांगपा न्हय. परकी मनीस लेगीत जेन्ना आमची भास उलयता तेन्ना तो परकी उरना. आमचोसो दिसपाक लागता. भासो मनशाचीं काळजां जिखतात. काळजां एकामेकांत गुंथपाचो वावर करतात. म्हज्यान त्या मनशाक 'हांव मराठी न्हय' म्हुण सांगूं येतालें. पुणून म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां फुटलीं : 'हो....मी महाराष्ट्रीय आहें.... '

जालें, त्याच खिणाक आमचे 'पार्टी'त आनी एकल्याची भर पडली. हांवें ताका विचाल्लें : 'आपलें नांव काय ?'

'हरि कृष्ण करंदीकर...' जाप मेळ्ळी.

करंदीकर भुसावळाक स्टेशन मास्टर आशिल्ले. निकतेच रिटायर्ड जाल्ले. त्रिस्थलिची भोंवडी करून ते आतां हिमालयाचे यात्रेक आयिल्ले. पुराय यात्रा तांणीं आमच्या वांगडा केली. आमच्या जुवानपणाच्या आडांगपणाक आळो घालपी एकल्या जाणटयाची हांगां आमकां गरज आशिल्ली. आनी उमेदिचीं साठ वरसां पुरीं करून मुखावयली कांटयाळी वाट एकल्या-एक-सुरेपणान चलपी ह्या जाणटयाक पळोवपी तरण्या सांगाताची गरज आशिल्ली. यात्रेच्या पयल्याच दिसा देवान दोनूय गरजो भागोवपाची माण्णी करून दिल्ली...

पांयांनीं भोंवडी करपाचो हो आमचो पयलोच दीस. उदेंते कडल्या एका पर्वताचे फाटीर चडून आमी चलपाक लागले. थोड्या वेळान अस्तमेच्या पर्वता माथ्यार कंवळें वोत दिश्टी पडलें. दीस वयर सरपाक लागिल्लो. काळोख वचून उजवाड येवपाक जिस्त, आमची वाट एका रानांत भितर सल्ली. शेंकड्यांनीं चिडा-रूख जशे कितें आमकां आपल्या वांगडा घेवन जम्नोत्रिचे भोंवडेक भायर सल्ल्यात आनी आमच्या सांगातान चलतात अशें दिसलें. केदो वेळ ते आमच्या सांगातान आयले आनी एके कडेन पावत-कूच अवचित् थांबले आनी जशें कितें म्हणपाक लागले : 'पुरो आतां... तुमी इतले पयसल्यान आयल्यात देखून तुमच्या भौमानान आमी तुमकां

आमचे शिमे मेरेन पात्रपाक आयले...आतां ह्या मुखार तुमकां दुसऱ्यांचो सांगात मेळटलो.... '

आमी मुखावयली वाट कातरपाक लागले. मुखार रान–गुलाबांचें एक व्हडलें मळ लागलें. हजारांनीं गुलाब–शेवतीं फुलिल्लीं. तांगेलो तांबडो-गुंज रंग दोळ्यांक सुखावंक लागलो. आनी मंद परमळ नाखाक भुलोवंक लागलो. मदींच दिसलें, हांगा खंयूय विश्वामित्र बी तपाक बसूंक ना मू? गुलाब-शेवत्यांच्या ह्या रानाक तपोवनाची सया मारताली. विश्वामित्र असलेच कडेन तपाक बसतालो. विश्वामित्राचो उगडास जायना फुडें दोळे मेनकेक सोदपाक हे वाटेन ते वाटेन भोंवूंक लागले.

सात-आठ मैल चड-देंव केल्या उपरांत बरमसाल नांवाचो धा-वीस घरांचो गांव लागलो. थंयच तीन वर्णाटिंची पडवी कशी एक खोंप मेळ्ळी. गांवांतल्या एका शेतकामत्यान ती जम्नोत्रीक वचपी यात्रिकांक विसंव घेवंक मेळपा खातीर मुजरत बांदिल्ली. थंयच ताणें एक पसरो घाल्लो. दनपारचें एक जाल्लें. आमी खंयच थांबनासतना चलत आयिल्ले. पुरो जाल्लें आनी भुकूय लागिल्ली. आमी थंय दाळ-तांदूळ बी विकते घेतले आनी रांदून जेवले.

वर-भर विसंव घेवन परतेय चलपाक लागले. आयज तेरा–चौदा मैल चलचें आनी राती कडेन सिलक्याराक रावचें अशें येवजिल्लें. दीसपट्टें कितलें चलचें, खंय रावचें आनी कितें पळोवचें ही पुराय येवजण नरेशान आंखिल्ली. जम्नोत्री अट्ठेचाळीस मैल पयस आसा; थंय पांच दिसांनीं पावूंक जाय, अशें ताणें थारायल्लें. ताणें थारायल्ल्या प्रमाण आमी चलताले. ' तुमी फाटल्यान येयात...हांव चट्टींत बरी सुवात आडावपा खातीर मुखार वतां...' अशें सांगून तो मुखार गेलो. देवेन्द्रूय ताच्या वांगडा गेलो. करंदीकर उतार पिरायेचे आसले तरूय तांगेली चाल सडसडीत. तेय तांच्या फाटल्यान गेले. सगळ्यां परस फाटीं आमी—हांव आनी गोदू. आमची चाल संथ. त्या भायर, वाटेर आमकां कांय वळखिचीं आनी कांय

केन्ना पळोवंक नाशिल्लीं झाडां मेळ्ळीं. तांकां जाप केले बगर मुखार वचप आमकां जमपाचें नाशिल्लें. नरेश आमचे परस बारीकसाणेचो. पुणून तो हाचे पयलीं एक खेपे ह्या वाटारार भोंवन गेल्लो. ताका अनवळखी कांय नाशिल्लें.

आमी दोगांय आमचे गतीन चलत मुखार गेलीं. आमकां सकाळचे वरी आतांय चिडा-रुखांचें दुसरें एक रान लागलें. चडटया वोतांत रान एके भाशेन सोबता. दनपारच्या कडार रानांत भोंवतना वेगळीच खोस भोगता. मनीस सगळे सारकेच आसले तरूय एकलो दुसऱ्या सारको केन्नाच नासता. तशे, रूख सगळे एकेच जातिचे आसले तरूय एक रूख तेच जातिच्या दुसऱ्या रुखा सारको केन्ना नासता. मनशा-मनशा मजगतीं खेरीतपण आसता तशें रुखा-रुखा मजगतींय आसता आनी राना-राना मजगतींय आसता. हांव रानाची सोबा नियाळीत चलतालों; इतल्यांत कुराडिच्या घायांचो आवाज कानार येवन आदळ्ळो. म्हणटा म्हणसर कर्रर्रर्र घस्स करून एक रूख भूंयेर पडिल्ल्याचो भास जालो. हांव तुरतुरीत पावलां घालीत आवाज आयिल्लो ते दिकेन चलपाक लागलों. पांच मिणटांचे वाटेर एकलो कल्सांव-चेपें घालून उबो आशिल्लो गांवठी सायब दिश्टी पडलो. तो आपल्या वांगडा एका मानायाक घेवन आयिल्लो. सायबान एक-एक रूख दाखोवचो आनी मानायान तो मारचो. सप्तकभर जाल्लें, दोगांयनी मेळून कितले-शेच चीड आडवे घाल्ले. दोंगरा फाटीर पळेलें, कितले-शेच चीड मरून पडिल्ले. म्हाका दोंगायची अशी तिडक माल्ली कि दोगांकूय काडून सकल धुकलून उडोवचें अशें दिसलें. म्हज्यान ही चिडां हत्या पळोवं नज जाली.

ह्या घातक्यांक सरकारान मुजरत हांगा धाडून दिल्ले. तांकां दुडू दिवन ही दुश्ट करणी करूंक लायिल्ली. रेल्वेचे रूळ बसोवपाक खंय चिडा-लाकूड सगळ्यांत बरें. सरकाराक ह्या रुखां पसून खूब उत्पन्न जाता. ‘ फोरेस्ट

डिपार्टमेन्टा ' चो धंदोच हो : हांगा वरसान वर्स मनीस धाडप. मारपा खातीर रूख वेंचून काडप. खरवतकारां कडल्यान तांचीं फळीं कातरून घेवप, पाटयो करप आनी कातल्लेलें हें सगळें लाकूड न्हंयंत उडोवप. हें लाकूड उदकांत कुसना. व्हांवत व्हांवत सकल पावता. मदीं खंयूय शिरकलें जाल्यार सरकारी मनीस न्हंयेचे देगे वयल्यान एक पासय मारता आनी शिरकल्लें लाकूड बडयेन व्हांवत्या उदकांत सोडटा. उपरांत सकल हृषी-केशाक वा हरिद्वाराक सरकार हें सगळें लाकूड पुंजायता.

हिमालयांतल्यो न्हंयो ' ट्रांसपोर्ट कंपनी ' चोय वावर करतात म्हणपाचें म्हाका पयलेच खेपे हांगा कळ्ळें.

हांवें त्या कलसांव-चेंपेकार सायबाक विचाल्लें : ' पेड काटना तो खूप जानते हो...क्या, कभी पेड लगाते भी हो ?.... '

झाडां लावचीं पडटात हें ताका खंय खबर ! तो झाडां आपशींच जातात अशें मानपी संस्कृतायेंत वाडिल्लो दिसता. ताका म्हज्या प्रस्नाचो अर्थूय समजलो ना. ' हो आनी कितें बडबडटा ?.... ' अशें ताका दिसलें जावंये. म्हाका ताची काकुळट दिसली पुणून म्हजो राग न्हिवूंक नाशिल्लो. हांवें ताका मनांतल्या मनांत स्राप दिलो : ' फुडल्या जल्मांत तुजेरूय असलोच प्रसंग येवं... '

आनी मुखार चलपाक लागलों.

आमी सगळे बऱ्याक बरे, वायटाक वायट. पुणून संत म्हणटात : हातूंत व्हडलें-शें कांय ना. मागीर ? तर खंय वायट करतल्यांचें लेगीत मनशाक बरें करूंक येवंक जाय. हाकाच मनीसपण म्हणटात. ही देख घेवपाची आमी संतां कडल्यान. खासा संत मात ही देख घेतात रुखां कडल्यान. वोत झेलून दुसऱ्याक सांवळी दिवपी आनी फातर मारतल्याक फळां दिवपी रुखांची संतांक ओड दिसपाचीच.

पुणून संतांक लेगीत मोग करतल्याचेर रूख मोग करूंक जाणात

म्हणपाचें केन्ना समजलें ना. ना जाल्यार, ‘ काटे वाको क्रोध न करहीं, सिंचत न करहीं नेह ’ अशें ते म्हणचे नाशिल्ले. ‘ कुराडिचे घाय करतल्यां-चेर रूख केन्ना रागार जायनात ’ हें घडये खरें आसत. पुणून ‘ उदक शिंपतल्याचेर ते मोग करिनात ’ हें मात खरें न्हय. तांकां उदक दी, सारें दी, तांच्या मुळां भोंवतणची माती खणून तांकां मातशी मेकळीक करून दी आनी मागीर पळे : तुजेर ते भाळटले. तुका पळेनाफुडें ते खुशालभरीत जातले. तुका ‘ कितें दिवं, कितें नाका ’ अशें तांकां जातलें. तांचें वायट करतल्यांचें ते बरें करतात हातूंत दुबावूच ना. पुणून तांचेर मोग करतल्यांचेर लाख वांटयांनीं ते अदीक मोग करतात हें हांव जाणां. म्हाका रुखांची म्हजे इतलीच वळख आनी सुमारा भायर ओड.

करतां करतां वोत देंवलें आनी हिमालयाक एक वेगळीच कांत मारपाक लागली. चडट्या वोता परस पडटया वोतांत सैम सदांच अदीक सुंदर दिसता हाची हिमालयांत सगळ्यांत चड जाणवीक जाता.

तीन-सांज जावचे पयलींच सिलक्याराक पावले. नरेशान रावपाक बरी सुवात वेंचून काडिल्ली आनी देवेन्द्रान खिचडीय रांदनीर उडयल्ली.

हिन्दुस्तानाचे हे शिमेचें आनी अस्तम तिबेटाचें दाट नातें आसूंक जाय. हांगा हांवें पळेलें : लोकांची भास बदलता. भेस बदलता. रुपां बदलतात. तें कित्याक, हांगा सुण्यांचीं आनी गायांचींय रुपां बदलूंक लागतात.

दादल्यांच्या आंगार कालसांव, धोंपरा मेरेन लांब जुदी आनी माथ्यार वांटकुळी तोपी. हो भेस. बायलांच्या आंगार एक निळो-काळो घागरो,

ब्राबंदी नांवांचें एक खोमीस आनी तकलेर एके तरेचो ल्हान-सो मुंडासो असलो भेस दिश्टी पडटा. ह्या लोकांक न्हांवंक-धुवंक येता काय कितें, देवाक खबर. आंगावयलीं लुगटां धुयल्यार निवळ जातात म्हणपाची घडये हांकां खबरूय नासुंये. सद्दां न्हावपा-धुवपाची चाल नाशिल्ल्यान ह्या लोकांच्या केंसांत उवो आनी आंगाक चिरवो पडटात. सांजवेळ जाली म्हणटकूच दादले एकामेकांच्या आंगा वयल्यो चिरवो मारपाक बसतात. तेन्ना तो देखाव बद्द बायलांच्या उयो मारपाच्या देखाव्यासारको दिसता आनी आमकां एके तरेचेंच शें दिसपाक लागता.

ह्या ल्होकांचो मुखेल धंदो शेतकामाचो. तांदूळ, गंव, बटाटां रोवप आनी काडप. फाविल्ल्या वेळांत मानायपणाक एकामेकांगेर वचप. बायलां घर राखतात, शेतांत वावुरतात आनी फाविल्ल्या वेळांत लां विणटात. लुगटां विणपाचे मागूय कांय कडेन पळेले.

पयशांचो वेव्हार खूब थोडो. चडसो वेव्हार बटाटां दिलीं, गंव घेतलो; गंव दिलो, लां घेतली—हे भाशेचो. गरिबी आकांताची. चलयांक सूय आनी सूत मेळत जाल्यार पोवन मेळिल्ल्याची खोस भोगता. दिल्लींतल्या कांय इश्टांनीं आमकां बिंदी—म्हळ्यार, बेगडेच्यो तिकल्यो—व्हरूंक सांगिल्ल्यो. आमी वचत तांकां बिंदी वांटीत वताले. जांकां बिंदी मेळटाली तीं आपणाक भाग्यवंत लेखतालीं जावंक जाय अशें तांगेल्या तोंडार उफेवन आयिल्ली खोस पळेतकूच दिसतालें. ही गरिबी पळोवन म्हाका आमच्या राज्य-करतल्यांची तिडक मारची.

नेणारपणूय गरिबी सारकेंच आकांताचें.

समुद्र म्हुण एक कितें आसता हें हांकां सांगल्यार लेगीत खरें दिसपा ना. हांवें एकले चलयेक समुद्राचें वर्णन करून सांगलें. ती खु–खू करून हांसपाक लागली.

हांगा कांय जातिंनीं एक–एकले बायलेक द्रौपदी भाशेन पांच–पांच

गोत्र आसतात. गढवालांत जौनसारच्या वाठाराक ही द्रौपदी–प्रथा चलता म्हणपाचें जाणां आशिल्लों. हांगाय ती चलता म्हणपाचो अदमास नाशिल्लो.

मनीस कुळयेंत वेगळे-वेगळे कडेन वेगळयो वेगळयो चाली चलत आयल्यात. अजुनूय चलतात. तांतली खंयची बरी आनी खंयची खरी, कोण सांगतलो ? जण एकलो आपलीच चाल बरी मानीत आयला. इतलेंच न्हय तर वेगळी चाल ताका 'पाखंडा' सारकी दिसल्या. आमच्या धर्मानंदांनीं एके कडेन एक खबर बरोवन दवल्ल्या, तिचो म्हाका उगडास जालो : तिबेटांत काय आनी-खंयचे कडेन ते गेल्ले. थंय जागेर ते राविल्ले तो आपल्या धाकल्या भावाची खबर सांगता : 'कितें सांगतलें तुमकां, अच्छेत्र आयला ताचेर ! ताका खंय एक वेगळी बायल जाय. हांव म्हणटां: म्हजी आसा ती पुरो ना तुका ? तुका वेगळी बायल कित्याक जाय ? कलियुग हें. दुसरें कांय न्हय. ह्या युगांत असलीच पाडी बुद्द जावपाची जण एकल्याक...'

ह्या मनशाक आपली वेगळी बायल आसची अशें म्हणपी धाकलो भाव पाखंडी दिसलो. अनाचारी दिसलो.

संवसारांतल्या हेर कांय सुवातांनीं लग्ना आदीं चलयेक राजाक दिवपाची चाल आशिल्ली. ते बगर तिका घोवागेर वचूंक मेळनाशिल्लें. ही चाल मोडपी चली थंय 'वायट चालि'ची थरताली. कांय सुवातांनीं घरांत आयिल्ल्या पै–पावण्यांक रातीकडेन आपली बायल वा धूव दिवपाची चाल आसा. कांय कडेन इश्टां–इश्टां मजगतीं एकामेकांच्यो बायलो दिवन–घेवन इश्टागत घट करपाची चाल आसा. वेगळे वेगळे कडल्यो ह्यो वेगळयो वेगळयो चाली पळेल्यो आनी जण–एकलो आपली चाल सोडून भायले चालीक उणाक वा वायट लेखता तें पळेलें म्हणटकूच चालीं कडेन पळोवपाची नदरूच बदलता.

सांगतालों कितें काय म्हळ्यार, इतलेंय हें म्हाका खबर आसून लेगीत

हांगा द्रौपदी–प्रथा चलता म्हणपाचें आयकलें तेन्ना म्हाका हांगासल्ल्या बायलांची काकुळट दिसली.

बायलो मात् अप्सरां परसूय सुंदर. कित्याक काय ? वाऱ्याक लागून ? जायत. वारो हांगासल्लो आरोग्य-देणो हातूंत दुबावूच ना. त्या भायर हांगा बायलांक आंग मोडून योसर काम करचें पडटा. मागीर, तांकां चुरचुरीत भूक लागता. खाण दांत्यार दळिल्ल्या गंवांच्या पिठाचें. मागीर बायलांच्या गालां आनी आंगांवयल्यान रोझां झडपाक लागलीं जाल्यार अजाप कसलें ?

म्हाका हांगा बॉब म्हूण एकलो कॅनेडाचो भुरगो मेळिल्लो. हिन्दुस्तानच्या अध्यात्माचे ओडीन हांगा पाविल्लो. उत्तरकाशी लागसार एका गांवांत स्थायीक जाल्लो. हांगासल्लेच एके चलयेकडेन लग्न जाल्लो. आमी खबरी करूंक लागले. बरीच संवकळ जातकूच हांवें ताका विचाल्लें : ' हे चलये वांगडा तुजो संवसार कसो चलता ? '

' बेस बरो...' ताणें जाप दिली. ' हांगासल्ल्यो चलयो सांगात दिवपाक बऱ्यो. खूब प्रेमळ. जिवाक जीव दिवपी. ' उपरांत ल्हवूच मुमुरल्यांनीं हांसून म्हणपाक लागलो : ' हिची एकूच अडचण. ती म्हाका केन्ना उमो घेवंक दिना. '

हांवें अजापान विचाल्लें : ' कित्याक ?...'

' तिचो धर्म बुडटा...' ताणें हांसत हांसत जाप दिली.

कितें म्हूण कोण जाणा, हांगासल्ल्या कितल्याश्या बायलांच्या गळ्यांत हांवें गुळमां जाल्लीं पळेलीं. दीसभर दोंगर चडचे–देंवचे पडटात देखून (गळ्याचेर भार पडून) गुळमां जातात जावये. काय, कंठमाळे सारकी पिडा हांगा सगळेकडेन जाल्या ? बॉब म्हणी : थायरॉडची कसली तरी पिडा ही. हांकां ' इयॉद ' मेळना. कशेंय जावं, इतलें हें उणें तांच्यांत उल्लां. ना जाल्यार तांकां दिश्ट लागपाची.

सुमित्रा नांवांचें एकलें चली आमकां हे वाटेर मेळिल्लें. गोदून फाटल्यान

लागून ताका एक पहाडी पद म्हणूंक लायलें. पोराचो ताळोय पहाडी. पदांतली एकूच वळ तें भौन भौन घोळोवपाक लागलें. ते वळिचो अर्थ मातूय समजलो ना तरूय तांतली वेदना म्हज्या काळजाक तोपिल्ली. आनी बायलांच्या दुख्खांचो उगडास काडून म्हाका कळवळून आयिल्लें. दोन तीन वरसां उपरांत मुम्बयंत अमेरिकेंतले नीग्रो वीर डॉ. मार्टीन ल्यूथर कींग हांच्या वांगडा दोनचार दीस भोंवपाचें भाग्य मेळ्ळें. त्या वेळार, रॉक्सी थियेटरांत तांगेली घरकान्न श्रीमती कोरेंटा कींग हिच्या ताळ्यांतल्यान इंग्लिशींत एक नीग्रो गीत आयकलें. ह्या गिताची वेदना जेन्ना म्हज्या काळजाच्या तळाक आफडून गेली तेन्ना म्हज्या दोळ्यांमुखार हिमालयांत मेळिल्ले हे सुमित्रेची मुर्त उबी राविल्ली.

देव म्हळ्यार कितें ? एक शक्ती. पुणून विजूय जाल्यार एक शक्ती. देवूय असलीच विजेसारकी एक शक्ती व्हय ?

म्हाका दिसता, जण एकल्याची सुंदरकायेची नदर जशी वेगळी आसता तशी जण एकल्याची देवा विशिंची कल्पना करपाचीय नदर वेगळी-वेगळी आसूंक जाय. ' इस्थॅटिक सेन्स ' सारको जण एकल्याचो ' डिव्हाइन सेन्स ' खेरीत आसूंक जाय.

देव ही शक्ती आसली जाल्यारूय ती विजेसारकी कुड्डी शक्ती न्हय; तिका बुद्द आसा, काळीज आसा, अशें जांकां दिसलें ते देव कसो आसतलो हाचो अदमास करपाक लागले. ताचें रूप आपल्या दोळ्यां-मुखार उबें करतां करतां तांणीं देवाक आपलेंच रूप दिवन उडयलें.

उपरांत ताका आपले गुणूय दसयले. आनी ल्हवू ल्हवू तांणीं तेत्तीस कोटी देव जल्मा घाले.

इतल्यान तांकां धादोसकाय भोगली ना. तांणीं दुसरेय दिकेन वावर सुरू केलो. सामान्यां भायले कर्तुत्वी मनीस पळेले तेन्ना तांणीं तांकां 'अवतारी' लोक लेखले आनी तांकां देवाचे सगळे गुण दसयले. ह्या लोकांनीं देवाक मनीस केला आनी मनशाक देव केला. तांचें आपलें बरें. तांकां आपलें काळीज ओतपाक मनशा-रुपाचे देव आसात. नाजाल्यार देवा-गुणांचे मनीस आसात.

पुणून जे देवाक रूप दिवंक नकळत तांणीं आपल्या काळजांतली भक्ती खंय ओतप? तांणीं खंय भक्ती-नम्र जावप? ह्या प्रस्नान म्हजी न्हीद खाल्या.

हांव जाणां: मनशाच्या मनाक आकार नाशिल्ल्याची आनी शीम-नाशिल्ल्याची कल्पना करूंक येना. देखून मुर्तीं केन्ना ना जावपाच्यो नात. मुर्तीं ना करपाची गरजूय ना. तरी आसतना खंयचेच मुर्तीन आयजवेर आपणाल्या पांयांकडेन म्हजी पुराय भक्ती ओतोवन घेवंक ना. श्रीकृष्णाचे मुर्तींकडेन हांव वरांची वरां पळेत बसलां. बुद्धाचे मुर्तीन म्हाका मळबाक हात लावपा इतलो वयर ओडून व्हेला. खिस्ताचे मुर्तीं मुखार म्हजें काळीज सामकें विरगळून गेलां. पुणून खंयचेच मुर्तीन म्हाका 'भूमा'ची कल्पना करपाक आधार दिवंक ना. म्हाका भूमाचें रूप फकत एकेच कडेन दिश्टी पडलां तें सैमांत. सैमूच म्हाका 'ताच्या' पांयांसरीं घेवन गेलां.

म्हाका उगडास जाता. तो एक बिरेस्तार आशिल्लो. फांत्या पारार आमी सिलक्याराच्यान भायर सल्ले. आरंबाकूच एक आकांताचो पर्वत आडवो आयलो. काळजांत उर्बा भरिल्ली. आमीं चडपाक सुरवात केली. 'जातलें...' अशें दिशिल्लें. पुणून मैलभर चडटा सर म्हाका नाका पुरो जावन गेलें. पांच मैल

ाडपाक स वरां लागलीं. इकरांक सुमार पर्वताच्या माथ्यार पावले. वयर
क खडप मेळ्ळें. हांव त्या खडपार विसंव घेवपाक म्हुण बसलों. धाप
ागिल्ली. येदो व्हडलो हो पर्वत कसो चडलों हाचेंच अजाप जावपाक
ागलें. म्हळें, मनीस कितलोय दुबळो आसूं, चडपाचें मनांत हाडीत
ाल्यार तो चडटाच. तो चुकता एकेच कडेन. चडूंक सुरवात करचे
यलींच उंचाय मेजूंक लागता आनी ही उंचाय चडप आपणाच्यान जायत
ाय ना हाचो हिशेब लावंक बसता. मागीर चडपाक लागचे पयलींच
ार्शेता. खरें म्हळ्यार, ताणें चडटी कितली खर आनी ऊंच हें
ळोवपाचें सोडून चडपाक लागूंक जाय. खर्शेतलो. पुणून चडून माथ्यार
ावतकूच आपूण जाका ऊंच लेखतालों तो कितलो सकल आसा हेंच
ाका दिश्टी पडटलें. इतल्यांत येवजलें : जो इतलें चडून आयला ताणें
ातां थांबूंक जायना. बसूंक जायना. उठलों आनी फुडली वाट कातरपाक
ागलों. मैलदेड-मैल चल्लां जातलों; इतल्यांत, एक रान लागलें. इतलें
ाट आनी सुंदर रान हाचे पयलीं म्हाका मेळूंक नाशिल्लें. जशीं कितें
हाभारताचीं अठराय पर्वां रूप घेवन मुखार उबीं रावल्यांत. काळीज
ुदरकायेच्या अणभवान उपाट भरून आयलें आनी हांव पुरुषसुक्तांतली
क वळ ‘ एतावानस्य महिमा अतोजायांश्च पूरुषः ’ वोंठांतल्या वोठांत
टपुटपाक लागलों. रान काडून मुखार गेलों आनी अचकीत
ड्ज्या मुखार एक सान-शें शेवणें येवन बसलें. हिमालयांतलीं शेवणीं हांवें
ऊकत आयकल्लीं. पळोवंक नाशिल्लीं. आनी असलें भांगरा-रंगाचें सुंदर
ावणें जाल्यार हाचे पयलीं खंयच पळोवंक नाशिल्लें. उबो रावन हांव
ाचो आंगलोट नियाळपाक लागलों. रंग तोखेवंक लागलों. म्हणटा म्हणसर
ाची भित्री नदर म्हजेर पडली आनी तें भियेवन शेंपडी हालोवन टींव टींव
रीत भुर्रर करून उडून गेलें. तें खंय गेलें हें पळोवपाक नदर मात् वयर
ाडिल्ली. मुखार कितें पळेतलो ! निळ्या-पांचव्या धिप्पाड पर्वतांची एक माळ

आडवी पडल्या. तांच्या फाटल्यान कडयल्ल्या रुप्या रंगाचो चकचकीत मुकुट माथ्यार घाळून गिरि·राज हिमालय उबो आसा.दाव्या हाताक पांच-स हजार फूट खोलायेची एक दरय आसा आनी थंय धव्या-फुल्ल खडपां मदल्यान नागमोडी वाट काडीत पाचू कशी यमुना व्हांवत येता...

म्हजें पावल जम्नोत्रिचें हें हिमशिखर पळोवन थंयच जमनीक दसलें. उबो रावन पळोवपाक लागलों. सपनांत लेगीत असलो देखाव पळोवंक नाशिल्लो. मनांत म्हणपाक लागलों : जाका पळोवपाक व्हडले व्हडले विरक्त म्हात्मे लेगीत आंवडेतात तो हिमालय होच ? जाणें जिविताचीं उंचांतलीं ऊंच तत्वां सोदपाक रुशींक स्फुर्त दिली तो हिमालय होच ! बद्द म्हा-देवा सारको दिसता. ताच्या आंगावयली पांचवी चार रुखावळ म्हाका पार्वती कशी दिसली. कितलो सुंदर आंगलोट तिचो ! आनी कितलो पवित्र ! म्हा-देवासरीं ती कितली बरी सोबता ! ! उमा–महेश्वरूच म्हज्या मुखार येवन उबीं राविल्ले वरी दिसलें. वर्तमान खिणाच्यो सगळयो शिमो विरगळ्ळेल्ले वरी जाल्यो आनी हांव अनंतांत पेंवपाक लागलों· ह्या अजापांच्या सुंदर देखाव्यांतल्यान जी खोस व्हांवत येताली ती काळजांत भरून दवरपाक आकुळपिकूळ जावंक लागलों. हे सुंदरकायेक म्हजी·शी करपाची म्हज्यांतली वान्सा साप विरगळून गेली आनी म्हाकाच तिच्या पांयांकडेन ओंपपाची इत्सा म्हज्यांत उदेली. हांव म्हज्यांतल्या ‘ शिक्षित ’ मनशाच्यो मुर्वती विसल्लों आनी भोळ्या भावार्थी लोकां भाशेन मुखा-वयल्या उमा-महेश्वराक भौन भौन नमस्कार करपाक लागलों.

भूमानंद म्हुण एक आगळो आनंद आसता हें म्हाका त्याच दिसा समजलें. म्हाका ह्या भूमानंदान जिविताच्या दरयांत खोल खंय तरी ओडून व्हेलो आनी हांव येवजुपाक लागलों :

सैमाक जीव-नाशिल्लें मानप समा न्हय. तें जीव-नाशिल्लें आशिल्लें जाल्यार इतलें सुंदर केन्नाच दिसचें नाशिल्लें. ताका जीव आसा. देखून

युगां जालीं, ताची आप-उक्तावणेची चैतन्य-यात्रा चलत आसा. जें वाफे-सारकें आकार-नाशिल्लें आशिल्लें तें चित्ता मेरेन पावलें तें हेच यात्रेक लागून. ताची ही यात्रा थांबूंक ना. ताची गतीय देंवूंक ना. तें थांबिल्लें वा ताची गती देंविल्ली जाल्यार हो जो संवसार उबो दिश्टी पडटा तो विस्कळीत जातलो आशिल्लो आनी कोयराचे राशी सारको एकेकडेन पडिल्लो दिश्टी पडटलो आशिल्लो. सैमाची आप-उक्तावणी चलत आसा देखून संवसार उबो आसा. सैम सुंदर कित्याक ? तर खिणा-खिणाक तें तोडटा-जोडटा, मोडटा-घडटा देखून. खिणाखिणाक मरता आनी नवो जल्म घेता देखून. ताच्या अणु-अणूंत मरणाचो नाच चल्ला देखून सैमाची ही रुद्र-लीला भंयाक लेगीत भंय घालपी आनी तरी शांत...

भर गिमांत थंड वाऱ्याची झुळूक आंगाक लागची आनी व्हंवेन व्हंव खोशयेन फुलून येवची तशें कितें-शें म्हाका जालें. सैमाचे सुंदरकायेची बुन्याद आयज म्हाका ‘ दिश्टी ’ पडिल्ली. ताका लागून सत्य आयज म्हजे-कडेन धांवत येवपाक लागलां अशें कितें-शें म्हाका दिसपाक लागलें. आनी म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां फुटलीं : ‘ मर्ण फट. निर्मण खरें. ’

मनशाक जेन्ना सत्य सुंदर दिसपाक लागता तेन्ना सुंदर सत्य आसता. ज्ञानेश्वराचो एक अभंग आसा : ‘ योगियां दुर्लभ तो म्यां देखिला साजणी ’ म्हुण. योगी देव पळोवपाचो यत्न करता. दोळे धांपून ध्यानाक बसता. पुणून देव काय दिसना. परते, तरेतरेचे दुबाव तकलेंत उपरासतात आनी ध्यान भंगता. योग्याक दिसलें : देवाक सोदपाची ही रीत सारकी न्हय. देव असो मेळपाचो ना. ताणें ही वाट सोडली आनी संवसारांत देवाक पळोवपाचो यत्न केलो. आनी थंय देव ताका दिश्टी पडलो ! इतलेंच न्हय तर ताणें ताका ‘ अनंत वेषें, अनंत रूपें ’ पळेलो ! मागीर ? ‘ देखिला देखिला माये देवाचा देवो ’ करून ताचें काळीज नाचपाक लागलें आनी ‘ फीटला संदेहो ’ करून मन घोळूंक लागलें.

म्हाकाय अशेंच कितें-शें जालें आनी पांय वेगान चलपाक लागले. विचारांचे गतिचो चलपाकडेन संबंद आसूंक जाय...

हय, पांय चलपाक लागतकूच तकली चलपाक लागता म्हणपाचो अणभव आशिल्लो. आतां, तकली चलपाक लागतकूच पांयूय चलपाक लागतात म्हणपाचो नवो अणभव आयलो. येवजितां-येवजितां खोलायेंत देंवलो म्हणटकूच बुद्ध आसना वयलो उठून 'चंक्रमण' कित्याक करपाक लागतालो- पासयो कित्याक मारतालो- तें म्हाका आतां समजलें.

आमी सदांच फांतोडेर चार-साडेचारांक उठचें. झिळमिळटयार भायर सरचें. दनपार मेरेन चलत रावचें. वाटेर खंयूय रांदून जेवचें. वरभर विसंव घेवन परतें चलपाक लागचें. तें तीनसांज जायसर चलत रावचें. दोन तीन दिसां भितर हांव तारखो आनी वार विसल्लों. काल-पयर मेरेन आयुश्य वेगळे गतीन चलतालें म्हणपाचेंय विसल्लों आनी जसो कितें युगां जालीं, चलत आसां...चलपाकूच जल्मा आयलां अशें मानपाक लागलों.

अडचणींक अंत आनी पार नाशिल्लो. पुणून, जेवणांत मीठ तश्यो भोंवडेंत अडचणी. त्यो नासतीत जाल्यार भोंवडी अळणी जाता. त्याभायर, काळजांत नवें नवें पळोवपाची उर्बा आशिल्ली आनी पांयांच्या चाकांक एक गती मेळिल्ली. नदर चोंयवशिनीं भोंवताली आनी सगळेकडेन म्हाका निळेपण फांकिल्लें दिश्टी पडटालें. हांवें म्हणचें : 'निळें हें व्योम, निळें हें सप्रेम; निळेपणें सम आकारिलें. नीळप्रभा दिसे, नीळपणे वसे, नीळिये आकाश हरपलें... '

आमी जन्नोत्रिचें हिमशिखर मुखार दवरून चलताले. गंगाणी जातकूच सनाचट्टी आयली.

तीनसांज जाल्ली. चट्टी यात्रिकांनीं भरिल्ली. एकूय रिकामी कूड नाशिल्ली. यात्रिकां भितल्ले कांय यात्रीक जम्नोत्रीक वचून आयिल्ले. कांय जम्नोत्रीक वचपाक गेल्ले, नज जावन वाटे वयल्यानूच परतल्ले. कांय आमचे सारके जम्नोत्रीक वचपाक म्हुण आयिल्ले. जम्नोत्री पळोवन आयिल्ले यात्रीक वचपाक आयिल्ल्या यात्रिकांक वाटेवयल्या कश्टांच्यो आनी त्रासांच्यो खबरी रुचीन सांगताले. जे नज जावन परतल्ले ते ' हय रे बाबा ' करून मानो हालोवन तांकां तेंको दिताले. आनी ह्यो खबरी आयकून जम्नोत्रीक वचपाक आयिल्ले यात्रीक आतां आमचें कशें जातलें ह्या हुसक्यान एकामेकांचीं तोंडां पळेताले. म्हज्या कानार हांतल्यो कांय खबरी पडल्यो. पुणून...

म्हाका एके काणयेचो उगडास जालो : एक बोकडे-पील दसऱ्या आदल्या दिसा आवयक विचारता,'दिवाळी केन्ना गे?...' आवय म्हणटा, ' पोरा, फाल्यां दसरो. तातूंतलो वांचून उल्लो जाल्यार दिवाळेच्यो खबरी करपाच्यो...'

म्हळें : ' जम्नोत्रिच्या त्रासां संबंदान फाल्यां येवजूं येत. आयज न्हिदप खंय हो प्रस्न आदीं सोडोवंक जाय. चट्टेंत एकूय कूड रिकामी ना. लागसार एकूय घर दिश्टी पडना. खंयच भितोडेक सुवात मेळ्ळी ना जाल्यार, भायर रुखा-मुळांत न्हिदचें पडटलें. ' करतल भीक्षा तरुतल वास ' हे भाशेचे भोंवडेची खोशी आगळी हातूंत दुबावूच ना. पुणून...रातचें बर्फ पडलें जाल्यार? आमी ' थंड जावचे नात ' म्हुण कोण खातरी दितलो?

हांतुळणां घालपाचें काम नरेशाचें आशिल्लें. तो जमखानां खांकेक मारून जागो सोदपाक भोंवंक लागलो. एका चिडा मुळांत कांय साधू धुनी पेटोवन बशिल्ले. तांतल्या तांतूंत हीच सुवात बरी अशें थारावन ताणें

जमखानां थंय पातळायलीं. आतां, उशीं पांगरुणां बी घेवन आमी थंय वतले म्हणपाक चट्टेंतले एके कुडींत न्हिदिल्लया.एका संन्याशाच्या अंतस्करणांतलो देव जागो जालो. ताणें आमची अडचण पळेली आनी रोखडोच तो उठलो. आपलें हांतुळण कवळ्ळें. कवळो खांकेक माल्लो. ताच्या वांगडा ताचे कांय सांगाती संन्याशी तेच कुडींत न्हिदिल्ले. तांकां 'चलो...इन लोगोंको कमरा खाली कर दो' करून ओर्द सोडली. आमकां 'तुमी कुडींत न्हिदात; आमकां भायर उकत्यार न्हिदपाची संवय आसा...' अशें सांगून ताणें कूड आमचे सुवादीन केली.

आमीं ताचे मनस्पुर्वेक उपकार मानले.

आमीं कामां वांटून घेतिल्लीं. नरेशाचें काम हांतुळणां घालपाचें. देवेंद्राचें काम रांदन तयार करपाचें. गोदुचें रांदपाचें. करंदीकरूय रोटयो बी लाटून दिवपाचें काम करी. म्हजें काम सगळयांत कठीण आनी जापसालदारकेचें (जें अजून म्हाका सारकें जमूंक ना.) तें म्हळ्यार, हिशेब लावपाचें. कूड आमचे सुवादीन जायना फुडें नरेशान हांतुळणां घालीं. बाकिचे आपापल्या कामाक लागले. हांव हिशेब लावपाच्या म्हज्या कामांत गुल्ल आशिल्लों.

इतल्यांत ज्या संन्याशान आमकां कूड रिकामी करून दिल्ली तो नरेशाच्या आनी म्हज्या म्हज्यांत येवन उबो रावलो आनी आमकां मराठींत विचारपाक लागलो : 'महाराष्ट्रांतून आलांत काय ?...'

"होय...'

'जम्नोत्रीला जाणार काय ?...'

'म्हणूनच तर इथपर्यंत आलो...'

तो आमकां हात जोडून सांगपाक लागलो : 'आयकात...म्हजे परस तुमी पिरायेन भुरगे. त्या भायर, म्हज्या आंगार हीं भगवीं वस्त्रां आसात. तरी आसतना हांव तुमकां पांयां पडून सांगतां. तुमी जम्नोत्रिचो बेत सोडून

दियात. ती वाट आक्रांताच्या कश्टांची.ते वाटेन चलप तुमकां जमपाचें ना. थंय दोंगरांचे दोंगर कोसळून पडटात. हांव काल्लच वचून आयलां. कसो पावलों आनी कसो परतलों, हांवूच नकळ...म्हजें हाड तुमचे परस घट. पुणून म्हजे पांय पळेयात कशे लटलट्टात ते...'

कितें करचें, कांयच समजना जालें. ह्या संन्याशाच्या तोंडान देवूच बी उलयता काय कितें, अशें दिसलें. ताचें म्हणणें मोन्यांनीं आयकुचें आनी हांगासुनूच परतुचें अशें मनांत आयलें.हांव नरेशाचें तोंड पळोवपाक लागलों. संन्याशाच्या तोंडाकडेन पळेलें. खीणभर वोगी रावलों. इतल्यांत, म्हाका काळजांत भितर एक उलो आयकूंक आयलो. तो म्हाका जम्नोत्रीक आपयतालो. हांवें हो आवाज अंदुपाचो यत्न केलो. 'ह्या संन्याशाच्या तोंडान देवूच उलयता.. तें आयक.' अशेंय ताका हांवें सांगलें. पुणून...ना, म्हाका हो उलो संन्याशान घाल्लया भया परस मोटो दिसलो आनी हांवें संन्याशाक म्हळें : जम्नोत्रिच्या मार्गांतल्या त्रासांच्यो आनी अडचणिंच्यो खबरी आमी हृषीकेशा सावन आयकत आयल्यात. आनी तरी आसतना आमकां एक उलो हांगा मेरेन ओढून घेवन आयला. हांगा पावतासर जे त्रास आमकां काडचे पडल्यात ते तरी हरशीं आमकां खंय पेलतले आशिल्ले? तरी आसतना हांगा पावलेच आमी! आतां मुखार वचून पळेतात. जमलें, बरें आसा. ना जाल्यार, नज दिसतलें थंयच्यान परततात...ते वाटेन वचप आमकां जमचें ना अशें आजूच कित्याक मानचें? अणभव घेवन पळोवंया...'

ताणें रोखडेंच म्हळें : 'असोच निश्चय केल्लो आसत जाल्यार देवाचें नांव घेयात आनी वचात. पावतले तुमी जम्नोत्रीक...म्हजो आशीर्वाद आसा तुमकां...'

आमी दुसऱ्या दिसा फांतोडेर सनाचट्टीच्यान भायर सल्ले. यमुनेच्या दाव्या तिरावयल्या एका आकांताळ्या दोंगरावयल्यान वाट वताली. आमी दोंगर चडले. वयर वचून पळे जाल्यार, थंयच्यान दुसरो दोंगर सुरू. तोय चडपाक लागले. वयर तिसरो तयार. दोंगरार दोंगर. सोंपून सोंपनात. तांकां आमची दया नाशिल्ली; माया नाशिल्ली. ही वाट म्हाका सत्याग्रहाची देख दिवपी वाट कशी दिसली. कठीण. आनी फकत एकूच पावल घालपा इतली भूंय दाखोवपी. कितले दोंगर चडले जातले आनी कितले देंवले जातले, हिशेबूच ना. चीड फाटीं पडून देवदाराचीं रानां लागलीं. म्हणटा म्हणसर अकरोडांच्या आनी जरदाळुंच्या रुखांनीं भरिल्लया एका अटंग्या रानांत वाट घुसपली. रान इतलें दाट कि दनपारच्या कडार लेगीत सुर्याचीं किरणां भितर येवपाक भियेतालीं. गुजराती मुळावें शिकप शिकता आसतना एका वरसा मास्तरान एक कविता म्हाका शिकयल्ली : 'भोमिया विना मारे भमवा ता डुंगरा' म्हुण. कवीक रानांत भोंवंक वचचें-शें दिसता. कसो ? कोणाचो सांगात घेनासतना. वाट जाणा जाल्लो कोणूच वांगडा नासतना. एकलो-एकसुरो. आनी थंय वचून एक-एका रुखाक मेळचें, तांचीं सुखां-दुख्खां समजून घेवचीं, एक-एके वालीक जाप करची, भुंयांरां नियाळचीं, खडपां फोडून भायर सरिल्ले एक-एके झरिचीं दुकां पुसचीं अशें दिसता. त्या वेळार, रानाचें जें चित्र हांवें म्हज्या दोळ्यां मुखार उबें केल्लें तेच तरेचें हें रान आशिल्लें. दुबाब आयलो : हिमालयांतल्या ह्या रानांनीं वाग, शींव, हती, गेंडे बी नात काय ?'

आनी हांवेंच म्हाका जाप दिली : 'घडये ते सगळे आतां मुम्बय, कलकत्ता बी शारांनीं रावन मोटे मोटे कारखाने चलयतात जावंक जाय...'

आमच्या कुलीक आमच्या दुबावाचो अदमास लागलो जातलो. ताणें म्हळें : ‘ हांगा वांस्वेलांचो खूब भय आसता...’

हांवें विचाल्लें : वांस्वेल मेळ्ळें जाल्यार, कितें करचें ?

ताणें सांगलें : ‘ तोंडार लेंस बांदचो आनी मड्यावरी जमनीर उदारें पडचें...दोळे धांपून...’

वांस्वेलाची खंय खोड अशी : मनीस दिसनाफुडें तें दावकुलान पयलीं ताचे दोळे फोडटा आनी उपरांत तोंड भुरकिता.

भुरगेपणांत वाचिल्ले एके काणयेचो उगडास जालो. ते काणयेंतल्या दोगां मनशांनीं हेच तरेची युक्त करून जीव वाटायल्लो.

करतां करतां रान अदिकूच दाट जालें. इतलें कि रात जाल्ले वरी दिसपाक लागलें. किडिंचो आवाज लेगीत आयकूंक येवपाक लागलो. पांयां सकल सुकिल्लया पानांची रास पडिल्ली. वाट निसरताली. साळींक आनी वाळींक धरून आमी चलपाक लागले. निसरून कशे पडले नात, कोण जाणां ! आनी सुक्या पानांतल्यान सरसर करून सोरोप येवन कित्याक चाबलो ना, हेंय नेणां ! काळोख सोंपना, रान सोंपना आनी वाटूय मेळना ! चलतात आपले. हातांतली बडी हो एकूच आधार आनी काळजांतली उमेद ही प्रेरणा. हांच्या म्हालवजार चलताले.

करतां–करतां आमचो धीर सुटलो. आमकां दिसलें, हीं रात कांय आतां सोंपपाची ना आनी वाटूय मेळपाची आस्त ना. दुबाव आयलो. आमी वाट चुकले काय कितें ? हांव निर्शेलों, भियेलों. इतल्यांत, फांतोडेर शुक्राचें चान्नें दिश्टी पडचें, कुडीक तरतरी येवची, दोळ्यांक थाकाय दिसची आनी काळजांत आस्त भरून येवची तशें–शें जालें. त्या गुपाट काळखांत उजवाडाचें एक किर्ण दिश्टी पडलें आनी आमी नेटान चलपाक लागले.

रानांतल्यान भायर आयले आनी...

‘ देवा !...’ म्हज्या तोंडांतल्यान उत्तर फुटलें.

एक आक्रांताचो दोंगर मुळा सावन उमथो पडला. ताच्या आंगाचो पिठो जाला आनी तो सगळेकडेन शिंपडिल्ल्यान जम्नोत्रिची वाटूच बंद जाल्या ! भूयकांप जालो काय कितें असो दुबाव येसारको हो देखाव आशिल्लो. उजवे वाटेनच्या दोंगराकडेन पळेलें. ताका वेर गेल्ली. तोय घालून घेवपाच्या बेतांत आशिल्लो.

म्हजो आत्मविस्वास खचलो. मुखार पावल घालप जमना जालें. सना चट्टीर मेळिल्ल्या संन्याशाचो उगडास जालो. ' हे वाटेन वचप तुमकां जमचें ना ' हीं ताचीं उतरां कानांत गों - गों... करपाक लागलीं. मनांत म्हळें : ' चड आपसुलाद जाल्लें बरें न्हय... हांगासुनूच परतल्लें बरें... पळेलें तें खूब जालें अशें मानून आतां परतुंया... '

मान वयर करून पळेलें. जम्नोत्रिचें हिमशिखर ' यो...यो.... ' करून आपयता-शें दिसलें. दावे वाटेन लिपिल्ले खोल दरयेंत यमुनेचोय तोच उलो आयकूंक आयलो. देवाचें नांव घेतलें आनी पावल उखल्लें. एका फातरार उबो रावलों. मुखा वयल्या फातरार उजवो पांय दवरपाक वतालों, इतल्यांत दाव्या पांयां सकल्लो फातर निसल्लो. नव्या फातरार पांय दवल्लो. तीच गत्त. तोल सांवरीत मुखार गेलों आनी एका घसघश्याच्या माथ्यार पावलों हो घसघसो हुपपाचो आशिल्लो. ताचेर वयल्या दोन खडपांच्या आधारार कोणें एक फळें आडवें घाल्लें. हांवें फळ्यार पांय दवरचे पयलीं एक मोटो फातर उबाल्लो आनी घसघश्यांत मोखून माल्लो. दोन सेकंदां भितर ताचें पीठ जावन व्हांवन गेलें. म्हाका घसघश्याचें रुद्र-रूप समजलें. ' देवा पाव ' म्हळें. हातांतली बडी तोंडांत घेतली. दोळे धांपले आनी दोनूय हातांचे पांय करून फळ्या वयल्यान वाट सांसपीत पलतडीं गेलों. देवेन्द्र. आनी नरेश पयलींच वचून मुखार राविल्ले. म्हज्या फाटल्यान करंदीकर आयलो. गोदुचे हाल म्हज्यान पळोवं नज जाले. हाऽऽउ करून घसघसो हुपलो.

मुखार एक आक्रांताळो दोंगर उबो आशिल्लो. तो चडपाचो आशिल्लो.
ा लटलट्टाले. पुणून येद्या व्हडल्या दिव्यांतल्यान मुखार सरिल्ले.
ाक ऊब आयिल्ली. चडले.
तीनसांज जावचे पयलीं फूल चट्टी आयली.
जम्नोत्री आतां फकत पांच मैल पयस आशिल्ली...

त्या दिसा म्हाका केदो वेळ न्हिदूच पडली ना. नरेशूय भौनभौन कूस
तेतालो. हांवें विचाल्लें : ' नरेश, न्हीद येना ?... '
' ना.... '
' तशें जाल्यार, आमी थोडो वेळ भायर वचून बसुंया... ' हांवें म्हळें.
आमी भायर गेले. आमच्या फाटल्यान गोदूय आयलें.
चंद्र निकतोच वयर सरतालो. चंद्रा वांगडा चित्राय आयिल्ली. पुणून
ाज बायलेवरी मातशें अंतर दवरून चलताली. स्वाती दोगांय कडेन
ुणायेन पळेतालें. हस्तांतलें एक नखेत्र लजिल्लें. चंद्रान हे वाटेन धर्तरेर
चित्रकारा भाशेन जाय तितलेंच दाखयल्लें. बाकी सगळें लिपयल्लें.
आगळेच कान्तीन भोंवतणचो वाटार सोबून दिसतालो.
नरेश म्हणपाक लागलो : ' तुका ईशोपनिषत् पाठ आसा न्हय ?...
ा तें... '
हांवें म्हणपाक सुरवात केली. एक-एक श्लोक मन लावन म्हळो.
ाणें, शांति-पाठाकडेन पावलों तेन्ना ' तेंय पूर्ण आनी हेंय पूर्ण ' हो मंत्र
नवेंच रूप घेवन म्हज्या मुखार उबो रावलो. ' तें ' पूर्ण. तातूंतल्यान

'हें' आयलां. देखून हेंय पूर्ण. आत्रयंतल्यान भुरगें आयलें, आत्रयूय पूर्ण, भुरगेंय पूर्ण तशें. हो अर्थ लक्षांत येना फुडें हांवें पळेलें, म्हजें मन शांत जालें.

खबरी चलनाशिल्ल्यो. उपनिषदांच्या श्लोकां वांगडा आमी फकत चान्न्यांत न्हाताले. अत्रचित् नदर दोंगरांक नियाळपाक लागली. खीगभर तांचेकडेन पळेलां जातलें. इतल्यांत, ते सावळ्यो कश्यो दिसपाक लागले. खिणाखिणाक आकार बदलतात, धुक्या भाशेन विरगळटात आनी कुपां भाशेन वेगळीं वेगळीं रुपां घेवन उबतात अशें दिसपाक लागलें.

म्हाका जशें कितें 'तें' (जातूंतल्यान 'हें' आयलां) सगळेकडेन पातळ्ळां-शें दिसलें. तें पातळ्ळां, तें वयर सरपाक लागलां, तें सगळें आपणाल्या चैतन्यान धांवपाक लागलां अशें दिसलें.

अचकीत म्हज्या कानार 'ॐ पूर्णमदः पूर्णमिदं...' श्लोक पडलो. देवदार गावपाक लागिल्ले. वयर मळबांत सप्तर्षींय साथ दिवन गायताले.

हांव कवी आसूंक जाय आशिल्लों. कोंकणीक एक म्हाकाव्य दितलों आशिल्लों.

म्हाका काकासायबांनीं सांगिल्लें: हिमालय म्हळ्यार भव्यतायेचें आगर. पुणून, जम्नोत्रिची भव्यताय म्हळ्यार खासा भव्यतायेक लेगीत अजापांत घालपी आनी तोंडांत बोटां घालून 'आरे!' म्हणूंक लावपी.'

फकत पांच मैल उरिल्ले. आमी सदचे परस मातशे उसरां भायर सल्ले. एक तर चलपाचें थोडें आशिल्लें आनी दुसरें म्हळ्यार, रातीं जाल्या

जागरणाचें रीण फारीक करपाचें आशिल्लें. पोटाक उपाशीं दवरूं येत. पुणून न्हिदेच्या रिणाक हांव थर्त भियेतां.

वाट सदचे भाशेन दोंगरा वयल्यानूच वताली. आमी इतले वयर पाविल्ले कि थंयच्यान यमुना पाताळांत व्हांविल्ले वरी दिसताली. एक-एक पावल मुखार घालचें. पावला-पावलाक नदरेचो आवाट वाडचो. जो देखाव निकतोच पळेल्लो तो वयर चडना फुडें व्हडलो दिसचो. इतले दीस जें हिमशिखर आमकां सांगात दीत आयिल्लें तेंय पावला-पावलाक वाडत गेलें. इतलें वाडलें कि जम्नोत्रीक पावतासर ताणें अर्दें मळब आपल्या पोटांत घेतलें. ताच्या माथ्यावयल्या बरफाचो रंगूय बदल्लो. तो भांगराचो जालो.

हांगा म्हाका पयलेच खेपे उतरांचे तांकीक शीम आसा म्हणपाचें समजलें. अणभव उक्तावप हें उतरांचें कामूच न्हय. जें उक्तावंक येना ताचेकडेन बोट दाखोवप इतलेंच तांचें काम. खोल अणभव उतरांनीं उक्ता-वंकूच येना. बुद्धाक देवा संबंदान अणभव आयलो. ताणें देव पळेल्लो. पुणून ताका आपलो हो अणभव सांगूंक येना जालो. ‘ यह तो अकथ कथा है, कहते कही न जाय. ’ ताणें देवा संबंदान उलोवपूच ना अशें थारायलें. आमच्या येद्या मापान बुद्धाक आमी मेजूंक गेले आनी म्हणपाक लागले : ‘ बुद्ध देव मानिनाशिल्लो...बुद्ध नास्तिक आशिल्लो...! ’

म्हजीय हांगा अशीच गत्त जाली. इतले दीस हांव हिमालयाचीं जायतीं रुपां पळेत आयिल्लों. कांय रुपां सुंदराक लेगीत सुंदर म्हणूंक लावपी पळेल्लीं. कांय भयाक लेगीत भेश्टावपी पळेल्लीं. पुणून जम्नोत्रिच्या रुपाक नांवूच दिवंक येनाशिल्लें. ‘ हर–गौरिचें मीलन ’ म्हुण कांय उतरां हाचे पयलीं आयकल्लीं. वाचिल्लीं. जिबेर घोळिल्लीं. हांगा त्या उतरांक जिवीं जाल्लीं पळेलीं. हांव हर–गौरीक दोळ्यांनीं पळेतालों.

सैमाच्या अजापांक अंत आनी पार नाशिल्लो. हिमशिखराचें बफ विर-गळून ताचो एक व्होगो जाल्लो आनी तो दोन आकांताळ्या पर्वतां मदल्यान

व्हांवताली. घटकेंत उदक किंवजेवचें आनी ताचें बर्फ जावचें. म्हणटा म्हणसर बर्फ विरगळचें आनी ताचें उदक जावचें. ज्या उदकाचो थेंब आंगार उसळ्ळ्यार आंग शिर्रर जावन मेरेता थंयच सैमान खतखतीत उदकाचोय एक झरो निर्मिला. तो वाफे सयत पुरूसभर ऊंच उडटा. ताचो एक थेंब आंगार उसळ्ळ्यार आंगाक फोड आयले बगर रावचो ना इतलो खतखतीत तो. जम्नोत्रिचो जल्म जालो तेन्ना सावन फुक्-फुक्, छुकू-छुकू करीत तो हांगा व्हांवत आसा. ताची हूनसाण वाडय ना उणीय जायना. वरसांतले आठ म्हयने जम्नोत्रींत बर्फ पडटा आनी जम्नोत्री तातूंत बुडटा. पुणून ह्या झऱ्या लागसार येवपाचें काळीज बरफाक जायना. हूनसाण आनी थंडसाण हांचे मजगतची ( आपापलो शेक चलोवपाची ) ही लडाय पळोवन भोळ्या भावार्तीं हिन्दुंनीं समज करून घेतला. कितें म्हुण ? कि लंकेचो लासून गोबोर केल्या उपरांत मारुती हांगा आयलो तेन्ना ताका हांगा एक कुंड दिश्टी पडलें. तातूंत ताणें आपणाली शेंपडी बुडयली. तेन्नापुसून हें कुंड खंय अशेंच खतखतत आसा. सैमाचे नेम तूं कितलेय समजावन सांग, हांगा नेमां भायलें कांय ना हेंय सांग, तरी आसतना म्हजें लेगीत मन सैमाच्या ह्या ' चमत्कारां ' मुखार हांगा भक्तीन भरून आयलें.

एका खडपार बसून दोळे उकते दवरून हिमालयाचें ध्यान करपाक लागलों. आयज दोळ्यां मुखार हिमालय रुद्र रुपान उबो राविल्लो. भयांकूत आनी तितलोच सुंदर ! अनंत काळा पसून बर्फ पांगरून बशिल्लीं ताचीं हिमशिखरां मळब फोडून भायर सरतात काय कितें, असो भास जावपाक लागलो. म्हजी नदर यमुनेच्या घोग्याचेर गेली. पाशाणापरस घट्ट फातर फोडून भायर सरिल्लो हो घोगो घो...घो करून पडटा; व्हांवता आनी व्हांवतां-व्हांवतां मुखार पर्वतांचे पर्वत आपल्या वांगडा व्हांवोवन व्हरता ! काळपुरसाचोच अवतार हो ! ताका पळेल्यार भय दिसता. आंगाक थरथरो भरता. अजाप जाता आनी आनंदूय जाता !

म्हजे जिबेर आश्रमांतले आमचे सकाळचे प्रार्थनेंतलो एक श्लोक घोळपाक लागलो :

भयानां भयं भीषणं भीषणानाम्
गतिः प्राणिनां पावनं पावनानाम् ।
महोच्चैः पदानां नियंतृ त्वम् एकम्
परेषां परं रक्षणं रक्षणानाम् ॥

आमच्या जाणटेल्यांक तप म्हणना फुडें हिमालय कित्याक येवजतालो? तपाक बसतल्या मनशा मुखार व्हडांत व्हड, मोटयांत मोटें, उत्तुंग, भव्य अशें कितेंय आसूंक जाय आनी हिमालया इतलें व्हड-मोटें वा उत्तुंग-भव्य ह्या संवसारांत दुसरें कितेंच ना, म्हूणूच व्हय? जायत. पुणून तपाचो आनी हिमालयाचो इतलोच हो संबंद न्हय... हें तें पळे, हिम-शिखर. ह्या हिमशिखरांतल्यानूच हो तो घोगो भायर सल्लो. ह्या घोग्याक मुखार दुसरे कांय घोगे, वझरे आनी घसघशे येवन मेळटात आनी मागीर तांची न्हंय जाता. ही न्हंय व्हडल्या व्हडल्या रानांक पोसता. हे न्हंये देगेर रुखांवांगडा तरेतरेचीं सुकणीं-सावदांय जियेतात. संस्कृतायो जल्मा येतात, वाडटात.

इतलेंय हें त्या हिमशिखराक लागून जावंक पावता.

पुणून तें हिमशिखर खासा आपूण मात् ह्या सगळ्या पसून अलिप्त आसा. ताच्या आंगार एक पांचवें पान दिश्टी पडना. एक जीव खेळना. सामकें निर्जीव, निर्जन, नागडें, उगडें दिसता.

जांणीं जिवितांतलीं सगळीं सुखां आमकां जोडून दिलीं ते संवसारांतले सगळे तत्त्वज्ञ, शास्त्रज्ञ, कळावंत, संगीतकार, देशभक्त सगळे ह्या हिमशिखरा सारकेच न्हय ? आमकां सुखां मेळचीं म्हुण आपल्या सुखांचेर उदक सोडपी; भोगपाच्यो सगळ्यो वस्ती दुसऱ्यां खातीर निर्माण करपी. पुणून आपूण भोगा पसून कडेक रावपी !

तप करूंक वता ताची जीण सुकी-सुकी जाता, खरें. पुणून संवसार चलता आनी आमकां 'हें इल्लें चाख, तें इल्लें भोग' अशें करूंक मेळटा तें, कांय जाण तप करतात म्हुण्णूच मू ? तप करपी लोक नाशिल्ले जाल्यार आमची सगळ्यांची जीण दळदिरी आनी पोकळ जावपाची.

मन गोंयां गेलें आनी आग्वादचे बंदखणींत आशिल्ल्या कांय इश्टांचो उगडास जालो. म्हळें, हे लोक बंदखणींत आसात म्हुण फाल्यां आमकां स्वराज्याचें सुख भोगूंक मेळटलें. तांच्याच तपान आमकां स्वराज्य मेळटलें.

असलें तकलेंत घोळूंक लागतकूच मनशाक मागीर, तपाचे रुक्ष जिणेचीय ओड दिसपाक लागता.

जम्नोत्री म्हळ्यार जे सुवातेक सावन यमुना भायर सरता तें थळः थंय एक ल्हान शें देवूळ आसा. सामकें किरकोळ. कळाकुशळ नाशिल्लें. पुणून तें थंय सोबून दिसता. मनशान आपणाली कितलीय कळा हांगा हाडून ओतिल्ली जाल्यारूय भोंवतणच्या सैमाच्या लाखाव्या वांटयाची लेगीत ताका सर येवची नाशिल्ली. खरें म्हळ्यार, हांगा देवळाची गरजूच नाशिल्ली. हांगा मनशान आपणाली मर्यादा सांबाळ्ळेली पळोवन म्हाका बरें दिसलें.

शास्त्रांनीं सांगलां : तिर्थांत पावतकूच स्नान, पान आनी दान करचें. हांगा 'स्नान' करपाची माणसुकी नाशिल्ली. किंवजेवन मरतले आशिल्ले. आमी यमुनेचो एक थेंब ताळयार घालो आनी 'पान' केलें. वांगडा तांदूळ, दाळ, बटटां व्हेल्लीं. तीं एका वाल्यांत गुटलायलीं

ानी पोटली मारुतीन शेंपडी बुडयल्ली त्या खतखतीत कुंडांत सोडली. दरा मिणटां भितर ' प्रसाद ' शिजून मेळ्ळो.

म्हाका उगडास आसा : हांगा आमकां एकलो साधू मेळिल्लो. आल्मोच्याचो. तरणो-बांड आनी धिप्पाड. सामवेद खणखणीत आवाजांत म्हणालो. सामान्यतायेन हे साधू जीण पळेतात गीतेंतल्या खंयच्याय श्लोकांत ा पुराणांतले खंयचेय काणयेंत. हाणें पळेल्ली गरीब–दुबळ्यांच्या सुखांदुःखांत आनी तांच्या संघर्षांत. आमी ताका ' प्रसाद ' घेवपाक ( ' दाना '-ची एक तरा ) आमचे पंगतीक आपयल्लो. खूब खबरी केल्यो. आमी ध्यांक आशिल्ले म्हणपाचें कळटकूच ताका आमची अदिकूच ओड दिसली. तोय कांय दीस थंय वचून राविल्लो आनी विनोबा, काकाायब, किशोरलालभाई हांचे कडेन जायतो उलयल्लो. हिन्दु-धर्मा संबंदान ो खूब जाणां आशिल्लो. ताणें आमकां हिन्दु-धर्माच्यो कांय ' विशेषतायो ' ांगिल्यो. त्यो अजुनूय म्हज्या लक्षांत उल्ल्यात. ताणें म्हळ्ळें :

' हिन्दुधर्माचो प्राण ताच्या वेदांतांत आसा. ताचो परमळ भक्तिमार्गांत ळोवंक मेळटा. विज्ञान कर्म-मीमांसेंत दिश्टी पडटा. हिन्दूधर्माचो संवसाराक ्क संदेश आसा : ' सगळे धर्म खरे आनी बरे ' हो. पुणून हिन्दुधर्माचें ्क 'मर्म-स्थानू'य आसा : हिन्दुधर्मान काळे, गोरे, हळडुवे सगळ्यां ातिंच्या लोकांक एकठांय हाडले, एका-मेकांत भरशिले. एकाच समाजांत तल्या कातिंचे आनी इतल्या तोंडांचे लोक आनीक खंयच पळोवंक ळपाचे नात. सगळ्यांक एकठांय दवरपाचो ताणें यत्न केलो आनी तातूंत-यान ताणें एक आगळें समाज-शास्त्र रचलें... '

आनी खीणभर ओगी रावन ताणें म्हळें : ' ह्या समाज–शास्त्रांत मुखार ांयच बदल जाले नात. तें घट जालें. इतलेंच न्हय तर तें हिन्दुधर्म िरोधीय जालें. देखुनूच हांव म्हणटां : हिन्दुधर्म जिवो दवरतले जाल्यार ाचें समाजशास्त्र आतां बदलूंक जाय. नाजाल्यार, ताणें एक museum

piece म्हुण जियेवपाक राजी रावंक जाय.... '

एक साधू इतले खोलायेंत देंवन येवजीत अशें हांवें मानूंक नाशिल्लें. त्या उपरांत कांय दीस तो आमच्याच वांगडा उल्लो. सिंघोटची चडूटी आमी वांगडा चडिल्ले. वाटेर ताणें आमकां खंय तरी एकेकडेन फाटीं घाले. परतो आमकां तो खंयच दिश्टी पडलो ना. हिमालयाचे पुराय यात्रेंत म्हजे दोळे ताका सोदीत भोंवताले :

दन्परां पडट्या वोतार आमी जन्मोत्रीच्यान परतले.

जम्नोत्रीच्यान भायर सल्लां त्यात्रेळार काळीज खोशयेन भरून ओतूंक लागिल्लें. सैमाचें एक आकांताचें सुंदर रूप पळोवंक पाविल्लयाची एक खोस, आनी 'करूंक पावचे नात... पावचे नात....' म्हुण लोक भेश्टायत आयिल्ले ती कठीण यात्रा 'करूंक पावले' म्हणपाची दुसरी खोस.

पांय आतां गंगोत्रिचे वाटेन आत्मविस्वासान चलपाक लागले.

जम्नोत्रीच्यान गंगोत्रीक वचपी दोन वाटो आसात. एक छाया मार्ग नांवाची : जम्नोत्रिच्या मुळसांतल्यान वचपी. दुसरी गंगाणीक परतून सिंघोटचो पर्वत उपून वचपी. छायामार्गा वयल्यान वचपाचो धीर एकाद-दुकल्या रामतीर्थाकूच जाता. तो धीर आमकां खंयच्यान येतलो ? आमी मोन्यांनी गंगाणिचे वाटेन चलपाक लागले.

गंगाणीक पावपाक दोन दीस लागले. आयिल्ले वाटेनूच परतल्यान वळखिच्योच सुवातो परत्यो पळोवंक मेळ्ळयो; तरूय म्हाका एक नवो सोद लागलो : त्योच सुवातो उफराटे दिकेन पळेत जाल्यार नव्योच दिसतात

ह्णपाचो. तेन्ना सावन हांवें एक नेम केलो : ' खंयूय वच तूं, चलतां चलतां मदीं उबो राव आनी फाटले वाटेन नदर घाल. नवो देखाव पळे-ल्याची खोस भोगताली... '

हे खेपे आल्मोड्याच्या साधुचो सांगात मेळिल्लो. वाटेर एकेकडेन आमचे भितरल्या एकल्यान ताका विचाल्लें : ' यमुनेचें मूळ पयलें-वयलें कोणें सोदून काडलें ? '

' असित रुशीन... ' ताणें जाप दिली.

हांव मनांतल्या मनांत येवजूंक लागलों : ताका कोणें हांगा ओडून हाडिल्लो काय ? तो खंयचे प्रेरणेन, कित्याचो सोद लावपा खातीर भायर सरून हांगा आयिल्लो काय ? काय, न्हंयचें मूळ सोदपाची इत्सा जण-एकल्याक मुळांतूच आसता ?

हांव मनांतल्या मनांत असित-रुशिचें चित्र चित्रावंक लागलों. गंगा-णीक पावतकूच नरेशान यामुन रुशिची खबर सांगली :

यामुन गंगाणीक यमुनेच्या तिरार रावतालो. पुणून भक्ती करतालो यमुने इतलीच गंगेचीय बी. गंगाणीच्यान ताणें सदूदां उठून भायर सरचें आनी पंदरा-वीस मैल चलून गंगेचे भेटेक वचचें. आनी तिच्या उदकांत न्हावन-धुवन आशिल्लो तसो गंगाणीक परतुचें. कुडींत तांक आशिल्ली तेमेरेन ताणें ह्या नेमाक पाळो दिलो. एक दीस तो जाणटो जालो. पंदरा-वीस मैल चलप ताका जमना जालें. ताणें यमुनेच्या तिरार बसून गंगेचो धांवडास करचो. दोळ्यांतल्यान दुकां गळोंवचीं. एक दीस गंगेचें काळीज पारगळ्ळें. ती खडपां फोडून वाट काडीत आयली आनी गंगाणीक यामुन रुशिच्या आस्रमा लागसार झरिच्या रुपान येवन रुशीक मेळ्ळी.

एक रात आमी हे झरी म्हऱ्यांत बसून तिच्यो कितल्यो-श्योच खबरी आयकल्यात.

गंगाणीच्यान भायर सल्ले आनी मैल देड-मैलाचे वाटेर आशिल्ल्या सिमली नांवाच्या गांवांत वचून सिंघोटची चड्टी चडपाक लागले. चडटयो चडपाची आमकां आतां संवंय जाल्ली. चडटयो चडपाचें शास्त्रूय आमी अणभवान शिकिल्ले. सवकासायेन आमी चडचें. खरस येवंक दिनासतना चडचें. चडून चडून पुरो जालें म्हणटकूच खंयूय एके कडेन हातांतले बडयेर कुडिचें सगळें ओजें घालून उबे रावचें आनी मागीर परते चलपाक लागचें. पुरो जालां म्हुण बसचें न्हय. बसल्यार पांयांत गुळे येतात आनी मागीर चडटना त्रास जातात हें आमी पळेल्लें. चडपाक आमी भियेनाशिल्ले तरी आसतना सिंघोटची ही चडटी आमकां खर लागली. चडटासर नाका-पुरो जावन खरसूय आयली.

हांवें एक पळेलां : त्रासांचे मनशाक कितलेंय त्रास जावं, तो त्रास ना करपा खातीर केन्ना वावुरचो ना. तो त्रास सोंसता, इतलेंच न्हय तर त्रासांक आमंत्रणूय दिता. ना जाल्यार, सांगात : मनशाक हिमालयाच्या शिखरांचेर चडपाची कसली गरज आशिल्ली ? खरी खबर अशी : मनीस आंवडेता तो व्हड जावपा खातीर, सुखी जावपा खातीर न्हय. व्हड जावपा खातीर मनीस सगळीं सुखां उखलासाक काडीत. केदेय व्हडले त्रास सोंशीत. व्हड जावं येता जाल्यार मनीस पयसो, ख्याती, भोग सगळें सोडून दीत.

बुद्धान एक सोद लायलो : 'जिवितांत दुख्ख आसा' म्हणपाचो. आनी म्हळें : दुख्ख ना करपाची एक वाट आसा. खंयची ? सुखां सोडून मोटें दुख्ख सोंसपाची. सुखाच्या त्यागाची. देखुनूच लोक बुद्धाक मानता. बुद्धाचे वाटेन चलप त्रासांचें. देखुनूच मनीस ते वाटेन चलता.

त्रासांक जो विपत्ती मानता तो भित्रो. जियेवपाचो ताका हक ना.

चडटां-चडटां रुखावळ दाट जावपाक लागली. म्हणटा म्हणसर काळोख
ी. जम्नोत्रीक वता आसतना वाटेर रानां लागिल्लीं. त्या रानांनीं
ोख पळेल्लो. पुणून थंय भियेत भियेत जावं मागीर, सुर्याचें एक तरी
ण भितर सरतालें. हांगा ताका लिरचोरयांनीं लेगीत भितर सरपाचो
नाशिल्लो. हांगा इतलो काळोख आशिल्लो कि, समज, एका पावलाचे
हती उबो राविल्लो जाल्यार म्हाका तरी तो दिश्टी पडचो नाशिल्लो.
चे भेश्टावणे सुंदरकायेचें आनीक एक रूप हांगा पळोवंक मेळ्ळें. शेक्स-
रा भाशेन हांव हांगां ही सुंदरकाय निर्मितल्या कळाकाराचो हात सोदपाक
लों आनी Sermons in stones, books in running brooks and
dom in everything पळोवपाक लागलों. चार-पांच मैल चल्लया
ंत रान इल्लें इल्लें करून पातळ जावपाक लागलें आनी करतां करतां
ी एका उगड्या-नागड्या पर्वताचे फाटीर चडले. मैलभर चडून
या माथ्यार मात् पाविल्ले—

हांवें मोख्यान गोदूक उलो माल्लो : ‘ गोदू...गोदू...हें पळे कितें !...’
उत्तरे दिकेक हिमशिखरांची एक परिषद भरिल्ली. जम्नोत्रिचें,
त्रिचें, केदारचें, बदरिचें...त्या भायर, आनिकूय कांय हिमशिखरां
पेल्लीं. कुपां तांकां वेश्टावन बशिल्लीं. हिमशिखरां सगींतल्यान
ऊ देवतात...निकतींच पावल्यांत अशें दिसतालें. फाटल्या नितळ-
या मळबान ताची सोब अदिकूच वाडयल्ली.

आमच्या आदीं नरेश पाविल्लो. खांब्या सारको उबो रावन तो हिम-
रांक पळेतालो. ताची वाचाच धरिल्ले वरी जाल्ली.

हांवें पळेलें : हिमशिखरांचो ‘ मूड ’ खिणा-खिणाक बदलता. आनी त्या
मुडाचो रंग तांच्या तोंडार उफेता. निकतींच कापरा सारकीं दिसतालीं.
टा म्हणसर चांपया-रंग तांच्या तोंडार दिश्टी पडलो. इतल्यांत तांकां
ाची कान्त मापराक लागली.

म्हाका दिसलें : आतां हांगाच बसून रावप.

म्हाका दिसाच्या आठूय पारांर मळबांत उफेवपी कुपांचे मूड नियाळपाची संवंय आसा. काम-धंदो सगळो कुशीक उडोवन वरांचीं वरां म्हाका कुपांक ओखेवंक-तोखेवंक येता. मदीं हांवें एक दिसपटी घेतली आनी कुपांच्या मुडांचीं वर्णनां तिच्या पानांचेर बरोवन दवरपाक लागलों. एक दीस म्हाका दिसलें : म्हाका देवान काळीज कित्याक दिलां ? हांवें त्या दिसा दिसपटी काडून गवेतांत दवल्ली आनी तेन्ना सावन एक नवो नेम केलो : कुपांच्या मुडांचीं वर्णनां दिसपटये वांट्याची काळजांत बरोवन दवरपाचो.

पुणून कुपांचें एक आसा : तीं रंगूय बदलतात आनी आकारूय बदलतात. हिमशिखरांचें तशें न्हय. तीं रंगूच बदलतात.

आरे ! पुणून हें कितें जालें ?

सकयलीं कुपां वयर सरून ल्हवू-ल्हवू पुराय देखाव लिपोवपाक लागलीं. I हिमशिखरां लिपलीं !...

' आः ! '

हांवें मेघदुतांतल्या यक्षा भाशेन कुपांची तूस्त गावपाक सुरवात केली. शेः, धा मिणटां वाट पळेली. पंदरा मिणटां जालीं. कुपां कशींच विरगळनात ! हांव निर्शेलों आनी मागीर, जड पावलांनीं घांट देंवपाक लागलों. तीन मैल देंवल्या उपरांत सरळ वाट मेळ्ळी. चडटीय ना, देंवतीय ना असली. हिमालयांत पयलेच खेपे सरळ वाटेन आमी चलताले. णव मैल केदे बेगीन कातल्ले. कळ्ळेंच ना.

उत्तरकाशीक पावल्यात तेन्ना गंगा आमच्या येवकारक आयिल्ली.

गंगा ही सामान्यतायेन उत्तरे कडल्यान दक्षिण-उदेंत दिकेन व्हांवपी न्हंय. फकत दोनूच थळांनीं ती उत्तर-वाहिनी जाल्या आनी ह्या दोनूय थळांक आमच्या जाणटेल्यांनीं तिर्थाचो पाट दिला. एक, काशी-थळ आनी दुसरें, उत्तर-काशी.

काशी-थळांत जें जें कितें आसा— तें मागीर, विश्वेश्वराचें देवूळ आसूं वा दशाश्वमेध घाट आसूं – तें सगळें उत्तरकाशीक आसा. ना ती फकत घाण आनी मुरावळ. हांगा येवप सोंपें नाशिल्ल्यान हें थळ पवित्र उरलां जावंये. हवा खूब सुंदर. गिमांत चड हून न्हय, शियांत चड थंड न्हय, अशी. परशुरामाची खंय ही जल्म-भूंय. आसत. पुणून म्हाका अजाप जालें म्हा-भारतांतलें हें ‘ वारणावत ’ म्हुण कोणें सांगलें तेन्ना. दुर्योधनान पांडवांक जिवे लासून मारपाचो एक कट केल्लो; तांकां लाखेचें एक घर बांदून दिल्लें आनी त्या घराक उजो लायिल्लो – तें खंय सगळें हांगाच घडिल्लें !

विश्वेश्वराच्या देवळांत अष्ट-धातुचें एक खूब पोरणें त्रिशूळ पळोवंक मेळ्ळ. ताचेर पोरणे लिपयेंत ( ब्राह्मी ? ) कोंरातिल्लो एक लेख आशिल्लो. ताचो अर्थ सांगपी कोणूच म्हाका थंय मेळ्ळो ना. तेन्ना मात् म्हाका खूब नायट दिसलें.

उत्तर-काशिचें नांव घेनाफुडें म्हजें काळीज अजून उचांबळून येता तें एका वेगळ्या कारणाक लागून. हांगा म्हाका दोग ‘ देवाचे मनीस ’ पळोवंक मेळ्ळे. एक, स्वामी तपोवन आनी दुसरे, साधू विष्णुदास. दोगूय दक्षिण भारतांतले. तीस-चाळीस वरसां थावन हांगा येवन राविल्ले. ’दोगूय संस्कृतविद्येचे पंडीत. दोगूय ब्रह्म-विद्येचे जाणकार आनी ‘ हेंगाडे ’ भाशेंत सांगचें जाल्यार, दोगूय ‘ देव पळेल्ले ’: साक्षात्कारी.

स्वामी तपोवन एका काळार एक मोटे पत्रकार, एक कवी आनी एक मोटे वक्ते म्हुण नामनेक पाविल्ले. ‘ ईश्वर दर्शन ’ ह्या नांवांचें तांणीं संस्कृत भाशेंत एक मोलाचें पुस्तक बरयलां. तांगेली आपजीण ती. तांगेलें ‘ हिम-गिरि-विहार ’ नांवाचें हिमालयाचे भोंवडेचेंय एक पुस्तक आसा. उपरांत बरोवपाचें तांणीं बंद केलें.

साधू विष्णुदासांनीं जाल्यार केन्नाच कितेंच बरयलें ना. ते कित्याक, ते उलय लेगीत नात.

अध्यात्माच्या नांवार जंय चड-शी बुवा-बाजीच चलता थंय ‘ खरेले ’ साधू कशे वेंचून काडप हो म्हजो प्रस्न ह्या दोगांकूय पळेनाफुडें सुटलो. केदेय व्हडले भुरावळींत व्हरून हांकां सोड. हे लिपून उरपाचे नात. रोखडेच दोळ्यांत भरतले. हांच्या दोळ्यांतल्यान मोग सामको ओतता. संवसारांत कोणेंय देव पळेल्लो आसत जाल्यार ह्या दोगांनी तो खातरीन पळेला अशें दिसता. हे तरेचें व्यक्तिमत्त्व हांवें आयुश्यांत आनीक एकल्या-चेंच पळेलां, जे कृष्णमूर्तिचें.

खोलायेन केल्ले साधनेचो परिणाम मनशाचे कुडिचेर लेगीत जाता म्हणटात तें खरें आसूंक जाय. तपोवनजींची खोंप एके दोंगुल्लेचेर आशिल्ली. आमी तांचे भेटेक गेल्ले तेन्ना ते दन्पारची न्हीद काडून उठिल्ले. तिकतिकीत तांब्यासारकी तांगेली कात पळोवन म्हाका गांधींचो उगडास जालो. तांगेलीय कूड अशीच तिकतिकताली. नरेशान गीतेच्या एका श्लोकाचो अर्थ विचाल्लो तेन्ना activity आनी action हीं दोन इंग्लीश उतरां घेवन तपोवनजींनी आमकां ‘कर्मा’चो जो अर्थ समजावन सांगलो ताणें म्हजे जाल्यार कितले-शेच दुबाव ना जाले. नरेशान जेन्ना म्हळें : ‘ विनोबाय म्हणटात, क्रिया आनी कर्म एक न्हय हें सांगपाक अध्यात्म नाका, व्याकरणूच तें तुमकां सांगता ’ म्हुण, तेन्ना तांकां बरें दिसलें आनी ते म्हणपाक लागले : ‘ फिर, कर्मका मतलब तो तुम जानते हो... ’

हांवें तांकां एक प्रश्न विचाल्लो. म्हळें : ‘ देवाचो दिश्टावो करून घेवपाक आरंभाकूच देवाक शरण कित्याक वचूंक जाय ? ’

आनी तांणीं म्हाका जाप दिली : ‘ दुदाचें धंय करचें आसत जाल्यार, आरंभाकूच दुदांत थोडें धंय भरसूंक जाय.... जाका तूं जोइंक सोदता ताचे सुवादीन तूं तुका आरंभाकूच कर, तो मागीर तुका हाताक धरून आपले सरीं व्हरतलो... ’

म्हाका शरणागतिचें म्हत्त्व एका खिणांत समजलें.

विष्णुदासांचे भेटेक वचपाक आमकां गंगेचे पल्तडीं दोन सवाय दोन मैल चलचें पडिल्लें. आमकां दारांत उबे पळेना फुडें ते बशिल्ले उठले आनी जसो कितें खासा देवूच आपले भेटेक आयिल्ले वरी ताकतिकेन मुखार येवन तांणीं आमकां येवकार दिलो. तांचे नुरे वयलो मुमुरखो हांसो म्हाका झेलून घेवचो-सो दिसलो. तांगेली पिराय अंयशीं वरसांची तरी आसूंक जाय. काती कवळ्ळेल्यो. तरी आसतना तांच्यांत एके तरेचें तरणेपण—न्हय, न्हय, भुरगेपण उफेवन दिसतालें. ते नागडे आशिल्ले. काश्टी लेगीत न्हेसूंक नाशिल्ले. पुणुन कितले ‘ सुंदर ’ दिसताले ! दादल्याची इतली देखणी नागडी कूड हांवें हाचे पयलीं फकत खलिल जिब्रानाच्या चित्रांनींच पळेल्ली. जे न्हंयेंचें उदक आंगार पडनाफुडें आमचें आंग मेरेल्लें ते न्हंयंत ते हे पिरायेर लेगीत वरांचीं वरां उबे रावन तिची ‘ उपासना ’ करताले. तांचे कडेन एक शाल पळेली. ताणीं सद्दां सकाळीं ती दुर्गार सुकत घालची आनी सांजवेळ, जातकूच ताची घडी करून ती भितर दवरची. कितलीं शींच वरसां जालीं खंय, तांगेलो हो नेम चलिल्लो. म्हाका एक उगडास जालो :

गंगोत्रिच्या लागसार एकलो ‘ पिसो ’ रावतालो. गंगोत्रिचे यात्रेक येतल्यां-वेतल्यांची ताणें सेवा करची. कोणाचे पांय वळचे, कोणाची फाट दांबची. कोणाक रांदून दिवचें. कोणाक न्हावपाक उदक तापोवन दिवचें. सेवेचो

सुयेग तो होगडाय नाशिल्लो.

खरें म्हळ्यार, तो एक म्हा-पुरुस आशिल्लो. आपली वळख कोणाक जावची न्हय, आपल्या अंतरंगाचो थाव कोणाक लागूंक दिवचो न्हय म्हुण ताणें पिशेपणां पांगुल्लेलीं.

ताका एकलोच वळखल्लो—रामकृष्ण परमहंसाचो एक शिष्य. दोगूय कितले-शेच दीस एकठांय राविल्ले. रामकृष्णांचो शिष्य गंगोत्री सोडून घरा वचपाक भायर सल्लो तेन्ना ताणें त्या 'पिश्या'क एक शाल दिल्ली.

म्हाका ओगीच दिसलें : हीच ती शाल न्हय मू? आनी होच तो पिसो न्हय मू?

आतां मेरेनचे हिमालयांतले भोंवडेंत आमी एका दिसा वयर खंयच रावंक नाशिल्ले. जायते कडेन रावचें—शें दिशिल्लें. 'बरें दिसता थंय रावचें' अशें येवजिल्लें जाल्यार, जम्नोत्रीक सप्तकभर तरी रावतले आशिल्ले. उत्तरकाशीक मात दोन दीस उल्ले. पावलुच मुखार उखलना जालें.

आतां मेरेन भव्य-दिव्य इतलें पळेल्लें कि आतां म्हज्या काळजाकूय तसल्याच कसल्या तरी खाणाची गरज भासूंक लागली. ताका एके तरेची भूक लागली. हांवें भगवद्-गीता वांगडा व्हेल्ली. ती हांगा वाचपाक घेतली. हाचे पयलीं गीता जायते खेपो वाचिल्ली. गीतेचो अध्यात्म आनी तिचें समाजशास्त्र समजून घेवपाखातीर तिचे 'वयलीं मुखेल भाष्यांय वाचिल्लीं. पुणून अजून मेरेन मूळ संस्कृत भाशेंत गीता बारकायेन वाचूंक नाशिल्ली.

निखटें अणकारूच वाचिल्ले, हे खेपे मूळ संस्कृत झरीकूच तोंड लायलें. सकाळीं बसलों आनी दन्पार मेरेन एके बसकेंत पुराय गीता वाचून सोंपयली. विचारांच्या एका हिमालयांतूच भोंवतां अशें-शें कितें दिसपाक लागलें. गीतेचो परिणाम हाचे पयलीं हे भाशेन केन्नाच जावंक नाशिल्लो.

स्वजन, स्वभाव, स्वकर्म, स्वधर्म बी उतरां दिश्टी पडलीं आनी गीता म्हजेकडेन मेकळेपणान उलोवपाक लागली. गीता हें पुस्तक न्हय, ती एक Personality म्हुण काकासायब म्हणटात ताची याद जाली. हाचे पयलीं तिची भास समजुपा खातीर मर्दी ' दुभाष्या 'चो आधार घेवचो पडिल्लो. आतां आमकां एकामेकांकडेन उलोवपा खातीर ह्या मदल्या मनशाची गरज नाशिल्ली हांवें निमाणें तिकाच विचाल्लें : ' तूं म्हाका कितें सांगता ? '

आनी म्हाका जाप मेळ्ळी : " तूं पयलीं तुजो स्वधर्म कितें तो सोदून काड. धंदो सोदचे पयलीं मनशान सगळ्यांत पयलो आपणालो स्वधर्म सोदून काडूंक जाय. स्वधर्मान चलप हीच खरी जिणेची कळा. होच खरो आनद. हीच देवाची पुजा. स्वधर्मान चलतलो मनीस लाव–लुस्कानिचो येस-अपेसाचो हुसको केन्ना करिना. तो फळाचीय वान्सा धरिना.... स्वधर्म ' विगुण ' आसूं, तो सुटना. सोडूंक फावना.

श्रेयान् स्वधर्मो विगुणः परधर्मात् स्वनुष्ठितात् ।
स्वधर्मे निधनं श्रेयः परधर्मो भयावहः ॥..."

गीतेन उत्तरकाशीकूच पयलेच खेपे म्हाका ' स्वधर्मशास्त्र ' शिकयलें. तेन्नाच्यान हां ह्या ' शास्त्रा 'चे नेम सोदीत आयलां. गीतेन जायत्या जाणांक जायतें दिलां. म्हाकाय तिणें पोसो भरून दिलां. एक नवी देख दिल्या. नवी नदर दिल्या. एक जिणे–दिश्टी दिल्या.

तिसऱ्या दिसा भायर सल्ले.

मणेरी, भटवाडी, गंगणानी, सुक्की, झाला, हरसिल बी कितल्योश्योच एका फुडल्यो एक सुंदर सुवातो आयल्यो आनी गेल्यो. आमी चार दीस

एका सारके चल्ले आनी सुमार चाळीस मैल कातल्ले. सुक्की मेरेनची वाट सरळ आशिल्ली. व्हडल्यो-श्यो चडट्यो देंवत्यो लागल्यो नात. उपरांत जम्नोत्रिचे वाटेचो उगडास करून दिवपी वाट सुरू जाली. गंगेच्या उजव्या हाता कडल्यान ती मोडणां घेत-घेत चडपाक लागिल्ली.

दोन दीस उत्तर-काशीक रावल्ल्यान चलूंक पावूंक नाशिल्ले. हाका लागून आतां चलता आसतना सुरवाती सुरवातीक मात्शे त्रास जावपाक लागले. पुणून दोनूच दीस. तिसऱ्या दिसा पांयांतल्या चाकांक परती गती मेळ्ळी आनी आमी कठीण आनी त्रासांच्यो वाटो कांय न्हय-श्यो करून चलपाक लागले. आमकां आतां हिमालयांत सरळ वाटो मेळत जाल्यारूच अजाप जातालें आनी वायट दिसतालें.

भटवाडी मेरेन गंगाय संथ गतीन व्हांवताली. तिच्या उद्घोषांत वेदांची संथा आयकूंक येवची. उपरांत, भटवाडी सोडटकूच तिणें नवो अवतार घेतलो. माला गांवांत पावतासर ती घोग्या भशेन पडपाक लागली. हरशीं, तिचें पात्र व्हडलें-शें रूंद न्हय. पुणून पर्वतां मदल्यान नागिणी भाशेन वाट काडीत ती ज्यो उडयो मारता त्यो पळेतकूच ती वयल्यान सकल कोंसळून पडटा काय शी दिसता. तिचो वेग शंबर ऐरावतांक एका खिणांत फरफरून व्हरीत येदो आक्रांताचो आसता. आनी तिचो आवाज ? मोड आयिल्ल्या समुद्राक लेगीत ‘ कांयच न्हय ’ करपी. बाबडे देवदार तिचो आवाज आयकून गर्भगळीत जाल्ले आनी भियेवन पर्वतांच्या आंगाखांदार मेळत थंय वचून चडिल्ले. तिचो हो अवतार पळेतकूच हावें मनांत म्हळें : हिका झेलपाची तांक फकत म्हा-देवाच्या जटांक आसा आनी कोणाक ती आटापा येवपा ना, अशें जें पुराणांनीं म्हळां तें खरें, सामकें खरें.

तिका स्तब्ध जाल्ली पळेली ती धरालीक. तिची चाल थंय सामकीच मंद जाल्ली. म्हाका तेन्नाच दिसलें : हांगा कितेंय तरी अजापांचें आसूंक जाय. हावें फुडल्यान पळेलें, फाटल्यान पळेलें, उजवे वाटेन पळेलें.

दावे वाटेन पळेलें, वयर पळेलें, आनी परतेंय गंगेच्या तोंडाकडेन पळेलें, खंयचे कडेन कितेंच चकासूर जावपा सारकें नाशिल्लें. हांव बुचकळ्यांत पडलों : अशें कशें ?

घरालीक एकलो मारवाडी यात्रीक मेळ्ळो. बावडयाचो पूत घर सोडून पळून गेल्लो. ताका सोदीत तो हांगा आयिल्लो. बापायचें काळीज तें. दिसपाक खर तळप कशें. पुणून तातूंत ज्यो झरी व्हांवतात्यो त्यो बापायचें काळीज आशिल्ल्याकूच दिश्टी पडपाच्यो. ह्या मारवाड्याच्या काळजांत हांवें मोगाचे, रागाचे आनी पच्छात्तापाचे उमाळे पळेले आनी हांवें ताका म्हळें : ‘आमी भुरग्यांक मोग दितात, पयसो दितात, सगळें दितात. पुणून वेळ दिनात आनी थंयच आमचें चुकता. आमी वेळांत वेळ काडून तो तांच्या खातीर खर्चूंक जाय. तांचेकडेन पोटभर उलोवंक जाय. तांकां आमी तांचे इश्ट कशे दिसूंक जाय.’ आनी ताका हांवें जिब्रानच्या उतरांनीं सांगलें : आवय–बापूय म्हणटात तें धोणू, जातूंतल्यान देव भुरग्यांचे बाण सोडटा. आनी : The Archer sees the mark upon the path of the infinite, and He bends you with His might that His arrows may go swift and far. Let your bending in the Archer’s hand be for gladness; for even as He loves the arrow that flies, so He Loves also the bow that is stable....

तो कांयच उलयलो ना. थोडया वेळान ताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर फुटलीं : ‘म्हजें अर्दें जिवीत सल्लें जाणटेल्यांक समजून घेवपांत. आतां उरिल्लें खर्चुंया ह्या भुरग्यांक समजून घेवपांत...’

इतल्यांत—

‘रवीन्द्र...रवीन्द्र...लवकर या...’ करून नरेशाचो ताकतिकेचो उलो आयकूंक आयलो. तो भायर गेल्लो. उलो कानार पडना फुडें हांवें भायर धांव माल्ली.

अस्तंते दिकेन हिमशिखरांची एक रांग उबी आशिल्ली !

सिंघोटच्या उपरांत आमकां हिमशिखरां परतीं मणेरीक दिश्टी पडिल्लीं. तीं दोन–तीन मिणटां पुरतीं. मालाक पावल्यात तेन्ना एका काळ्याकीट्ट दोंगराक बरफाची एक अश्टी–देग पळेल्ली. हिमशिखरांचें अशें : तीं उगडीं-नागडीं दिश्टी पडटात तेन्ना सुंदरूच दिसतात. दिश्टी पडून रोखडींच ना जातात तेन्ना तीं पिशें लायतात. आनी जेन्ना हय–न्हय–शीं दिसतात तेन्ना विचारूं नाका : तीं तुकाय आपणा वांगडा स्वर्गांत घेवन वतात. आयज तांची सोबा सामान्या भायली दिसली. तीं उगडीं–नागडीं आशिल्लीं, त्या भायर थीर आशिल्लीं. हालनाशिल्लीं. लिपपाची तांकां ताकतीक नाशिल्ली. तांच्या रंगांतूय थीर–साण आशिल्ले बरी दिसली. दन्पारचीं तीन जाल्लीं. ह्या वेळार हरशींय जाल्यार सैमाक एक आगळीच ओप चडटा. तातूंत कुपांय आयज उदार जाल्लीं. पंदरा मिणटां जालीं, वीस मिणटां जालीं, तीस जालीं, एकूय कूप वयर सल्लें ना. हांव दोळ्यांची पाती लेगीत हालूंक दिनासतना हिमशिखरांची सोबा नियाळूंक लागलों. खिणा–खिणाक आनंदाचे घोंट पियेवंक लागलों. काळ्या बेरड घांटयांत एक नाजूक–शी गोरी चली पळेतकूच तिची सुंदरकाय दोळ्यांत अदीक भरता तशें धरालिचें सैम म्हज्या दोळ्यांत भल्लें. येद्या व्हडल्या ह्या भेश्टावण्या आनी आक्रांताळ्या हिमालयांत ल्हान ल्हान दोंगरांचो, संथ व्हांवत्या वाऱ्याचो आनी नाजूक आंगा न्हंयेचो सुंदर धराली गांव पळोवन मनांत आयलें : केन्नाय वानप्रस्थाचें जिवीत जियेवपाची इत्सा जाली आनी आपल्या–पेल्या लोकांपसून पयस खंयूय वचून रावपाची गरज भासली जाल्यार हांव नांव बदलून धरालीक येवन रावतलों आनी हांगाच ह्या हिमशिखरांचें ध्यान करीत निमाणो उस्वास सोडटलों.

थोडया वेळान कुपां वयर सल्लीं आनी जो देखाव पळोवन येदो वेळ अंतराळांत उडटालों तो लिपलो. म्हाका गंगेचो उगडास जालो. हांवें तिच्या तोंडाकडेन पळेलें. ती हांसली. हांवें म्हळें : ‘ तूं हांगा येवन कित्याक

चक्रासूर जाली तें म्हाका आतां समजलें. '

त्या दिसा आमच्यो तीन-सांज मेरेन खबरी चलल्यो. नरेशान प्रस्न उबो केलो : ' सैमाचें सुंदर जावं भेश्टावणें रूप पळोवन मनीस खुशाल-भरीत कित्याक जाता ? '

आमची दोगांयची जात एक : सैमाचें खंयचेंय रूप पळोवन भितल्ले भितर खोशयेच्या उमाळ्यांनीं नाचपी ' कवि 'ची. कविता आमी बरयनात. पुणून घोगे आनी न्हंयो पळेल्यो, दोंगर आनी खणी पळेल्यो, जावं, समुद्र आनी वेळो पळेल्यों म्हणटकूच कवींक जाता तसलेंच कितेंय तरी आमकां जाता. झाडां–पेडां, फुलां–फळां, सुकणीं–सावदां, जीव–जिवाणीं, मुयो–किडे, मूस-पिसोळीं– कितेंय जावं तें, आमकां दोगांकूय तांचेकडेन पळेतकूच अजाप जाता. एक खेपे एकल्या इश्टान मिक्रॉश्कॉपांतल्यान म्हाका व्हॉलव्हॉक्स नांवाचो एक जीव दाखयलो. पाचू-सारको पांचवो-चार. वनस्पती म्हळ्यार वनस्पती न्हय, प्राणी म्हळ्यार प्राणी न्हय हे जातिचो. हे धर्तरेचे फाटीर पयलो वयलो जींव जल्माक आयलो तेन्ना सावन खंय हो व्हॉलव्हॉक्स असोच उदका थेंब्यार जियेता. ताका पळेनाफुडें म्हाका जें जालां तें सांगपा न्हय. श्रीरामकृष्ण परमहंसांक समाधी लागताली म्हळ्यार कितें जातालें तें त्या दिसा म्हाका समजलां.

असले हे अणभव मनशाक कित्याक लागून येतात ?

विज्ञान भुरगें आशिल्लें त्या वेळार ताच्या हाताक जें-जें कितें लागतालें तें–तें तें ' तपासून ' पळेतालें. आरंभाक तें कांय गजालींक 'जीव आशिल्ल्यो'

आनी कांय गजालींक ‘ जीव नाशिल्ल्यो ’ लेखतालें. उपरांत ताका अक्कल-दाड आयली आनी तें मात्शें शाणें जालें. ताणें पळेलें : जीव आशिल्ल्यो सगळ्यो वस्ती जीव नाशिल्ल्या गजालींतल्यानूच जल्माक आयल्यात. जीव आशिल्ल्या वस्तींतलो सगळ्यांत अजापांचो म्हळ्यार मनीस आनी ताचो मेंदू. तो जे धर्तरेर जियेता ती एका काळार उज्याचो गुळो आशिल्ली. ती एक दीस थंड जाली. कांय काळान तिचेर उदक जल्मा आयलें. ह्या उद-काचो आनी सुर्याच्या किरणांचो कांय काळ खेळ चल्लो आनी एक दीस उदकान पयल्या–वयल्या ‘ जिवा ’क जल्मा घालो. ह्या जिवाच्यो मुखार दोन तरा जाल्यो. एके तरेन बनस्पतिचें रूप घेतलें आनी दुसरेन प्राण्यांचें. उपरांत एक दीस प्राण्यांतल्यान मनीस जल्मा आयलो.

‘ विकास ’ म्हळ्यार, जें ‘ आसा ’ पुणून दिश्टी पडना, तें दिश्टी पडप, लिपिल्लें उकतें जावप अशें मानलें जाल्यार आमकां अशें म्हणचें पडटलें कि मनशाच्या मेंदवा सारकी जी अजापांची वस्त आयज दिश्टी पडटा ती त्या उज्याच्या गुळ्यांत लिपून ‘ आशिल्ली. ’ ती पयलीं दिश्टी पडूंक नाशिल्ली. कोटींनीं वरसांच्या विकासा उपरांत आतां दिश्टी पडटा.

अशें जाल्यार मागीर ‘ जीव नाशिल्लें ’ संवसारांत कितेंच ना अशें म्हणचें पडलें ना ? जे मातयेंतल्यान येदीय व्हडली ही जिवी सृश्ट जल्मा आयली ते मातयेक लेगीत जीव आशिल्ली लेखची पडली ना ? संवसारांत जीव नाशिल्लें कितेंच ना. जें कितें आसा तें सगळें ‘ जगत्यां जगत ’— जल्मा येता, बदलता, नवें रूप घेता. ना जाल्ले भाशेन दिसता. पुणून ना जायना. बीं किल्लतकूच ताचो रोप जाता. झाड जाता. ताका फुलां येतात, फळां जातात. म्हुण बीं ‘ ना जालें ’ म्हणूं नज. सगळें जिवें आसा म्हुण रुपांतरीत जायत चल्लां. जांकां आमी स्फटिक वा crystals म्हटतात तांच्यांत लेगीत जीव आसा. संवसारांतली जण एकली वस्त जिवी. जिवे सृश्टिच्यो आमी ज्यो दोन जाती केल्यात– प्राणी आनी वनस्पत म्हुण, त्योय सारक्यो न्हय.

कांय जीव अशे आसात कि जांच्यांत दोनूय जातिचें गुण दिश्टी पडटात.

सगळें एकूच जाल्लयान संवसारांतली जण एकली वस्त दुसऱ्याच्या नात्यांतली. सगळ्यो एकामेकांच्या आधारान जियेतात. प्राण्यांक जियेवपाक दुसऱ्या प्राण्यांचो जितलो आधार जाय तितलोच वनस्पतिचो जाय. वनस्पतीक जियेवपाक मातयेचो आधार जाय. वाऱ्याचोय जाय. झाडां नाशिल्लीं जाल्यार, सुकणीं–सावदां आसचीं नाशिल्लीं आनी भूंय नाशिल्ली, माती नाशिल्ली जाल्यार झाडां पेडां आसचीं नाशिल्लीं. झाडांक पावस जाय. पावसाक झाडां जाय. पावसाचें उदक दोंगरांच्या पोटांत सांबाळून दवरपाकूय झाडां जाय.

जिणेन जीं वेगळीं वेगळीं रुपां घेतल्यांत तींय पळेल्यार अजाप जाता. दर-एकलें रूप आपली जात तिगोवपा खातीर, वाडोवपा खातीर आंवडेता. हो आंवडो पळेल्यारूय अजाप जाता. दर एकल्या रुपाचे सभाव, संवंयीं सगळें पळे; अजापूच जावपाचें.

सत् सोदपा खातीर मनीस आयज मेरेन दोन वाटां वयल्यान चलत चलत आयला. एक, भावार्थाचेर आधारल्लेली वाट आनी दुसरी, बुद्दीचेर आधारल्लेली विज्ञानाची वाट. हे दुसरे वाटेन चलतनाय मनीस भावार्थानूच चल्ला : बुद्द आपणाक सत्या म्हऱ्यांत व्हरतली, सत्याचो दिश्टावो घडोवन दितली म्हणपाचो भावार्थ. बुद्दीचेर भावार्थ दवरून मनीस विज्ञानाची वाट चल्लो आनी ताका कळ्ळें : आपणें जें गिन्यान जोडलां तें लांबायेन–रुंदायेन–खोलायेन अंत-पार नाशिल्लें आसूं. जें जोडपाचें उल्लां, समजुपाचें उल्लां तें ताच्याकूय चड आसा. आपूण जाणां ताच्याकूय चड नेणां हें मनशाक कळ्ळें त्या दिसा मनशांत एके तरेची विज्ञानीक नमळाय–सायंटिफीक ह्युमिलिटी–उदेली आनी तेन्ना पसून ताची गत्त उपनिषदांच्या रुशीं भाशेन जाली.

तेन्ना पसून विज्ञान अध्यात्माची भास उलोवपाक लागलें.

धरालीक त्या दिसा हांव चिंतूंक लागलों : आतां ह्या मुखार अध्यात्मान विज्ञानाचे वाटेन चलपाक लागूंक जाय. आयज विज्ञानूच जंय अध्यात्माचे नदरेन येवजूंक लागलां थंय अध्यात्मान आपल्या पोरण्या देखींक दसून रावंक फावना. विज्ञानाकूच जंय संवसारा फाटल्यान एक directing creative mind दिश्टी पडूंक लागला थंय अध्यात्म आंधळो कसो रावतलो ?

भागिरथीन तयार केल्ल्या एका रेंवेंच्या जुंव्यार हांव आनी नरेश त्या दिसा तीन-सांज जायसर बसून ह्या प्रस्नांचेर उलयताले. म्हाका दिसलें : सैमाकडेन बारकायेन पळेतकूच म्हाका जी खोस भोगता तिचे बुन्यादींत एके तरेचें mystic communion आसा. भोंवतणीं जें दिश्टी पडटा तें आनी हांव एक ही जाण आसा.

उत्तरकाशी आनी धराली मजगतचे वाटेरूच आमी भोटिया लोक पळेले. हिमाळयांतलें बर्फ विरगळ्ळें आनी येवपा वचपाच्यो वाटो उकत्यो जाल्यो म्हणटकूच तिबेटाचे शिमेर रावपी हो लोक ' टोळी ' करून भायर सरता; गाढवां आनी मेंढरां हांचे फाटीर तिबेटी मिठाच्यो जावं लोकरिच्यो पोटल्यो घालता आनी चलत चलत देहरादून, मसूरी, सिमला मेरेन वता आनी थंयच्या बाजारांत येतना हाडिल्लो म्हाल विकून तांदूळ, बटाट जाव असलोच दुसरो म्हाल घेवन आशिल्लो-तसो तिबेटाचे शिमेवयल्या गांवांनी येता. वरसांतलो चड–सो काळ हिमालय चडपांत आनी देवपांत तो खर्च करता. ताका घरदार बी ना. ताचें घर ताचे आनी ताच्या गाढवांचे वा मेंढरांचे फाटीर. रातचो पावता थंय तंबू ताणून रावप हो ताचो नेम. तो

सदांच टोळयेन भोंविछ्यान बायले–भुरग्यांकूय वांगडा घेता. ताच्या वांगडा वन-गायूय आसता आनी रान-सुणेंय आसता.

भोटया बायलो पळोवन म्हाका भंय दिसलो. सुंदरकाय, नाजूकसाण असलें कितेंच तांच्यांत नाशिल्लें परतें, हांकां हांव खंयूय एकलो मेळ्ळों जाल्यार ह्यो म्हाका लुटून मारून बी उडोवच्यो नात मू, असलों भंय दिसपा सारकें तांच्यांत कितें तरी आशिल्लें.

आमी हिमालयांत भोंवताले त्या वेळार तिबेटांत दलाई लामाचें राज्य चलतालें. चिनाची आनी भारताची इश्टागत आशिल्ली. ‘ हिन्दी-चिनी भाई-भाई ’ आशिल्ले. पुणून ह्या भोटियांनी ह्या वरसा हिमालयांत एक ‘ बरी खबर ’ हाडिल्ली : तिबेटांत चिनांतल्यान आयिल्लें एक ‘ नवें वारें ’ व्हांवूंक लागिल्लयाची. ही खबर आयकून हिमालयांतल्या लोकांत एक नवी उमेद जागी जाल्ली. आमचे शिमे वयल्या ह्या भारतीय लोकांक भारतांतल्या पांच–वर्सुक्या येवजण्यांची कांय–एक खबर नाशिल्ली. तें कित्याक, भारतांत राज्य कोण करतात हाचीय सारकी खबर नाशिल्ली. पुणून चिनांत कितें चल्लां आनी तिबेटांत कसलें वारें घोळूंक लागलां—ह्या विशिंच्यो बारीक बारीक खबरी तांणीं भोटया लोकांकडल्यान आयकल्ल्यो.

धराली लागसार मखुवा म्हुण एक गांव आसा. हो गांव थंयच्या लोकांनी विनोबाजींक ग्रामदानांत दिल्लो. हो गांव पळोवपाक आमी मुजरत गेले. थंय एक सभाय आमी घेतली. ग्रामदाना फाटलो विचार आमी तांकां समजावन सांगलो तेन्ना तांच्या दोळ्यांत ‘चिक्क’ जाल्लें हांवें पळेलें. तिबेटांत जें कितें जावपाचें आसा, तेच जातिचें हेंय कितें-शें आसूंक जाय अशें तांकां दिसलें आनी तांणीं आमकां तरे तरेचे प्रस्न विचाल्ले. ह्या प्रस्नां फाटल्यान जो ‘ दुबाव ’ म्हाका दिसलो ताणें हांव खंती जालों. त्याच खिणाक म्हाका दिसलें : ‘ आमची शीम आमच्या हातांत ना. ती मात् लेगीत सुगूर ना. उत्तरप्रदेशा पसून ही सुवात वेगळी काडूंक जाय आनी ह्या प्रदेशाचें एक

वेगळें घटक राज्य जावंक जाय. ना जाल्यार, हो प्रदेशूच आमच्या देशांत उरपाचो ना...'

हांव त्याच दिसा आमच्या देशाचीं ल्हान ल्हान शेंबर राज्यां जावंक जाय ह्या मत्ताचो जालों.

हिमालयांतल्या लोकांच्या काळजांत भोटिया लोकांनीं एक ' बरी खबर' हाडून एक नवी आस्त जागयल्ली. भोटिया लोक हे नवे खबरिचो प्रचार कर-पाक हांगा येवंक नाशिल्ले. वरसान वर्स येतात तशे आयिल्ले ते दिश्टी पडले म्हणटकूच सिमला-मसुरिच्या लोकांक हिमालयांतल्यो वाटो उकत्यो जाल्यो म्हणपाची खबर कळटाली. हे खेपे संवसारांतल्या चिड्डल्ल्या गरीब-दुबळ्या लोकांच्या नशिबाच्यो वाटो खंय खंय उकत्यो जावपाक लागल्यात म्हणपाची खबर घेवन ते आयिल्ले. भोंवपी लोकांच्या धरमाक धरून ते पळेल्लें आनी आयकल्लें दुसऱ्यांक सांगताले. म्हज्या मनांत आयलें : तिबेटांतल्यान सकल देंवतना तांकां हांगच्या लोकांक सांगपा सारक्यो खबरी मेळ्ळयो. आतां हांगा-च्यान ते परते वतले. तेन्ना तिबेटांतल्या लोकांक सांगपा सारक्यो खबरी तांकां हांगा मेळटल्यो व्हय?...कित्याक ना? आमचें खंय चुकलां? कितें चुकलां? आमी खंय उणे पडल्यात? सुंदरकायेचो एक भक्त ह्या नात्यान हिमालयांत आतां मेरेन भोंवल्लों. तरणें रगत जाल्ल्यान साहसां करपाचीय उमेद आंगांत आशिल्ली. स्वभावधरमाक धरून मर्दीं मर्दीं खोल खोल देंवून जिविताच्या प्रस्नांविशींय चिंतताले. पुणून आतां म्हज्यांतलो देश-भक्त जागो जाल्लो. आनी हांव देशाचे आवतिकायेचें येवजून आतां न्हिदो खळोवपाक लागलों.

धराली सोडून मैलभर मुखार गेल्यात जातले इतल्यांत हिमालयान परतेंय आपलें भेश्टावणें रूप घेतलें. वाट इल्ली इल्ली करून कठीण जायत वचूंक लागली. जम्नोत्रिचे जशे पर्वत कोंसळून पडिल्ले दिश्टी पडिल्ले तशेच हांगाय दिश्टी पडले. जे उबे आशिल्ले तांकां वेर गेल्ली आनी तेय धाल्लून घेवपाच्या बेतांत आशिल्ले. भागीरथिचेर संऽहार आयिल्लो. ती घो....घो. करून व्हांवताली–व्हय, पडटाली, फुट्टाली. तिगेलो प्रलयंकारी आवाज आयकून म्हज्यो कानठळयो बसल्यो. भिये–भियेत आमी चलत रावले. एका संगमार पावले. जाह्नवी आनी भागीरथी हीं एकेच गंगेचीं दोन नांवां असो आतां मेरेन म्हजो समज आशिल्लो. ह्या संगमार पावतकूच ह्या दोन नांवाच्यो दोन व्हंयो दिश्टी पडल्यो. दोनूय व्हंयो हांगा एक जाल्ल्यो. एक कपळाच्यो. दोगूय एके–मेकेच्या आंगार जिवार उठिल्लेवरी धांवून गेल्ल्यो. तांगेलो हो अवतार पळोवन लागसारचे दोंगरां-कडे गर्भगळीत जाल्ले. ते केन्ना घुंवळून पडत, सांगू नज आशिल्लें. दोन दीस आदीं एक पर्वत घुंवळून एका लोखणाच्या पुलाचेर पडलो आनी आपल्या वांगडा ताचोय ताणें जाह्नवींत पिठो करून उडयलो. आमची वाट त्या पुला वयल्यान वताली. पुला वांटयाचीं थंय लाकडाचीं दोन फळीं हाडून कोणें घाल्लीं.

जम्नोत्रिची भेश्टावणी वाट 'कांयच न्हय' अशें दिसपा सारको हो भयांकूत देखाव आशिल्लो. देवेन्द्र आनी नरेश जीव मुठींत घेवन दोळे धांपून हातांनीं फळें सांसपीत मुखार गेले तेन्ना म्हजो आवरो उडलो हांकां हें कठीन गेलें जाल्यार 'म्हज्यान हें जावचें ना' अशें म्हाका दिसलें. हांव परतुपाचे बेत आंखूंक लागलों. मुखार वचपाचो धीरच म्हाका जायना जालो. हावें निर्णय घेवचे पयलींच गोदू धीर करून मुखार गेलें तेन्ना 'देवा पाव' करीत म्हाकाय वचचें पडलें. पलतडीं पावलों. कसो, हांव नकळे.

आनी मुखार? उबे वणटी सारको एक कडो. पांय दवरून चडटलों म्हळ्यार

खांच ना. हातांत धरतलो म्हळ्यार ताचेर ताळी ना, मूळ ना, कितेंच ना. नाखा मुखार एक खडप. ताच्या माथ्यार हात पावतालो. पुणून हाताच्या वजनान सट्ट करून तो सुटलो आनी हड्डयार पडलो जाल्यार? देवेंद्रान वाट काडली आनी तो ताच्या माथ्यार चडलो. आनी मागीर एक-एकल्याक हात दिवन ताणें सगळ्यांक वयर काडले.

उपरांत एक घाटी सुरू जाली. नांव : भैरव घाटी. देड मैलांचो खर चडाव. आमचे पांय लटलटटाले. आमच्या आमकांच धुकलीत धुकलीत आमीं वयर पावले. वयर भैरवाचें एक देवूळ आशिल्लें. थंय बसले. सामके स्वर्गांत पाविल्लेवरी दिसचें इतले उंचायेर आमी पाविल्ले. हिमालयांत जंय जंय भैरव घाटयो आसात थंय थंय सामान्या भायले सुंदर देखाव दिश्टी पडटात. कांय जाणांक हे देखाव पळोवन कैफ चडटा आनी आपल्या आनी ह्या देखाव्यां मजगतीं अंतरच नाका अशें म्हणून ते थंयच उडी घेवन जीव सोडटात.

आमचो जीव तानेन व्हळपेल्लो. खंयच उदक नाशिल्लें. आमच्या वांगडा आमचो नेपाळी कुली बमबहादूर बशिल्लो. ताका विचाल्लें : 'बमबहादूर, आतां कितलें उल्लां रे?'

'दोन फर्लांग . उपरांत रोखडीच गंगोत्री...' ताणें जाप दिली.

उठले. चलपाक लागले. दोन फर्लांग जाले, चार जाले, आठ जाले. तरूय गंगोत्री येना. वाट चुकले काय कितें? म्हाका दुबाव आयलो. बमबहादुराच्या तोंडाकडेन पळेलें. ताणे 'पावले...ही पळे दिश्टी पडटा गंगोत्री' अशी जाप दिली. गंगोत्री अजून एक मैल पयस आशिल्ली. पुणून आमची अवस्ता एक फर्लांग लेगीत चलपा सारकी नाशिल्ली हें बमबहादुरान पळेल्लें. तो फटिचो आसरो घेवन आमकां धीर दिवंक लागिल्लो.

दनपरां गंगोत्रीक पावले तेन्ना आमकां कोणाक सुद्द उरूंक नाशिल्ली.

आमचे आदीं गंगोत्रीक पाविल्ले यात्रीक, दोन दीस जाले, भैरव घाटीर

चून परते येताले. तांणीं जाह्नवीं–भागीरथिच्या संगमां वयली वाट बंद
जाल्ली पळेल्ली. आमी दिश्टी पडना फुडें ‘ क्या, रास्ता खुल गया ? ’
करून विचारीत ते आमचे भोंवतणीं एकठांय जाले. आमी सुदीर नात हें
ळोवन तेच वाटेन आमी आयल्यात जातले म्हणपाचो तांणीं अदमास
केलो.

हांगाच आनी असल्याच प्रसंगार हिमालयांतल्या यात्रिकांचो सभाव
कळसाक लागता. एका खिणा आदीं आमी एकामेकांचे कोण नाशिल्ले
याचो तांकां विसर पडटा आनी घरच्या मनशांवरी ते एकामेकांक पावतात.
आमचे भोंवतणी कांय पंजाबी बायलो जमल्यो आनी आमचेर मायेचो पावस
शेंवरावपाक लागल्यो. कोण उदक हाडून दिता, कोण खावंक हाडून दिता
..कोण पांय वळटा...

म्हाका जाल्यार हे लोक म्हजे युगां-युगांचे सांगाती कशे दिसले.

वर देड वेर न्हीद काडून जेन्ना उठलां तेन्नाच गंगोत्रीक पावलां म्हणपाचें
कळ्ळें.

जम्नोत्रिची भेश्टावणी भव्यताय गंगोत्रीक दिश्टी पडना. भांगराची पातळ
लोप काडिल्लें एक सुंदर हिमशिखर. दोशीं दोन आडवे पडिल्ले काळे पर्वत.
तांच्या आंगार वाऱ्यार घोळपी देवदार रुखांचें एक कुचकुचीत रान आनी
भागींच संथपणान व्हांवपी भागीरथी. गंगोत्रिचो देखाव हो इतलोच.

पुणून पवित्रतायेन पुराय वाटार परमळावपी.

न्हंयांक आमीं सुमारा भायर म्हत्त्व कित्याक दिलें काय ? कसलेंय

देवकार्य करचें पडलें जाल्यार आमकां पयलीं तांब्रयांतल्या उदकांत सगळ्या न्हंयांक आपोवन हाडच्यो पडटात. त्या उपरांतूच देवकार्य सुरू जाता. राजांक राज्यार बसचे पयलीं सात न्हंयांच्या तीर्थांचो अभिषेक करून घेवचो पडटालो. तें कित्याक, आयजवेर एका तरी हिन्दुचें गंगा, यमुना, सिंधु, सरस्वती, गोदावरी, नर्मदा बी न्हंयांक आपयले बगर लग्न जालां व्हय? तांकां आमंत्रण दिवन आपयल्या उपरांतूच ताचे तकलेर अक्षता पडल्यात.

कांय प्रदेशांक लेगीत आमी न्हंयां वयल्यान नांवां दवल्लीं. पांच न्हंयां मजगतचो प्रदेश हो पंच-आब. म्हळ्यार, पंजाब. गंगा आनी यमुना हांचे मदलो प्रदेश अंतर-वेदी. आमच्या देसाक लेगीत नांव एके न्हंये वयल्यान पडलें. 'सिन्धु' चे पलतडीं रावपी लोकांचो देस 'हिन्द' म्हुण.

आमच्या जाणटेल्यांनी आमकां जे कांय नेम घाल्लून दिल्यात तातूंत यात्रा करपाचो एक नेम आसा. खंय खंय वचात म्हुण सांगचें तांणीं? न्हंयेच्या मुळाकडेन, न्हंयेच्या तोंडाकडेन, न्हंयांच्या संगमाकडेन वा न्हंयेचे तडीर. हिमालयांत आमी वतात ते थंयच्या पर्वतांचे भेटेक न्हय. पर्वत आमकां वाटेर मेळटात. जम्नोत्री, गंगोत्री, केदार आनी बदरी ह्या चारूय धामांचे यात्रेक गेल्यार सवाय लाख पर्वतांक प्रदक्षिणा काडिल्ल्याचें पुण्यूय मेळटा खंय. पुणून आमी हिमालयांत वतात यमुनेच्या आनी गंगेच्या कुळाराक भेट दिवपाक; मंदाकिनिच्या आनी अलकनंदेच्या कुळाराक भेट दिवपाक.

न्हंयो पळेनाफुडें आमच्या कविंच्यो प्रतिभा व्हांवपाक लागतात. बरें आसा. पुणून राजकर्णा सारकेल्या रखरखीत मळार जाणें आपलें पुराय जिवीत खर्चिलें तो जवाहरलाल लेगीत गंगे संबंदान बरोवंक लागता तेन्ना कवी कित्याक जाता? आनी गंगेचेर एक सुंदर गद्यकाव्य कित्याक बरयता?

न्हंयांचें आनी आमचे जिणेचें बरेंच दाट नातें आसूंक जाय. तांकां

नांवां लेगीत आमी कितलीं सुंदर दवरल्यांत! काळीज सामकें ओतलां तांकां नांवां दवरता आसतना.

न्हंयांत गंगा ही आमची खाशेली न्हंय. आमच्या काळजांचेर ती सदांच आपलो शेक चलयत आयल्या. आमचे संस्कृतायेची आवय ती. सिंधु आनी ब्रह्मपुत्रा आसतीत तिचे परस व्हड. पुणून तिचे इतली पवित्र दुसरी खयचीच न्हंय आमकां दिसली ना...

हिकाच कित्याक इतलें म्हत्त्व दिलें आमीं? ती जे सुवातेर व्हांवता थंय ती व्हांवनाशिल्ली जाल्यार पूर्व आनी उत्तर भारतांत सहाराच्याकूय व्हड वाळवंट जातलें आशिल्लें म्हुण? आनी हो देस जियेवंक पावचो.नाशिल्लो म्हुण व्हय? ती नाशिल्ली जाल्यार निखऱ्या पावसाच्या उदकाच्या म्हालवजार हो देस केन्नाच वयर सरूंक पावचो नाशिल्लो म्हुण काय? असले उपकार बाकिच्या न्हंयांनींय ह्या देशाचेर केल्यात. पुणून गंगेक जें म्हत्त्व आमीं दिलां तसलें बाकिच्या न्हंयांक दिवंक ना.

म्हाका दिसता बाकिच्या न्हंयांपरस गंगेक अदीक म्हत्त्व दिवपाक एक मोटें कारण जालां. गंगा ह्या देशाच्या एका मोठ्या पुरुशार्थाचो उगडास करून दिवपी न्हंय. सैमान निर्मिल्ली सादी न्हंय न्हय ती.

पुणून तिचें हें म्हत्त्व वळखून घेवपाक आमकां पुराणांचो इल्लो आधार घेवंचो पडटलो.

गंगा खंय पयलीं स्वर्गांत व्हांवताली. तिका धर्तरेर हाडची म्हुण सगर कुळांतल्या अंशुमन नांवाच्या राजान आपलें पुराय आयुश्य खर्चिलें. ताच्या उपरांत ताचें अर्दकुटें उरिल्लें कार्य ताच्या पुतान, दिलीपान, मुखार चलयलें आनी निमाणें दिलिपाचो पूत भगीरथ हाणें तें शार्थी पावयलें. तो गंगेक स्वर्गांतली धर्तरेर घेवन आयलो.

सगर कुळांतल्या तीन पिळग्यांनी हिमालयाचो सर्वे केल्लो आनी हिमालयांतलो एक झरो हेवाटेन ओडून हाडपा खातीर आकांताचो यत्न

केल्लो. ह्या यत्नाक लागून निमाणें गंगा तिबेटांत व्हांवपा वांटयाची भारतांत देंवन व्हांवपाक लागली. हो इतिहास पुराणांतले हे कथेंत आसा.

हांगा एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय. भगीरथाच्या तपाच्यो खबरी पुराणांनीं सांगल्यात. पुणून ताच्या नांवा वांगडा ' यत्न ' हें उतर लायलां. भगीरथ-तप म्हणूंक ना. भगीरथ-यत्न म्हळां. गंगेक सकल हाडपा खातीर भगीरथ नाखा-पुडयेर नदर लावन तप करूंक बसूंक नाशिल्लो. ताणें एक आकांताचो ' यत्न ' केल्लो. तीन पिळग्यो झरोवन यत्न केलो. तेन्नाच गंगा हे वाटेन व्हांवंक पावली. असोच ताचो अर्थ.

येदो व्हडलो यत्न जिचे खातीर जालो तिचेर लोकांनीं सगळ्यांत चड मोग केलो जाल्यार अजाप कसलें ?

म्हाका केन्ना केन्नाय प्रस्न पडटा : भगीरथाचो हो यत्न हांगा चलतालो त्या वेळार आमचे संस्कृतायेचो खाल्डियन आनी इजिप्शियन संस्कृतायेकडेन संबंद आशिल्लो काय ? खाल्डियन संस्कृतायेंतलो ' सर्गोन ' आनी इजिप्शियन संस्कृतायेंतलो 'सगीनस' म्हळ्यार आमचे संस्कृतायेंतलो ' सगर-पुत्र 'च काय ? कोण कोण म्हणटात आमच्या सगराचो पूत ' असमंजस ' आनी इजिप्तच्या इतिहासात ' अहंमज ' म्हुण जाचो उल्लेख मेळटा तो एकूच म्हुण.

पुराणांत ज्यो कथा आयल्यात त्यो निखटयो रचिल्ल्यो अशें मानप समा न्हय. तातूंत इतिहास आसूं येता. आसता. तो सोदून कांडूंक जाय.

आरे ! पुणून हांव खंय व्हांवलों ? गंगोत्रिची खबर सांगतां सांगतां बाबिलोनिया मेरेन व्हांवत गेलों. आनी पुराणांनी घुस्पलों. हांव जाणां : जो भोंवंक भायर सरता ताचे जशे पांय चलतात आनी दोळे भोंवतात तशें ताचें मनूय हेडटा. खंयचें खंय हेडूंक वता. तर हांव कितें सांगी ? हय. गंगोत्रीक जें म्हत्त्व मेळ्ळां तें गंगेक लागून. ती तिबेटांत व्हांवताली. ( ' गंगा ' हे उतर लेगीत तिबेटी खंय ) तिका भगीरथान हे वाटेन हाडली.

सुवातेर ताणें हो यत्न केल्लो ती सुवात म्हळ्यार – गंगोत्री.

गंगोत्रिच्या मुखार सुमार अठरा मैलांचे वाटेर गोमुखी म्हुण एक सुवात ासा. थंय तिनूय-त्रिकाळ एकासारकें बर्फ पडत आसता, हाकाच लागून ावेंये, गंगा खंय थंय मळबांतल्यान सकल देंविल्लेवरी दिसता. स्वामी मतीर्थ ह्या थळाचेर खूब भाळिल्ले. तांगेल्या बरपांत गोमुखिचीं सुंदर– दर वर्णनां वाचूंक मेळटात. उत्तरकाशीक स्वामी तपोवनजिच्या तोंडां- ल्यानूय गोमुखिचें एक तुस्त-गीत आयकल्लें. जी सुवात रामतीर्थ आनी पोवनजी हांच्या सारक्या विरक्त मनशांक लेगीत भाळयता–भुलयता ती ऱ्यांनीच स्वर्गापरस आगळी आसूंक जाय...

गंगोत्रीक पावनाफुडें गोमुखीक कशें वचप आनी खंयच्यान वचप हाचे ासपुशेक आमी लागले.

पुणून आमी गंगोत्रीक एक पंद्रस आदीं पाविल्ले! अजून हांगासल्ली ाली-कमलीवाल्याची चट्टी उकती जावंक नाशिल्ली. शियां दिसांनीं ी वाठार बर्फान बुड्टा म्हुण जे कांय साधू उत्तरकाशीक गेल्ले तांतले रेच–शे अजून परतूंक नाशिल्ले. गोमुखीक वचपाचें आसतूच जाल्यार ोमुखिचे वाटे वयलें बर्फ विरगळून वाट उकती जायसर रावंक जाय ्हणपाचें कळ्ळें. इतले लागीं पावून अठरा मैलांचे वाटेर आशिल्लें नंदनवन ळे नासतना वचप काय, पंदरा वीस दीस हांगां रावप हो प्रस्न आमच्या ्खार येवन उबो रावलो.

पंदरा-वीस दीस हांगा रावपाची म्हजी तयारी आशिल्ली. पुणून तशें ल्यार मुखार बदरीनायाक पंदरा-वीस दीस उसरान पावतले आशिल्ले. ते रेन थंय पावस लागतलो आनी मागीर ताच्या मुखावयल्यो जायत्यो सुवातो ामकां चुकतल्यो वा चुकोवच्यो पडटल्यो म्हणपाचेंय कळ्ळें.

करंदीकर धरमान सनातनी. तांणीं ‘शास्त्र’ आमच्या मुखार दवल्लें ानी सांगलें. शास्त्रान ‘गृहस्था’ खातीर गंगोत्री मेरेनूच वचपाक सांगलां.

गंगोत्रिच्याकूय मुखार वचपाचो हक्क फकत संन्याश्यांक दिला आनी संन्याशी न्हय असल्या सामान्यां भायल्या म्हा-पुरसांक दिला. आमी दोनूय न्हय. तेन्ना हाच्याकूय मुखार वचपाची गरज ना.

करंदीकरांलें शास्त्र आमी घडये कडेक उडोवं आशिल्ले. पुणून तांगेले पिरायेचो अधिकार आमकां मान्य करचोच पडटालो. इतले दीस आमच्या वांगडा रावन तांणीं आमच्या जाणटयाची सुवात घेतिल्ली. तांचे सांगणे भायर आमचे भितल्लो कोणूच वचचो नाशिल्लो. आमी मोत्र पडले.

एकल्या यात्रिकान आनीक एक खबर सांगलीः पोरू खंय एकलो येवरोपी भुरगो सगळयांनीं वचूं नाका म्हळ्ळें आसतना गेलो. तो परतो येवंकूच पावलो ना...

एक पंजाबी साधू मेळ्ळो. तो म्हणपाक लागलो : गोमुखिचे वाटेक कठीण म्हणचे परस पवित्र म्हळ्ळी बरी. तिका मात् लेगीत म्हेळसाण सोंसना. वाटेर 'मल-मूत्र-विसर्जन' जावंक जायना. नाख पिळूंक जायना. तें कित्याक, मनांत लेगीत वायट विचार येवंक दिवं जायनात !

आमीं खूब येवजिलें. अखेरेक गोमुखीक वचपाचो बेत मनांतलो काडून उडयलो. म्हळें, संवसारांत पळोवपा सारकें जायतें आसा. खंय सगळें पळोवंक पावतात ? हिमालयांत येवन लेगीत आमकां हांगासल्ल्यो कांय सुवातो सोडून दिवच्यो पडल्यात. आमी परते हांगा पावपाचे नात आनी ह्यो सुवातो आयुश्यांत पळोवंक पावपाचे नात. जम्नोत्री आनी गंगोत्रीचे वाटेर मदीं धुमदीताल म्हुण एक तळयाची सुवात आसा. उत्तरकाशीच्यान फकत तीस मैलांचे वाटेर. स्वर्गाकूय खंय फाटीं घालीत ती. थंय-लागीं पावन लेगीत-आमकां वचूंक मेळ्ळें ना. गोमुखिचेंय अशेंच धरुंया...

नशिबांत आसल्यार परतो केन्नाय हे वाटेन पावतलों. त्यावेळार गोमुखी पळोवन येतलों अशें येवजिलें.

आनी आमी गेल्ले म्हणपाचे धादोसकाये खातीर फर्लांग दोन फर्लांग

ते वाटेन मुखार वचून आयले आनी मागीर गंगोत्रीक रावन वेगळ्या वेगळ्या 'म्हात्म्यां'च्यो भेटी घेवपाक लागले.

गंगोत्रीक कितल्योश्योच घोली आसात. कांय साधू-संन्याश्यांनीं रावपा खातीर ह्योच सुवातो वेंचून काडल्यात. कांय सुवातो खऱ्यांनींच ध्याना, तपाक सोबपा सारक्यो दिसल्यो. आमच्यांतले जाणटेले करंदीकर भावार्ती आनी भोळेय बी. ते म्हणपाक लागले : कोण खरो साधू आनी कोण न्हय हाचो पडटाळो घेवपाचो यत्न केन्ना करचो न्हय. कोणाक खबर, कोण कसल्या रुपांत खंय रावता म्हूण. आमी सगळ्यांक पांयां पडुंया. पांयां पडटां पडटां एकाद-दुकल्या स्पर्शमणयाची नदर आमचेर पडली जाल्यार आमच्या जिविताचें भांगर जातलें.

तांचें म्हणणें : स्पर्शमणी हेरां मणयां सारकोच आसता. तो तसो सोंपेपणान कोणाच्यान वेंचून काडूंक येना. लोखणाक लागतकूच लोखणाचें भांगर जालें म्हणटकूच तो स्पर्शमणी म्हणपाचे कळटा.

करंदीकरां फाटल्यान चलत चलत जायते संत म्हात्मे पळेले. तांतल्या एकल्याची खबर सांगूंक जाय. त्या वेळार थंय अंयशीं वरसांचे पिरायेचो कृष्णाश्रम म्हूण एकलो म्हा–पुरुस रावतालो. विद्वान म्हूण ताची नामना आशिल्ली. पुणून तो 'मौनी' आशिल्लो. कोणाकडेन उलयनाशिल्लो. पावस, वोत, शीं, कित्याचीच पर्वा करिनासतना तो गंगोत्री सारकेल्या बर्फाळ थळांत विवस्त्र भोंवतालो. आंगार कितेंच घालिनासतना.

कांय वरसां पयलीं ह्या म्हा–पुरसाचें नांव पेपरांनीं मातशें गाजिल्लें. पंडित मदन मोहन मालवियांनीं हिन्दु युनिव्हार्सिटींत विश्वेश्वराचें एक देवूळ बांदपाचो बेत केल्लो. तांकां ह्या देवळाचे बुन्यादिचो फातर घालपाक एक 'पवित्र' मनीस जाय आशिल्लो. शिखांनीं जेन्ना अमृतसरचें भांगरा देवूळ बांदपाचें थारायलें तेन्ना तांकांय असोच एक पवित्र मनीस जाय पडलो. तांकां एक मुसलमान अवलियो मेळ्ळो. मालवियांक गंगोत्रींतल्या ह्या कृष्णाश्रमाचें

नांत्र कोणें सुचयलें. मालवियांनीं मनीस धाडले. पुणून हो साधू. तो असले भानगडींत खंय पडटा ? अखेरेक एका भगतान ताका विरगळायलो. साधू उठलो आनी चलूंक लागलो. चलत चलत थारायल्ल्या दिसा बनारसाक पावलों. बुन्यादिचो फातर घालो आनी तसोच उठून तडक गंगोत्री परतलो.

म्हाका कृष्णाश्रमाची मुर्त ओडलायणी दिशिल्ली. तिका पळेनाफुडें उत्तर काशींतल्या विष्णुदासांचो म्हाका उगडास जाल्लो.

गंगोत्रीक कोणाकडेन कसल्यो खबरी जाल्ल्यो हाची आयज याद जायना. पुणून म्हजे भोंवडेचे उगडास–पटयेंत एक नोंद आसा. हांवें बरयलां : देव आसा काय ना म्हणपाचो दुबाव लेगीत येना असलें फातराळ जिणें हें आमचें. म्हाका असलें सुद नाशिल्लें निश्चितपण नाका. म्हाका देव आसा म्हुण कळूंक जाय वा तो ना म्हणपाची खातरी पटूंक जाय. कांयच न्हय जाल्यार, म्हाका सत् कितें ते समजूंक ना, समजना म्हणपाची ‘ वेदना ’ तरी जावंक जाय. म्हज्या काळजाक घाय जावन अंतस्करणान रडूंक लागूंक जाय.

‘ देव आसा ’ अशें तोंडान म्हणपी जायते लोक आसात. तांच्या जिविताकडेन पळेतां तेन्ना म्हाका दिसता, हे दळदिरे देवाच्या संवसारांत जल्मा आयल्यात. पुणून आपल्याच घरांत जल्मा आयिल्ले वरी जियेतात. तांच्या संवसारांत देवाक इल्लीय सुवात ना. संवसारांतली सगळी सुवात तेच आडावन बसल्यात. फकत जिबे तोंकार ‘ देव आसा ’ म्हणपाचीं दोन

उतरां खेळ्ळीं म्हुण उपकारता ? आपूण नकळं म्हणपाचें लेगीत हे लोक नकळत. केदी व्हडली आप-फटोवणी ही !

हांव म्हणटां : हांव असो केन्ना रावचों ना.

पुणून म्हज्यांत वेदना जागोवप म्हज्या हातांत आसा ताचेपरस चड देवाच्या हातांत आसा. ताणेंच म्हाका आधार दिवंक जाय. ताणें म्हज्या काळजाक आपणालें बोट मातशें तेंकोवंक जाय. मागीर ? मागीर म्हाका कळटलें : 'म्हाका जें मेळ्ळां तें म्हाका उपकारना आनी जें मेळ्ळेबगर म्हजें निखाल्स चलपाचें ना तें म्हाका अजून मेळूंक ना.' म्हाका जेन्ना अशें दिसतलें तेन्नाच म्हजें अंतस्करण रडपाक लागतलें.

भुरगें जल्मा येता तेन्ना ताका एके वाटेन वार भितल्लयान ओडून धरता आनी दुसरे वाटेन जल्माचो वेग भायर ओडून व्हरता. ही ओडा-ओड चलता देखून भुरगें रडटा.

भुरगें रडना जायत जाल्यार वैज लेगीत भियेता.

म्हाका दिसता : देवाचें बोट काळजाक लागतकूच आमचेंय अशेंच जाता. काळखांतूच आमी आसतात. उजवाड आमी पळेल्लो नासता. पुणून उजवाडाची आमकां ओड लागता. आनी मागीर आमच्यांनीं सस्त बसूंनज जाता. आमच्या काळजांत काळोख आनी उजवाड हांची एक ओडा-ओड सुरू जाता. आनी आमी अध्यात्माचे नदरेन नवो जल्म घेतात. 'द्विज' जातात.

दुसऱ्या दिसाचीय असलीच एक नोंद आसा.

आवय घरांत आसुनूय हांवें तिचेकडेन लक्ष दिलें ना जाल्यार म्हजें व्हडलें-शें लुसकान जायना. ती आपणाल्या सभाव-धरमाक धरून म्हजी माया करताच. पुणून ती जेन्ना म्हजे फाटीवयल्यान हात भोंवडायता आनी 'पुता, बरो आसा मू?' म्हुण म्हाका विचारता तेन्ना म्हाका कितली खोस भोगता ! म्हजी जीण मोगान उपाट भल्या-शी म्हाका

दिसपाक लागता. तिचें सेवेपरस तिची ही माया व्हड.

देवाचेंय अशेंच. ताच्या ह्या संवसारांत हांवें ताचेकडेन लक्ष दिलें ना जाल्यारूय तो म्हजेर उपकार करपाचे करताच. पुणून ज्या दिसा तो म्हजे फाटीवयल्यान हात भोंवडायतलो आनी 'पुता, कसो आसा तूं?' म्हुण विचारतलो त्या दिसा ताच्या सगळ्या उपकारांपरस ताची ही माया म्हाका व्हड दिसतली.

ताच्या संवसारांत रावनूय म्हाका ताचे मायेचो अणभव येना हाचें कारण एकूच : ताचो हात म्हजे फाटी वयल्यान भोंवूंक ना. तो ज्या दिसा भोंवतलो त्या दिसा म्हजे संवसाराकडेन पळोवपाचे नदरेंत लेगीत फरक पडटलो. म्हाका संवसार लावण्यान, सुंदरकायेन आनी मोगान उपाट भरिल्लो दिसतलो. आयज जो म्हाका व्यर्थतेचो अणभव येता, म्हाका म्हजें जिवीत सुकिल्लें वरी दिसता ताचें कारण म्हज्यांत इतलें एक उणें आसा हेंच. देव आसून म्हाका नाशिल्लेवरी जाला. तो म्हाका मेळूंक ना.

म्हाका 'म्हज्या संवसारां' तल्यान भायर सरूंक जाय. हांवें नवो जल्म घेवंक जाय. हांवें 'द्विज' जावंक जाय.

म्हज्यांतलें फातराळपण, म्हज्यांतली उदासिनताय ना करपाक म्हजी चेतना सगळेकडेन पावपाक म्हाका म्हज्या सगळ्या संस्कारांच्या, संवयिंच्या पेल्यान वचूंक येवंक जाय. त्या उपरांतूच म्हजें जिवीत खरेल्या अर्थान भरिल्लें जावंक पावतलें. परिपूर्ण जातलें...

गंगोत्रीक आमी दोन दीस उल्ले. थंय एक ल्हान-शें देवूळ आसा. त्या

देवळा लागसार न्हंयेचे तडीर एक शिळा आसा. तिका भगीरथाची शिळा म्हणटात. हे शिळे लागसार दुसरे एके ल्हान-शे शिळेर बसून दोन दीस हांव जिविताच्या कितल्या-श्याच प्रस्नांचेर खोलायेंत देंवन येव-जितालों. कितल्या-श्याच प्रस्नांच्यो जापो सोदल्यो. ज्या दिसा गंगोत्री सोडून मुखार वचपाक आमी भायर सल्ले त्या दिसा म्हज्या मनाच्या दोळ्यांमुखार शंकराचार्यांली गिड्डी मुर्त उबी रावली.

केदो व्हडलो मनीस हो ! फकत बत्तिसूच वरसां जियेलो. पुणून येद्या-श्या ह्या आयुश्यांत ताणें केदो आक्रांताचो वावर केलो ! तागेलें प्रस्थान त्रयी वयलें भाष्य म्हळ्यार, गिन्यानाचो एक घोगो. हिन्दुधर्म गिरेस्त जावंक पावला तो ह्या घोग्याक लागून. आनी तागेलीं स्तोत्रां ? झुळू-झुळू करून व्हांवपी ल्हान-ल्हान गोमटयो झरी त्यो. तागेलीं हीं स्तोत्रां आयकून तांच्या संगितान पिसो जावंक ना असो मनिसूच, म्हाका दिसता, अजून जल्माक येवंक ना जातलो.

शंकराचार्यांक कसलेच तरेचें द्वैत- वेगळेपण- मान्य नाशिल्लें. तो सगळ्या वेगळेपणां आड आशिल्लो. गरीब-गिरेस्त वेगळेपण ना. पातकी-पुण्यवंत वेगळेपण ना. दादलो-बायल हांचें मजगतीं वेगळेपण आसूंक फावना. इतलेंच न्हय तर, जीव आनी देव हांचेय मदीं वेगळेपण आसूंक फावना. ही ताची शिकवण. मनशान एक-एक सपण वयर चडत वचचें. म्हणटकूच ताका सगळेकडेन आसा तो एकूच आत्मो, बाकी सगळें फट म्हणपाचें कळटलें अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें. दुख्ख फट, अभिमान फट, अपमान फट, व्हडपण फट, ल्हानपण फट, ऊंच-उणाकपण फट आमी मानतात तितलेंय फट. तितलेंय ' मिथ्या '. सत् एकः आत्मो, देव, ब्रह्म.

इतल्यान सोंपूंक ना. शंकराचार्यांन पळेलें : आमचो समाज तेत्तीस कोटी देवांनी आनी तितल्याच भुतां, म्हारवां, देंवचारांनी विस्कळीत करून उडयला. ताका एक कसो करचो ? शंकराचार्यांचे नदरेक एक

उपाय दिश्टी पडलो. ताणें सांगलें : सगळे देव शिव, विष्णु, गणपती, सुर्य आनी देवी ह्या पांचांचे अवतार. मागीर तो खडोबा आसूं, वेताळ आसूं. भवानी आसूं, शांतादुर्गा आसूं, विठोबा आसूं, मंगेश आसूं. सगळे देवाच्या त्या पांच रुपांचे अवतार. म्हणटकूच ? पुजा करतले जाल्यार देवाच्या पांच रुपां भितल्ल्या एकाचीच करून उपकारा पडना. पांचूय रुपांची करूंक जाय. तुमचो जो कोण कुळदेव वा इश्ट-देव आसत ताका तुमी मदीं दवरात. पुण ताचे भोंवतणी उरिल्ल्या चार रुपांच्यो मुर्ती दवरात. पुजा पांचांचीय वांगडा करात. तुमची पुजा तुमच्या देवाक लेगीत पावूंक जाय जाल्यार, पांचांचीय पुजा वांगडा जावंक जाय.

शंकराचार्यान हे पंचायतन-पुजेन देवां-देवां मजगतचे वेगळेचार ना केले आनी वेगळ्या वेगळ्या देवांक लागून जो समाज विस्कळीत जाल्लो ताच्यांत एके तरेचो एकचार घडोवन हाडलो. ताणें हिन्दु धर्मांत सगळो 'च्याव-च्याव' भल्ला म्हुण हिन्दु समाजांतल्यान भायर सरून आपलो म्हुण वेगळो धर्म सुरू केलो ना. हिन्दु समाजांतूच रावन हिन्दुधर्माक निवळा-वपाचो वावर केलो.

शंकराचार्यान ह्या देशांत एकचार घडोवन हाडपाचो कितलोसोच यत्न केला. पंचायतन-पुजा सुरू करून जसो जातीं-जातीं मजगतीं एकचार घडोवन हाडलो (आमच्यो जाती वेगळ्या वेगळ्या देवांनीच घडयल्यात) तसो देशांत चारूय धामांची यात्रा करपाचो नेम घडोवन वेगळ्या वेगळ्या भासांनी आनी चालि-रितींनीं वांटून गेल्लो समाजूय एक करपाचो मोटो वावर केला. खरो हिन्दू आयुश्यांत एक खेपे तरी द्वारकेक वतलो, थंयच्यान ज्योतिर्मठांत वा बद्रीकाश्रमांत वतलो. जगन्नाथपुरीक वतलो आनी रामेश्वराकूय भेट दिवन येतलो. शंकराचार्यानूच घालून दिल्लो नेम हो.

गंगोत्रीक म्हाका ह्या मनशाच्या वावराचें आनीक एक म्हत्त्वाचें आंग

दिश्टी पडलें. गंगा खरी गोमुखी सावन भायर सरता आसतना शंकराचार्यान तीर्थाची शीम गोमुखी आयल्यान अठरा मैलांचे वाटेर गंगोत्रीक कित्याक घाली? ह्या प्रस्नाची जाप म्हाका थंयचो ' नेलंग पास ' पळेतकूच मेळ्ळी. गंगोत्रीक येता आसतना एके कडेन ' नेलंग पास ' म्हुण एक वाट फुट्टा. कैलास-मानसचे यात्रेक वचपी लोक हे वाटेन वतात. हांगासून तीसूच मैलांचे वाटेर तिबेटाची शीम लागता. म्हाका हो ' पास ' पळेतकूच सह्ह जालें आनी काकासायबांचो उगडास जालो. तांणीं एक खेपे म्हाका म्हळ्ळें : लष्करी नदरेन गंगोत्रिचें म्हत्त्व सामान्या भायलें. फाल्यां, समज, उत्तरे दिकेन तिबेट जावं चीन हिन्दुस्तानाचेर घुरी घालपाक आयलें जाल्यार, आमच्या फुडाऱ्यांक हिमालयांत ' लष्करी छावनी ' बांदपाक गंगोत्री हेंच थळ वेंचून काडचें पडटलें.

मुखार केदारनाथ, ज्योतिर्मठ आनी बदरीनाथ ही थळां पळेतकूच म्हजी खातरी जाली : जंय जंयच्यान तिबेटाची वाट फुट्टा थंय थंय शंकराचार्यान तीर्थ वसयलां. म्हळ्यार ह्या मनशांत ' मिलिटरी माइन्ड' आशिल्लो. ताणें पळेलें : हांगा सैन्यां दवरप म्हारग पडटलें. राजां सुवादीनूय ह्यो सुवातो करपांत अर्थ ना. लोकांचे धर्म-भावनेकूच जाग हाडूंक जाय. ह्यो सुवातो ' जागत्यो ' दवरूंक जाय. शियांत जेन्ना बर्फ पडटा तेन्ना ह्यो वाटो आपशींच बंद जातात. तेन्ना हुसको नासता. पुणून बर्फ विरगळ्ळें आनी वाटो उकत्यो जाल्यो म्हणटकूच यात्रा सुरू जावंक जाय. लोकांनी येत वचत रावंक जाय. ह्यो सुवातो ' जित्यो ' दवरूंक जाय.

आनी ताणें हिमालयाचे यात्रेचो नेम घालून दिलो.

म्हज्यांतलो राष्ट्रवादी भोटिया लोकांक पळोवन ह्या आदींच शिटकावल्लो. तांणीं हाडिल्ल्या खबरींक लागून हिमालयांतल्या लोकांत उदेल्ली आस पळोवन येवजणेंत पडिल्लों. आतां शंकराचार्याच्यो ह्यो ' छावणी ' पळोवन पुराय जागो जालो. म्हज्यांतल्या राष्ट्रवादाक काकासायबांक लागून जी

सांस्कृतिक देख मेळिल्ली तिची बुन्याद हांगा घट जाली.

हांवें म्हळें : आतां हिमालयांत नवो वावर सुरू जावंक जाय. हांगा नवे आस्रम चलूंक लागूंक जाय. नवी जीण घडोवपी रचणुकी कार्यावळिचें मुळावण हांगा आतां रोखडें पडूंक जाय. हांगा एक नवें वारें घोळूंक लागूंक जाय. म्हाताऱ्यांनी न्हय, तरण्या भुरग्यांनी येवन हांगां रावंक जाय.

गंगोत्री सोडून केदारनाथाचे वाटेन चलपाक लागलों तेन्ना हांव निखटो ' सौंदर्य-रसिक ' उरूंक नाशिल्लों. निखटो ' साहस-प्रिय ' भुरगो उरूंक नाशिल्लों. म्हज्यांतलो ' रचनात्मक क्रांतिकारी ' पुराय जागो जाल्लो.

म्हजी अर्दी यात्रा सोंपिल्ली. अर्दी अजून उरिल्ली. म्हजे पांय आतां तुरतुरीत चलपाक लागले. तकली नेटान काम करूंक लागली. काळजांत एक नवी आस्त उदेल्ली. एक नवी उर्बा भरिल्ली. हांव दोळे उकते दवरून चलतालों. एकसारको चलत वतालों.

अजून पंचवीस दीस चलपाचें उरिल्लें. अजून चार-शें मैल चलपाचें आशिल्लें. हांव चलत आशिल्लों...

चलत राविल्लों ...





हिमालयांत अशें कितेंय तरी आसा कि जें पळेतकूच आंगार कांटो फुलता. तें आपुण पळोवन येतलों, जंय सप-सप कोण पावनात थंय वतलों, थंयची सुंदरकाय दोळे भरून पळेतलों, थंयची भव्यताय काळजांत भरून घेतलों अशें थारावन बरोवपी भायर सरता आनी सुमार दोन म्हयने पांयांनीं भोंवन यमुना आनी गंगा, मंदाकिनी आनी अलकनंदा हांच्या कुळारां मेरेन वता. सुंदरकाय आनी भव्यताय हांचो सोद घेवपा खातीर सैमाच्या अेका भक्तान तरेतरेचे त्रास आनी कश्ट सोंसून पांयांनी केल्ली सुमार सशीं मैलांची भोंवडी ही. अेक ' अिस्थेटिक जर्नी '.

हिमालयाचें वारें अध्यात्माचें आनी ताचे भोंवडेक गेल्ल्या ह्या बरोवप्याचो पिंड कविचो. देखून हिमालयांत भोंवतां-भोंवतां ताका थंय जळींमळीं शिंपडिल्लें सैमाचें काव्य मेळटा आनी ताची खबर सांगतां-सांगतां दोळयांक दिशिल्ल्या देखाव्यां वांगडा मनाक जाल्ल्या दिश्टाव्यांच्योय खबरी तो आमकां सांगता. रवीन्द्रबाबांची शैली सादी, सरळ, प्रसन्न आनी संस्कारी. देखून हिमालयाचे भोंवडेचें तांचें हें पुस्तक वाचता आसतना आपणेंय अुठून हिमालय पळोवपाक भायर सरचें अशें वाचप्यांक दिसता. भोंवडेची दीक्षा दिवपी सैमाचे सुंदरकायेचें अेक प्रेरक गद्य-काव्य हें.

**मोल : ८ रुपया**